कथांचो

# एसएमएस

आप्पा( अजय ) बुवा

सारा क्रिएशन्स
यशवंत नगर
तिस्क, फोंडें - गोंय.

एसएमएस
कथाझेलो
आप्पा( अजय) बुवा

पयली उजवडावणी
फेब्रेर 2010
प्रकाशन क्र. 2



अक्षर जुळणी
सुशांत नाईक
शांताई अपार्टमॅण्ट
कवळें - गोंय. 09049599090

छापणावळ
ओम ग्राफिक्स
कवळें, फोंडें - गोंय.
Ph. 0832 2311037
Mob. 09764536346

प्रकाशक
सारा क्रियेशन,
सखी. ह. चोपडेकार
श्रीराम पर्णकुटी हावजिंग
को-ऑ. सोसायटी, यशवंत नगर
तिस्क, फोंडें - गोंय

मोल रु. 120/-

मुखपृश्ट
भुपेश कवळेकार

SMS
(Short Stories)
Appa(Ajay) Buva

First Edition
February 2010
Publication No. 2



Type Setting
Sushant Naik
Shantayee Appt.
Kavlem, Ponda - Goa.

Printing
Om Graphics
Dhavli, Ponda - Goa.
☎0832 2311037
Mob. 09764536346

Publisher
Sara Creation,
Sakhi H. Chopdekar
Shree Ram Parnacuti Housing
Co-op. Scty. Yashwantnagar
Tisk, Ponda - Goa

Price Rs. 120/-

Cover Design
Bhupesh Kavlekar

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर हे येवजणे खाला उजवाडायलां.

# अर्पण...

जांणी पाखां दिलीं
त्या आई अण्णाक
जांणी दिका दिली
त्या गुरुजनांक
जांणी स्फूर्त दिली
त्या इश्टजनांक
आनी
मळबांत उडटाना लक्तुबायेन पळोवपी
म्हजे घरकान्नीक आनी भयणींक



# पयलो एसएमएस...

हांव कोण हें कळचे पयलींच हांव बरोवपाक लागलों आनी शाळेंत पावल दवरिना फुडें निबंदाची, कवितेची गोडसाण लागली. वाळपयच्या अवरलेडी ओफ लुड्स शाळेंत जोशी सर, श्री सिताराम शेटये, श्री आनंद मयेकार हांणी म्हज्या दर एका निबंदाक शाबासकी दिवन म्हज्यांतल्या लेखकाक जागो करपाक सुरवात केली.

वाचना बगर लेखन जायना. म्हजी आई आनी आबा हांकां दोगांकूय वाचपाची आवड. तांचें वाचप चडशें धार्मीक पुस्तकांचें. तांकां लागून हांव लेगीत वाचपाक लागलों आनी तेन्ना सावन खरेंच जगपाक लागलों. चवथेंत आसतना श्यामची आई पुस्तक वाचून काडलें आनी मागीर म्हज्या मोगाच्या 'चांदोबाक' हांवेन सासणाचो टाटा केलो. पूण चांदोबाचो खरेंच हांव उपकारी आसां. तशेंच म्हज्या अण्णाचो. ताची येणावळ जेमतेम. कसो तरी संवसार चलतालो. अशें आसून लेगीत म्हयन्याचो म्हयनाळो 'चांदोबा' म्हज्या हट्टा खातीर हाडटालो.

साखळे म्हाविद्यालयांत पावल घालें आनी साहित्यीक आनी संस्कृतीक मळार म्हजो एक नवो जल्म जालो. लेखणेचो एक नवो दिश्टावो जालो. संजय तेंडूलकारान एकदीस खोडयेंच्या आपल्या घरा व्हेलो आनी ज्या खिणाक सर्गेस्त शांती तेंडूलकारा कडेन म्हजी वळख करून दिली आनी त्या खिणा सावन म्हज्यांतल्या साहित्यीकाक परिसाचो स्पर्श जालो.

आमीं मुळचीं महाराष्ट्रीयन. स्वामिकार रणजीत देसायालो गांव कोवाड तोच म्हजो गांव. आवयक दिसतालें हांवेन मराठी कडेन इश्टागत करची. पूण शांती ताईन म्हजी कोंकणी कडेन वळख करून दिली. तेन्ना सावन हांव कोंकणीचें मनभुलयणें रूप पळोवन भारावन गेलों. हांव केन्ना कोंकणीच्या मोगान पडलों तें म्हाकाच कळ्ळें ना. आईचो अपेक्षाभंग जालो. कारण हांवेन कोंकणी कडेन सोयरीक जुळयिल्ली. पूण आयज आई खूब खोशी आसा. आयज म्हजें पयलें अपत्य म्हणल्यार म्हजो हो पयलो कथा संग्रह प्रसिद्ध जाता. ह्या वेळार शाती ताईचो, सदानंद भाईचो आनी शाबाचो उगडास

काळजाक पीळ घालता.

शांती ताई वांगडाच म्हाका घडोवपांत सर्गेस्त शाबा कुडतरकार, सर्गेस्त भाई तेंडूलकार, प्रकाश पर्येकार, झिलू गांवकार, जय वेळुस्कार तशेंच कॉलेजींत कोंकणी शिकोवपी प्रा. सौ. सुनीता काणेकार, नवप्रभाचे संपादक परेश प्रभू, श्री राजेंद्र केरकार, प्रा. विनय बापट. प्रा. अभिजीत पेडणेकार, मिलन वांयगणकार हांचें सगल्यांचें योगदान आसा. कॉलेजींत शिकता आसतना खूब साहित्य बरयलें आनी उपरांत पयश्या फाटल्यान धांवतना लेखणी बंद जाली. आप्पा बुवा हें नांव लोक विसरपाक लागिल्ले. तेन्नाच म्हजो जिवा-भावाचो इश्ट आनी आतांचो म्हजो मार्गदर्शक प्रा. हनुमंत चोपडेकार हो अक्षरशा म्हज्या फाटल्यान लागलो. “तुज्यो पोरण्यो सगल्यो कथा म्हजे कडेन दी, तांचें कितें करपाचें तें हांव करतां”. कथांची फायल दिवपाकूच म्हाकां एक वर्स लागलें. आयज म्हजें आराध्य दैवत श्री बजरंगबली हनुमान आनी हनुमंत चोपेडकार हांच्या प्रयत्नांनी हो म्हज्या विचारांचो 'एसएमएस' तुमचे मेरेन पावयतां. ह्या वेळार प्रा. राजय पवार, प्रा. संजय गोंवेकार, सुशांत नाईक हांणी दिल्ल्या पालोवा खातीर तांचे उपकार मानपाक म्हजे कडेन उतरां नात. पूण तुमच्या सगल्यांच्या रिणांत रावपाक म्हाका मानवतलें.

मोगाळ वाचप्यांनो तुमकां म्हजो हो पयलो साहित्यीक एसएमएस. तुमचो रिप्लाय दिवपाक विसरू नाकात. म्हजो दुसरो 'एसएमएस' रोखडोच येता. सद्यां पयलो डॅलिव्हर करतां.... सॅण्ड....

***-आप्पा(अजय) बुवा***

# कोंकणी कथेक मेळिल्लो 'प्रॉमिसींग' एसएमएस....

कोंकणी साहित्याच्या इतिहासांत कोंकणी कथेक भोव म्हत्वाची सुवात आसा. शणै गोंयबाबाच्या 'म्हजी बा खंय गेली' हे कथेंतल्यान आधुनीक कोंकणी कथेचो आरंभ जालो. पूण आर्विल्ल्या शॉट स्टोरीची म्हणल्यारूच लघुकथेची खरी घडी बसयली ती चंद्रकांतबाब केणीन. तांणी कोंकणी कथेक राष्ट्रीय तशेंय आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार पावयली. चंद्रकांतबाबान घातिल्ले हे बुनयादीचेर उपरांतच्या काळांत लक्ष्मणराव सरदेसाय, फेलिसियू कोर्दोज, दामोदर मावजो, अ. ना. म्हांबरो, एडविन जे. एफ. डिसौजा, मीना काकोडकर, हेमा नायक, शीला कोळंबकार, पुंडलीक नायक, दत्ता श्री नायक, महाबळेश्वर सैल, गोकुळदास प्रभू आदी बरोवप्यांनी कोंकणी कथेची घुडी उबारली.

20 व्या शेंकड्याच्या निमण्या तीन दशकांत कोंकणी कथेन कूस परतिली. तरेकवार शैलींचो आनी फास्क्यांचो वापर करून जायत्या कथाकारांनी कोंकणी कथेंतल्यान कोंकणी जिवनशैलीचें, लोकजिणेचें तशेंच लोकसंस्कृतायचें जिवंत दर्शन घडयलें.

आयज कोंकणी कवितेंत दिश्टी पडपी 'प्रोमिसींग' बरोवपी कोंकणी कथेच्या मळार दिश्टी पडनात. ही ख-यानीच खंत करपा सारकी गजाल. देविदास कदम, मधुसुधन जोशी, वसंत सावंत, माया खरंगटे, भालचंद्र गांवकार, विन्सी क्वाद्रूश, रामनाथ गावडे, जयेश नायक, प्रकाश पर्येकार, ज्योफा गोन्साल्वीस ह्या बरोवप्यांनी कोंकणी कथेक नवो श्वास भरपाचो यशस्वी येत्न केल्लो आसा अशें म्हणू येता. ह्या बरोवप्यां मदीं आतां आप्पा (अजय) बुवा हांचें नांव अधिकारान येता ही खोशयेची गजाल.

आप्पा हो नवोताल्ल झेलो घेवन कोंकणी कथेच्या मळार विश्वासान पावल दवरता. कोण हो आप्पा? खंयच्यान आयला? कितें बरयता? कशें बरयता? अशे साबार प्रस्न वाचकांच्या मनांत येतले. मात्शे रावात...म्हाका सांगपाकूच जाय. पूण हांव सांगतां तेंच तुमी एसएमएस हो कथाझेलो वाचले उपरांत म्हणटले. कितें जाणा...he came, he saw & he conquered...

सत्तरी वाठारांतल्या वाळपयच्यान आपल्या अस्तित्वाच्या सोदांत भायर

सारिल्लो एक  धेयवादी तरणाटो, प्रतिकूल परिस्थितीचेर मात करून गायन, पत्रकारिता, साहित्य, संगीत, राजकारण, संपादन, उद्योग-वेवसाय अश्या विंगड विंगड मळांचेर जैत जोडपी प्रतिभावंत तशेंच जेसी, लायन्स क्लब, रोटरी क्लब सारक्या बावट्यांखाला सामाजीक आनी सांस्कृतीक जार्णाविकार्येंतल्यान वावूरपी एक  सर्वसामान्य कार्यकर्तो अशी वळख आशिल्लो आप्पा (अजय) बुवा म्हळ्यार ख-यानीच एक वेगळेंच रसायन.

महाविद्यालयीन शिक्षण घेतना, गोंय विद्यापिठांत एमएचें शिक्षण घेतना तशेंच शिवाजी विद्यापिठांत पत्रकारितेचें शिक्षण घेतना तो घडत गेलो. खासा करून सामाजीक, सांस्कृतीक आनी राजकीय मळार ताणें नांव जोडलें. कविता, कथा, एकांकी, एकपात्री, पथनाट्य, बालनाट्य अशे विंगड विंगड साहित्य प्रकार ताणें कुशळटायेन केळयल्यात. ताणें बरयिल्लीं नाट्य-समिक्षणां जाल्यार एक उत्कृश्ट समिक्षणात्मक साहित्य अविश्कार. सखोल वाचन, सुक्ष्म निरिक्षण, प्रगल्ब चिंतन, प्रसन्न उलोवप, निर्मळ वागप आनी परोपकारी वृत्ती हें ताच्या व्यक्तिमत्वाचें खाशेलेपण.

'एसएमएस' हो कथाझेलो ताचे कथनात्मक आभिव्यक्तीचो मनभुलयणो आविश्कार. 21व्या शेंकड्यांतल्या मानवी मनाचे हावेस आनी उत्फर्के अतिशय वास्तविकतायेन ताणें शब्दबद्ध केल्यात. खासा करून आय-टी युगांतल्या जुवान काळजाचीं सगलीं बरीं वायट स्पंदनां ताच्या कथेचे विशय जाल्यात. वास्तवीक कथानक, व्हांवतें निवेदन, परिपक्व पात्रचित्रण, समर्पक संवाद रचना, जिवंत वातावरण, उत्कंटावर्धक संघर्श आनी कलात्मक अभिव्यक्ती हे ताच्या कथेचे स्थायिभाव जावन आसात.

एसएमएस ह्या झेल्यांत वट्ट बारा कथा आसपावल्यात. ह्या बाराय कथांनी एक जबरदस्त कथनात्मक कथाआविश्कार दिसून येता. कोंकणी कथेच्या मळार ह्या झेल्यांतल्यान नवीन जाणित्रो, नवीन भावविश्व, नवीन अणभर्वाविश्व, नवीन प्रयोग, नवीन शैली, नवीन मांडणी, नवीन तंत्र-मंत्र आनी नवीन कल्पकताय ठसठसून भरिल्ली दिश्टी पडटा. आप्पाची दर एक कथा आपलें अशें एक स्वतंत्र अस्तित्व घेवन येता. ताचे दर एके कथेंत तिचें अशें एक वेगळें जिवीत आसा, वेगळें व्यक्तिमत्व आसा.

एसएमएसांतली प्रत्येक कथा आशय विशय आनी प्रस्तुतीकरणाचे नदरेन ख-यानीच वाचनीय आनी परिपक्व जाल्या. तातुंतल्यो 'राजीनामो, रक्षाबंधन, ओड, दर्यासुंदरी, आनी एक सुगंधा' ह्यो कथा निश्चितूच वयल्या

विधानाक सशक्तताय हाडपाक समर्थ आसात.

'एसएमएस' हे पयलेच कथेंत आप्पान एक सोबीत सुंदर नवकथा चितारल्या. आयच्या जमान्यांतल्या मोबायला वयल्या एसएमएसांचो एक कलात्मक वापर हे कथेचो मुखेल प्राण थारला. चिटयांच्या माध्यमांतल्यान, संवादांच्या माध्यमांतल्यान वा तरेकवार घटना प्रसंगांच्या माध्यमांतल्यान कथा-आविश्कार ह्यो गजाली कोंकणी वाचकांक नव्यो न्हय. पूण एसएमएस, चॅटींग वा ई-मेलांच्या माध्यमांतल्यान कथेची आकारणी ही कोंकणी साहित्यांतली पयलीच अभिव्यक्ती. ह्या झेल्यांतले निमाणे कथेंत म्हणल्यार 'चॅटींग' हे कथेंत 'मेलांचो ड्राफ्ट' कथा वाहक थारला. कथिकेच्या पांवड्या वयली ही ह्या झेल्यांतली अप्रतीम कथा.

कंप्युटर, इंटरनॅट, ई-मेल, एसएमएस तशेंच भविश्यशास्त्रांत संगणकीय तंत्रज्ञानाचो वापर, विमानांतलो प्रवास, रेल्वेंतलो अणभव, एमबीए, पिएचडी सारक्या शिक्षण घेवपी तरणाट्यांची मानसिकताय, ताचे स्वताचे वैयक्तीक भावविश्व, आयच्या तरुण मनाक लागिल्ली मोगाची तशेंच सेक्साची ओड, झोपडपट्टीचें भयानक वातावरण, गरिबी आनी गिरेस्तकाय हांचे मदली जिवन शैली, तातूंतले भावनीक तशेंच मानसीक प्रवाह अश्यो साबार गजाली ह्या झेल्याचे विशय जाल्यात. कोंकणींतल्यो ह्यो फ्रेश कथा. आमी ज्या नव्या जमान्यांतल्या नव्या अणभवविश्वाक होरायताले तेच हे विशय आयज कोंकणी कथेंतल्यान पयलेच फावट व्यक्त जातात. नवे पिळगेच्या काळजाची रंगरंगयाळी स्पंदनां, तांच्या मनांतले भावतरंग, तांच्या अंतर्मनांतली मनो वासना हांकां शब्द रूप दिवपाचें मोलादीक कार्य हो झेलो करता. 'चॅटींग, भविश्य, ओड, मोनो भास' ह्यो कथा हांगा देखी खातीर दिवं येतात.

'आनी एक सुगंधा' हे कथेंतल्यान देवाच्या नांवाचेर बायलमनशेच्या शरिराचेर आनी तिच्या पुराय अस्तित्वाचेर शेक गाजोवपी पुरूशप्रधान मानसिकतायेचें पोजडें रूप वास्तवीक शैलींतल्यान वाचप्या मेरेन पावता, जाल्यार कथेचो अप्रतीम शेवट वाचप्यांच्या काळजाक बुराक करून वता हें सांगून दवरतां. ही कथा दीर्घ स्वरुपांत चलता देखून थोडोसो विरस वाचकांक भोगचो पडटा.

'राजिनामो' ही कथा आयच्या समाजांतल्या धनंजय परब सारक्या तथाकथीत 'ठेकेदारांक' तांचेच भाशेंत जाप दिवपी सव्वाशेर मेळिल्ल्याचो दिश्टावो घडयता. गांवगिरें राजकारण, दलीत समाजाची दयानीय परिस्थिती,

तांचें काळीज तोडपी दुख्ख, सदानंदा सारक्या तरणाट्याची धेयवादी आनी अन्यायाआड झुजपी वृत्ती ह्यो हे कथेंच्यो खाशेलतायो. आप्पान त्यो कुशळटायेन मांडल्यात.

'रक्षाबंधन' सारक्या कथेंत माणकुल्या भुरग्यांचें भावनीक विश्व उबें करतना बरोवप्याची भावुकताय उपेगाक पडल्या. खरें म्हळ्यार हे कथेंतलें जिवीत आप्पान स्वता जगलां आनी भोगलांय बी. देखुनूच तें जिवंतपणान अभिव्यक्त जालां. ही कथा दोन अमुरपिक्या मनांची काळजाभास उलयता. भावभयणीच्या पवित्र नात्याचें सुत्र घेवन रचिल्ली ही कोंकणींतली नवकथा अशें विधान आत्मविश्वासान बरोवन दवरूं येता.

मोगकथा हो कथाप्रकार हालीसराक चड प्रमाणांत दिश्टी पडना. तरणाट्या मनाक सहजतायेन स्पर्श करून वचपी हो विशय. तो हाताळपी कथाकार एकदोन कथा बरोवन जातकच उपरांत 'सो कॉल्ड' प्रौढ विशयाकूच हात घालतात. घडये आपल्या कथेंचो दर्जो मोगकथा उणो करीत म्हूण तांकां भंय दिसता आसुंयेत. पूण आप्पाच्या कथा विशीं तशें घडना ताच्यो चडश्यो कथा मोगा भोंवतणीच घुंवतात. 'पिटर आनी शिला, ओड, तेरा साया, रानसुंदरी' ह्यो तातुंल्योच कांय मुखेल कथा. हो बरोवपी आपल्या मोगकथेंतूय विविधताय हाडपाचो सेगीतपणान यत्न करता. 'पिटर आनी शिला' हे कथेंतल्यान तो महाविद्यालयीन जिवनशैली, मौज-मजा, फकांडां, हांसप-खिदळप, शारिरीक आकर्शण अश्या वातावरणांतल्यान तापिल्ली आनी त्यागाच्या ओलसाणेन ओली जाल्ली एक तांकिवंत मोगकथा उबी करता.

'तेरा साया' कथेंत काळजांतल्यान व्हांवपी निवळ-निश्पाप मोगाझ-याक वाडवडिलांच्या आदर्शवादाक लागून पुरोवन उडोवपी तरनें मन अभिव्यक्त जाता. हे कथेंतली नायिका 'विवेकानंदाक ढासळपाक दिवपाक जायना' हो भावार्थ आपणावन आपली पुराय जीण सारता. ते कथेचो हो अप्रतीम शेवट वाचकाक अस्वस्थ करून वयतलो हें सांगून दवरता. परत एक फावट कथेंचो दिर्घ आंवाठ थोडिशी आडखळ करताच.

'दर्यासुंदरी' हिवूय तितलीच समर्थ कथा एसएमएसांत आसपावल्या. खारवी समाजाचें जिवीत घेवन येवपी ही कथा फकत त्या समाजाचे जिवनशैलीचेंच दर्शन घडयना. मुखेलपणान तो ह्या कथेंचो विशयूच न्हय. कमलाच्या मोगाची आनी विश्वासू मनोवृत्तीची ही कथा. प्रथेप्रमाण लग्ना दिसा दर्या भोंवडी करूंक गेल्ल्या आपल्या घोवाच्या म्हणल्यारूच ताच्या

मोगाच्या हरीची जिवित भर वाट पळोवपी सुंदरीची ही कथा. हरी बुडून गेला ही वस्तुस्थिती आपणावपाक ती तयार ना. ती एक 'सर्मपिता' जावन ताची वाट पळयत ताका रावता. ती भारतीय स्त्रीमनाची भावोत्कट प्रतिमा दर्शयता.

'ओड' हे कथेंतलो मोग फोग जावन आयच्या जुवान तरणाट्यांची सेक्साविशीं आशिल्ली नश्टी नदर पिंजून काडटा. जाल्यार 'बाबा म्हजी कथा' ही कथा झोपडपट्टेंतल्यान घडपी साहित्यीक प्रतिभेची आनी तिका मेळिल्ल्या उरफाट्या पुरस्काराची शोकांतिका घेवन येता. वास्तवता आनी कल्पना हांच्या सिमेर ही कथा मात्शी हालता पूण आपली कलात्मकता शेणयना.

वट्ट बारा कथांचो हो एसएमएस नांवाचो नवो कथा झेलो कांय कडेन 'इंप्रुवायजेशनाक' सुवात दवरता. खासा करून विंगड विंगड जिवनशैली चितारतना खोलायेन अभ्यास करपाक संद आसा. तशेंच नाका जाल्लें निवेदन वा घटना प्रसंग बरोवप्यान कुशीक काडूं येतात. हो कथाकार नवो आसा. ताची ही आत्मविश्वासान केल्ली 'ऑपनींग' पळयत जाल्यार तो निश्चितूच कोंकणी कथेक उबारी दितलो हातूंत दुबावना. ताणें सातत्य आनी साधनेक फाट करची न्हय इतलेंच ताका सांगणें. ताच्या ह्या एसएमएसाक तुमी 'रिप्लाय' दितले आशी आस्त बाळगितां.

***-प्रा. हनुमंत चोपडेकार***

# मांडावळ

# एसएमएस

**सकाळचीं 10.00...**

"पावलें तूं? सकाळीं आठांक भायर सरिल्लीं तुमीं. पणजे ते वाळपय फकत एका वराची वाट. पावले उपरांत एक एसएमएस धाडचो न्ही? वाटेर वतना त्रास बी जालेना मूं? हांवूंच आतां अयशीं वर्सांचो. तूं फकत तीन वर्सांनी ल्हान. शिंयाचें वातावरण. चड दगदग करूं नाका. अजून वाटेर बी आसत तर पावले बाराबर एसएमएस धाड हां. वाट पळयतां हांव."

**दनपारचीं 12.00...**

शेवटाक विसरलें मूं तूं? तुजी सवंय केन्ना वतली देवाक खबर. एसएमएस म्हणल्यार एक रुपया हो विचार करून तुवें धाडलो ना जावंयेत. दनपरां जेवणांत कितें आसा? जाली तयारी साकरपुड्याची? जावंयान तुज्या घोस्ताचें नुस्तें हाडलां आसतलें. जमल्यार बारीक ताल्ल्यांचें आंबट-तीख घेवन यो. रुचीन खायन. आनी कोण-कोण आयला? सगळ्यांची खबर घेतालो म्हणून सांग. परत परत एसएमएस धाडटा म्हूण पिकार जावं नाका हा!.

**दनपारचीं 2.00...**

जालीं जेवणां सगळ्यांचीं? तूं सगल्यान निमणें जेवलें आसतलें. लग्न जावन आयला तेन्नाच्यान तुजी सवंय ती. सगलींजणां जेवन तृप्त जातकच मागीर आपूण जेवप. सदांच भुरग्यांच्या ताटांतलें उरिल्लें तूं खातालें. अन्न तें, भायर कित्याक उडोवचें अशेय तुजें म्हण्णें. हून अशे दोन गोटे पोटांत घेतिल्ले म्हाका याद ना. तुजे काटकसरीक लागुनूच म्हजो संवसार भांगराचो जालो. मणगणें केल्लें काय ना? थंय मागीर धांवपळ जातली. परत परत एसएमएस धाडटा म्हूण पिकार जावं नाका हां!

**सांजेचीं 4.00...**

बरें न्हेंसलें मगो? तुका सवंय वायट. भुरग्यांनी, घोवान बरें न्हेंसचें

आनी तुंवेन सदांच मेळटा तें. पयलींच्या तेंपार वेगळें आसलें. दोनूच न्हेंसणां आसतालीं तुजे कडेन, पूण आतां भुरग्यांनी तुजी आलमार भरून उडयल्या. बरें न्हेंस. आंगार भांगर घाल. आतां निमणीं वर्सां उरल्यांत मात्शें सजपाक शीक. लोकांनी तुजे चलयेक "तुजी व्हडली भयण काय कितें गो?" अशें विचारपाक जाय. आनी घरा परत येतना त्याच भेसान यो. बदलू नाका. मागीर तुका पळोवन हांव म्हणटलों "माशुक का बुढापा भी मजा ला रहा है। अंगुर का मजा खिशमीश दे रहा है।" तूं मागीर ल्हवूच मुरगट्टलें. कितली जाणटी जाली म्हण कितें जालें म्हजे खातीर तूं पयले रातीचीच व्हंकल. नातोक म्हजी चिमटीभर साकर घाल. बरो जावंदी साकरपुडो. परत परत एसएमएस धाडटा म्हूण पिकार जावं नाका हां!

**आमोरेचीं 7.00...**

आगो येयना तूं? आज रावपाचें येवजिला काय कितें? तूंच म्हणटालें न्हय गो, तुका न्हीद फकत म्हज्या गोपांतूच येता? कशी जाली कार्यावळ? सोयरे आयिल्ले मगो सगळे? कोण येवंक ना ताची वळेरी दी. फाल्यां फोन करून सोलून काडटां. जोडप्या वांगडा सगल्यांनी फोटो काडलो मगो? तुजो फोटो काडटना दोळ्यांनी दुकां आयलीं आसतलीं न्ही, हांव ना तें पळोवन? म्हाका दिसता गो तुजे वांगडा भोंवनशें, पूण हें म्हातारपण साथ दिना न्ही? जुवान आसतना भुरग्यां खातीर, तांचो फुडार घडोवपा खातीर वेळूच मेळ्ळो ना. ना जाल्यार भोंवता आसलों दर्या वेळेर तुज्या हातांत हात घालून. तें सोड. आतां कळाव जाला. शिंयाचे दीस तूं येव नाका. म्हजे राणयेक वार्याचो त्रास जाता. विसव घे मातसो. फाल्यां सकाळीं यो. परत परत एसएमएस धाडटा म्हूण पिकार जावं नाका हां!

**रातचीं 10.00...**

घडये हो एसएमएस तूं वाचपाचें ना. न्हिदला आसतलें. पूण म्हजें मन म्हणटा तूं अजून न्हिदूंक ना. हांव तुजे कुशीक ना न्ही? म्हाका अजून न्हीद येवंक ना. कशी येंतली? तुजो थरथरपी हात ह्या पिकिल्ल्या केंसांत भोंवले बगर म्हाका न्हीद खंय येता! उमेदीच्या काळार कितल्यो राती तुंवेन जागून काडल्यात. आतां न्हिदपाक वेळूच वेळ पूण आतां न्हीद खंय येता? सगलीं न्हिदलीं? साकरपुड्याक सगल्यांनी तोंखणाय केली कांय ना तुज्या रुपाची?

हांवेन दूद गरम करून घेतलें. रागार जावं नाका. आयज मातशी साकर घाली दुदांत. हरशीं साकरेची गरज नासता. तुज्या हाताची गोडसाण पेल्यांत भरून उरता न्ही..."स्वीट ड्रीम" म्हणपाचें हें वय न्हय. तशीं सपनां उरल्यांत खंय आतां. तरी म्हणटां "स्वीट ड्रीम"... गूड नायट.

**रातचीं बारा 12.00...**

तूं म्हणटलें, हांव अजून जागोच आसा. तुजी याद न्हिदपाक दिता! खूब कूस परतिली पूण तुजी याद म्हाका थतरवितर करता. सकाळच्यान तुका कितले एसएमएस धाडले. पुतान सांगलां कितलेय एसएमएस धाड. म्हाका फ्री. कमीत कमी वीस तरी धाडले आसतले. पूण तुंवेन एकाची तरी जाप दिवपाची. जाप कशी दितलें. हो पळय म्हजो मोबायल. आतां स्क्रिनीचेर एक मॅसेज आयली. घडये तुजी आसत म्हूण बटण दांबलो. तर एसएमएस कितें? हांवेन सकाळच्यान धाडिल्ले सगले एसएमएस खंय अनडेलिव्हर... पूण म्हज्यो भावना तुजे मेरेन पावल्यो आसतल्यो. एक काम करता? तुजे तस्विरेक जो चंदनाचो हार आसा न्ही तो मात्सो हालय. म्हाका जाप मेळटली. म्हजे सगले एसएमएस तुका डेलिव्हर जाले म्हण. प्लीज...

***

# ओड

परिक्षेंचो पेपर बरोवपाक सगले भुरगे गुल्ल आसले. एमबीएची दुस-या वर्साची निमणी परिक्षा. आयज निमणो पेपर. भारतांतल्या वेगळ्या वेगळ्या वाठारांतले भुरगे हांगा शिकपाक येतात. आयज पेपर जातकच सगले भुरगे आपापल्या घरा पावतले. एक म्हयनो कॉलेज कँपसांत कोणूच दिश्टी पडचोना. सगल्या भुरग्यांक उमळशीक लागल्या ती पेपर जातकच घरा धांव मारपाची. गोंयचो रविंद्र लेगीत हे कॉलेजींत एमबीएच्या दुस-या वर्साक आसा. फाटलें एक वरस तो हांगा आसा. हरशीं चवथीक घरा वता पूण हे फावट सॅमिनाराक दिल्लीक गेल्ल्या कारणान पावलो ना. ताचो पेपर बरोवन जाता. तो परिक्षकाक पेपर घेवपाची विनंती करता. पूण तो ताका सुचयता. "Read it carefully. Later do not regret". आपल्या शिक्षकाचें आयकून तो पेपर वाचपाचो येत्न करता. पूण ताचें मन लागना. केन्ना एकदा घरा पावता काय अशें जालां. घंटा ताका तिश्टायता.

"Ravindra, don't waste your time. Read it". तुका खबर आसा न्ही फायनल निकाल लायतना ह्या मार्कांक म्हत्व आसता तें. "Don't play with your future" तकली सकयल घालून तो पेपर वाचता. पूण लक्ष लागना. निमणी एकदाची घंटा जाता आनी परिक्षकाच्या हातांत पेपर दिवन तो धांव मारता ती तडक हॉस्टॅलाचेर. घडयाळाचेर बरोबर स जाल्यांत. सातांक ताची ट्रेन. अर्दवर तरी पयलीं स्टेशनाचेर पावपाक जाय. खूब फात्रटीं ट्रेन खंयच्या प्लॅटफॉर्मार लागल्या हें सोदपाकूच चड गोंदळ जाता. सामान कशेंबशें तो बेगांत भरता आनी हेर इश्टांक बाय म्हणचे पयलींच स्टेशनाचेर धांव मारता.

बँगलोरच्या स्टेशनाचेर लोकांची सदांच गर्दी. तो बेगीन वचून चार्ट पळयता. सीट, कनफर्म ना. आरएससी. तो हरशीं जाल्यार वच्चो नाशिल्लो. तिकेट रद्द करून बर्सीत वतलो आशिल्लो. पूण बस कुळयां वचना. मडगां वच्यान परत बस धरपाची. घरा पावता म्हणसर इकरा जावपाचीं. ट्रेन सकाळीं फांतोडेर कुळयां पावता. ताका जाता तितले बेगीन घरा पावपाचें

आसा. दोन वरां उसरा पावलो म्हूण आतां कितें आकांत जावपाचो ना. एक म्हयनो गांवांतूच रावपाचो. पूण ताच्या मनाची आर्वातकाय ताकाच खबर आसा.

प्लॅटफोर्म दोनाचेर ट्रेन येवन रावता. आतां बसून वचपाचें. वांगडचो प्रवाशी बरो आसल्यार पुरो. तो देवा कडेन मागता. आपलो बोगी सोदून काडून तो आपल्या सिटार येता. पूण आयज देव ताचें काना मनार घेयना. शेजाराक शंबर किलांचो एक मनीस दोन तीन साटल्यो-पोटल्यो घेवन सिटार बसला.

"भाईसाब, जरा पैर बाजुमे करो ना, मुझे भी बैठना है".

"हा भैया अभी हमे दोनोंको बैठके जाना है" अशें म्हणत ताणें पांय मातसो हालयलो. ट्रेनींत आयज खर्यिांनीच गर्दी आसली. पांच-स मिणटां भितर ट्रेनीन स्टेशन सोडलें. लोकांनीय परिस्थिती कडेन जुळोवन घेतलें.

"हा, बोलो, डिनर, खाना" एक मनीस भितर सरलो. पूण रविंद्राक भूक नाशिल्ली. ताका जेवणा परस एक वेगळीच भूक लागिल्ली. ताका आस लागल्या लिनाची. लिनाक गोपांत घेवपाची. ताचे गोरे-गोरे कातीचेर हात भोंवडावपाची. लिनाचे वेंगेंत स्वर्गसुखाचो अणभव घेवपाची भूक ताका लागल्या. लोक जेवपांत गुल्ल आसात आनी रविंद्र लिनाच्या यादींनी.

सैमीक गुणांनी गच्च भारिल्लो हो कुळें गांव. रविंद्र आनी लिना ह्याच गांवांत रावतात. दोनूंय घराब्यांचें संबंद बरे आसले. लिना जल्माक येत सावन गोरें गोमटें बावली कशें दिसतालें. पंदरा वर्सांचेंच आसतना आकर्शक जुवान चली कशें दिसताले. रुपा-गुणान पुराय गांवांत वेगळ्याच आंगलोटाचें. पयशेकारांल्या घरांत जल्माक आयिल्ल्यान सुखान वाडिल्लें. आवयबापूय दोगांय फोंडेंच्या कॉलेजींत शिकयतालीं. अपुर्बायेची एकूच चली. खूब लाड आनी अपुर्बाय जाल्ले कारणान अभ्यासांत मातशें उणें. कशें-बशें धाव्वेक पावलें आनी धाव्वेक नापास जालें. अभ्यासांत ताचें कशेंच लक्ष लाग नासलें. अभ्यासाच्या दबावा खाला आपली मोगाच धूव गोळ बी लावन घेत म्हूण ताच्या आवयबापायन थारायलें की ताका जायतें करूं पूण फुडें शाळेंत घालप ना.

"ताका शिकप जाय कित्याक, देवान रूप दिलां तें दोतोराक लेगीत फाटीं घालपा सारकें. कोणूय भाटकार येवन ताका मागणें घालतलो. मागीर

कित्याक जाय उंचेलें शिक्षण" अशें रविंद्राचो बापूय लिनाच्या बापायक म्हणटालो.

रविंद्र मात शिकपाक हुशार. लिनाच्या आंगार जुवानपणाचीं लक्षणां दिसपा पसून ताच्या घरा कडेन मवाली भुरग्यांच्यो फावटी वाडिल्ल्यो. लिनाच्या बापायक भंय दिसतालो. कारण तीं दोगांय जणा सकाळीं कामाक वतालीं तीं तीनसांजेर घरा पावतालीं. घरांत हें एकलेंच. पयलीं रविंद्र आसतालो. आतां तो इकरावेके. लिनाच्या आवयबापाय वांगडा तांचे मोटारींत फोंड्यां वतालो आनी तांचे वांगडाच परततालो. पूण तांचो हुस्को देवान रोखडोच पयस केलो. तांच्या सोयरियां भितरूच एकल्यान लिनाक मागणी घाली. हरशीं ताका खूब सोयरिको येतल्यो. पूण मना सारक्यो न्हय. हो भुरगो स्वभावान बरो आनी गिरेस्त. फोंड्यां ताचीं कपड्यांचीं दुकानां आसात. आपली चली गिरेस्ताची सून जाता तें पळोवन आनी मुखेल म्हणजे फोंड्यां म्हण अठरा वर्सांचे पिरायेचेरूच ताचें लग्न मोट्या दबाज्यान केलें. लिनाच्या बापायक समाधान एकूच आसलें तें म्हणल्यार चली तांच्या दोळ्यां सामकार संवसार करतलें. दोगांय फोंड्यांच शिकयतात. तांणी थारायिल्लें थोड्या दिसांनी फोंड्यांच फ्लॅट घेवचो आनी कुळ्यां फकत सणा-सुदीक वच्चें. पूण देवाच्या मनांत कितें वेगळेंच आसलें. हानिमुनाक गेल्लें जोडपें घरा येवन एक दीस जाला मात, लिनाच्या घोवाक अपघात जावन तो भायर पडलो. लिना हाताची मेथी वच्चे आदींच विधवा जालें. ताच्या घरच्यांनी बाराव्या दिसाच तें परत्या पायांचें म्हण ताका घरा परत धाडलें. लिनाच्या आवयबापायचेर एक मोटो आकांत. रविंद्राकूय लिनाची खूब काकूट दिसली. लिनान भायर सरपूच बंद केल्लें. फकत रविंद्र म्हणजेच ताचें विश्व जाल्लें. रविंद्रा वांगडा खेळटना तें भुतकाळ विसरतालें. ताच्या बापायन ताचें परत लग्न करचें म्हण खूब येत्न केले. तें अपशकुनी म्हण सगलेच ना म्हणपाक लागले.

"लिना, हांव परतों बेंगलोर वतां. म्हज्या एडमीशनाचें सगलें जालें". इस्पिकांनी खेळटां खेळटां रविंद्रान लिनाक सांगलें.

"खबर आसा म्हाका, पप्पा म्हणटालो. हांगा परत केन्ना येतलो?"

"चवथीक येतलो. येतना तुका चुडिदार हाडटां हां"!

"खरेंच?" अशें म्हणत लिनान ताचे हात आपल्या हातान घट्ट धरले. रविंद्राक हो स्पर्श वेगळोच लागलो. कांय खीण तोवूय मातसो शिरशीरलो.

बेंगलोर शारांत रविंद्राची एक वेगळी जीण सुरू जाली. हॉस्टॅलांत नवीन इश्ट मेळ्ळे. वेगळेवेगळे संस्कृतायेंत वाडिल्ले. विंगडविंगड स्वभावाचे. रविंद्राक हांगा विचारपी कोणूच नाशिल्लो. तो आपल्या मनाचो राजा आशिल्लो. दरेक आयतार हो ह्या भुरग्यांचो 31 डिसेंबर आसतालो. खाओ पिओ मजा करो. हांगा चडशे पयशेकारांले भुरगे आसताले. खूबश्या भुरग्यां कडेन लॅपटॉप आशिल्ले. रविंद्राच्या रुमा वांगडच्यान आपल्या लॅपटॉपाचेर जायतें कितें लोड करून दवरिल्लें. तो रविंद्राक एडल्ट्स क्लिपिंग मुद्दाम दाखयतालो. पाश्च्यात्य वॅबसायटी वयल्यान बायलांचे उगडे नागडे फोटो तो सेव्ह करून दवरतालो आनी रविंद्राक दाखयतालो. ताचें रसरशीत वर्णन करतालो. ल्हव-ल्हव ह्यो सगल्यो गजाली रविंद्राक आवडपाक लागल्यो. फावल्या वेळार तो लेगीत वॅबसायटी वयल्यान डावनलोड करूंक शिकलो. वासना नांवाची गजाल ताचे भितर पोसपाक लागली. रातचीं न्हिदतना ताका तींच सपनां पडपाक लागलीं. ताच्या सपनांनी फकत लिना आसतालें. ताचो स्पर्श सगलें सगलें ताका याद जातालें. हॉस्टॅलांतली दरेक रात तो लिनाच्या सपनांनी काडटालो.

आयज चवथे निमतान तो कुळ्यां पावलो. खरेंच ताणें लिना खातीर एक चुडिदार हाडिल्लो. लिना कडेन पळोवपाची ताची नदर आतां बदलिल्ली. चवथीची तयारी करची सोडून आनी आपल्या इश्टांक मेळचें सोडून तो फकत लिना कुशीक रावतालो. ताचे सरभोंवतणी घुटमळटालो. इस्पिकांनी खेळटना मुद्दाम जावन ताच्या हातांक आनी आंगाक स्पर्श करतालो. ताच्या घरच्यांक हें सदचेंच जाल्लें. कोणूच ताका ते नदरेन पळय नासलो.

रविंद्र, चल लिनाक जेवपाक आपय. आयज तें एकलेंच आसा देखून ताका हांवेन जेवपाक यो म्हणून सांगलां. ताणें आवयचीं फकत अर्दी उतरां आयकलीं आनी दोन धेंपांनी लिनागेर पावलो.

“काका-काकी खंय गेल्या गो?”

“मामागेर पांचव्या दिसा सत्यनारायण आसता. पणजे गेल्यांत तीं”.

लिना आपल्या रुमांत खाटीचेर आड पडून टीवी पळयतालें, कुडींत फकत टिवीचोच उजवाड आशिल्लो. आवांय, तूं ल्हान गो? कार्टून पळयतां तें मातसो रिमोट म्हजे कडेन दी. जेवणाक अजून अर्द वर आसा. मात्सो स्कोर पळयतां. अशें म्हणून ताणें रिमोटाक हात घालो पूण रिमोटा बदला ताणें मुद्दाम जावन लिनाचो हात हातांत घेतलो. आनी ताचे कुशीक बसलो.

लिनान आपलो हात सैल करून रिमोट ताचे कडेन दिलो आनी खाटीचेर आपलें उशें घेवन मात्शें कुशीक सरलें. कूड परतीतना ताची गोंर्रीपट्ट फाट पळोवन रविंद्राचें काळीज धडधडपाक लागलें. ताका दिसलें अशीच ताका वेंग मारची. पूण ताचें संस्कारी मन बंड करपाक लागलें. लिनाक वेंग मारली आनी तें आड्डलें जाल्यार? गांवांत नांवाची नालस्ती जातली. गांवांत भोंवपाक मेळचें ना. वांगडचे इश्ट हांसतले. लिनाचो बापूय खोंटायतलो आनी घरची लज वतली. आपले कुडीक पेटिल्लो उजो तो पालोवपाचो येत्न करपाक लागलो. पूण वासनाच ती! जितली चिड्डुपाचो येत्न जाता तितल्याच नेटान ती वयर सरता.

"लिना, हांवेन हाडिल्लो चुडिदार आवडलो तुका? आयज जेवपाक येतना तोच घालून यो". विशय बदलपाक लागून तो उलयलो. लिना टिवी पळोवपांत गुल्ल आशिल्लें. रविंद्रान चुडिदाराचो विशय काडीना फुडें तें उठलें. उठ्ठा आसतना मुद्दाम ताच्या हातांत हात दिवन उठलें. रविंद्राली चिडिल्ली वासना परतून वयर सरपाक लागली. लिनान आरमार उकती केली आनी तो नवीन चुडिदार भायर काडलो.

"हीं सगलीं लेबलां काड, हांव तोंडार उदक मारून येतां" अशें म्हणत ताणें चुडीदार ताचेर शेवटिलो आनी भायर आयलें.

आपल्या दातांनी तीं लेबलां ताणें तोडलीं आनी ओंडणेची घडी सोडल्या मात भायलें मुखेल दार बंद जाल्ल्याचो ताका आवाज आयकूंक आयलो. ताचें काळीज धडधडपाक लागलें.

"सगलीं काडलीं मरे? नवीन तीं. चुकून एक उरत जाल्यार आंगाक लागता आनी मागीर आंगाक खाज मारता".लिनान चुडिदार घेतलो आनी थंयच ताका फाट करून बसपाक सांगलें.

"हां जालें. आतां पळय हे वटेन. कसो सोबता न्ही म्हाका तुजो चुडिदार?" रविंद्रान फाट परतिली. ताची पुराय कूड भगभगपाक लागली. ताका दिसलें कुडींतल्या सगल्या शिरंतरांनी रक्ताच्या जाग्यार एसीड व्हांवपाक लागलां. लिनाच्या आंगार एकूय कापड नाशिल्लें.

"कितें पळयता?" लिनान कांपयिं आवाजान ताका विचारलें. ताची नदर पांयांच्या आखाण्या कडेन वळ्ळी.

"लिना, आर यू श्यूवर?" माथ्या वयलो घाम पुशीत रविंद्रान म्हळें.

"यस" अशें म्हणत लिना जोगलावरीं ताच्या गोपांत गेलें. दोगांय घामान चिप्प भिजिल्लीं. भायर सुखकर्ता दुखहर्ता म्हणपी आरती मेळाचो आवाज घुमटाच्या तालार घुमतालो. आनी हांगा दोन कुडींत वसंतोत्सव सुरू जाल्लो.

"आरे रविंद्र, खंय पावलो रे? आरतींचो मेळ येवपाचो वेळ जालो मरे, बसलीं दिसता दोगांय इस्पिकांनी खेळत. केन्ना व्हड जातलीं देवाक खबर. बेगीन येयात. पुरो आतां खेळ्ळीं तितलीं" रविंद्राचे आवयचो उलो आयकून दोगांयनी वेंग सैल केली. दोगांकूय आपल्या उकत्या आंगाची लजशी दिसपाक लागली. उजो शांत जाल्लो. लजेन मान सकयल घालून लिनान नवो चुडिदार घेवन धांव मारली ती बद्द न्हाणयेघरांत. रविंद्रानूय आपली मुस्तायकी चडयली.

"लिना, हांव मुखार वतां, तूं यो हां!"

पुराय सुटयेंतलो दोगांयनी मेळटा तो एकांत बरे तरेन केळयलो. एके जुवान चलयेक अतृप्त दवरून लिनाचो घोव हो संवसार सोडून गेल्लो. रविंद्रान हे सुटयेंत एके बायलमनशेचे चिड्डून उरिल्ले ज्वालामुखीक वाट मेकळी करून दिल्ली.

पुराय वर्सभर रविंद्र गांवांत येवंक नाशिल्लो. लिनाचे यादीन मात तो सदांच आकूळ-पिकूळ जातालो. तेच खातीर आज निमण्या पेपरा उपरांत ताका ओड लागल्या, ताका उमळशीक लागल्या लिनाक गोपांत धैंवपाची.



फांतोडेर काळखांत रेल्वे कुळयां पावली. देवपी फकत रविंद्र एकलोच. वास्को - मडगांव कामाक वचपी आठ धा जाण चडले आनी रेल्वेन परत आपलो मार्ग धरलो. दिवो घेवन ताचो बापूय ताका व्हरपाक आयिल्लो.

"निकतीं साडे चार जाल्यांत. मात्सो आड पड" बापायन ताका सांगलें. आसा त्याच कपड्यांचेर तो सोफाचेर आड पडलो. नदर आनी दोळे घडयाळा कडेन आनी सकाळ केन्ना जाता ताचे कडेन. पूण प्रवासाच्या शिणान ताचो मात्सो दोळो लागलो.

"रविंद्र, उठ आतां. च्या-पाणी घे आनी परत न्हीद. णव जालीं"

“कितें णव जाली?” म्हाका उठयलो ना कित्याक तुवेंन?” दोळे पुशीत आनी आंगावयली चादर पयसावत ताणें म्हळें.

“तुका आतां कितें अमक्या वेळार कॅलेजींत वचपाचें आसा तर?” आतां म्हयनोभर सुसेग घे. कसो भागला पळय. चल न्हावपाक बेगीन”

“मागीर न्हातां, पयलीं लिनाक मेळून येतां”.

“लिना आतां हांगा खंय आसा? तो माटोव दिसता न्हीं दोळयां सामकार. आठ दिसां पयलींच लग्न जाले ताचें”

“कितें? म्हाका कोणेंच सांगलें ना कित्याक तर?” मात्सो रागान आनी निर्शेल्ले भाशेंत तो उलयलो.

“बाबा म्हणपाक लागलो, तुजी परीक्षा आसा आनी हें कितें ताचें पयलें लग्न तर! पयलीच्या लग्नाक बोवाळ्ळो मरे, पुरो तितलें!”

“खंय दिलां ताका?”

“कित्याक? न्हावपाकूच तांगेर वता काय कितें?”

“हय, हांव आतांच वचपी तांगेर, ताका परबी दिवपाक जाय”

“न्हा, च्या घे, मात्सो विसव घे आनी मागीर चल”

“धन्य रे बाबा तुजी इश्टागत”



रविंद्रान येवचे पयलीं खूब सपनां रंगयिल्लीं. ताचीं सगलीं सपनां मातये भरवण जाल्लीं. ताका दिशिल्लें हे फावट लिना पुराय म्हयनोभर ताचे वेंगेंत आसतलें. निर्शेवणी ताच्या मुखामळार विसवली. नदर थिरावन तो लग्नाचो माटव पळयतालो. आंगार उदक घेवन च्या घेवचे पयलींच तो लिनागेर पावलो.

“काका, म्हाका कित्याक सांगलें ना?” ताचो चेरो गंभीर जाल्लो.

“आरे पिश्या, लिनाच म्हणपाक लागलें, तुजें परिक्षेंत लक्ष लागचें ना. हांव फाल्यां वचपाचो आसां तांगेर. तूं येता जाल्यार यो. काड मागीर राग ताचेर”.

“हांव आयजूच वचपी. म्हाका पत्तो दियात”.

“पिसो रे पिसो! वांगडी आनी इश्ट आसचो तुजे सारको. आगो,

आयकला! लिनागेर हांव फाल्यां वचना. कितें दिवपाचें आसा तें रविंद्रा कडेन दी. तो आयजूच वता खंय. म्हजी फावट वाचतली".

लिनाचे घर सोडून काडपाक ताका चड त्रास जाले ना. वास्को हा वर्जीग बोर्डांत रावतालें तें. सिंगल बॅडरूम फ्लॅट. दनपारच्या कडार रविंद्राक दारार पळोवन लिना आजाप जालें. आंगार जोगूल पडिल्ले वरी ताका जालें.

"आरे रवी, तूं केन्ना आयलो? यो मरे भितर" अशें म्हणत चे-या वयले सगले भाव लिपोवन ताणें ताका भितर व्हेलो. दार उकतेंच दवरलें. लिनाक पळयना फुडें रविंद्राचे कुडींत उजो भगभगपाक लागिल्लो. साज-शिरंगार करून लिना चडूच सोबीत दिसतालें. फकत एके तिकलेन बायलेच्या मुखामळार कितली सोबा येता ताची जिवंत देख जाल्लें तें.

"घरांत कोण ना काय कितें?" सोफाचेर बसत ताणें विचारलें.

"आमी दोगांच. ताचो मूळ गांव सावंतवाडी. तो हांगा शिपयार्डांत कामाक आसा. हो भाड्याचो फ्लॅट. आयज पयले शिफ्टीक गेला. चारांक येवपाचो". लिना एकटेंच आसा तें पळोवन ताचे कुडिंतलो ज्वालामुखी चडूच भगभगपाक लागलो.

"बस हां! जेवनूच चल. हांव रांदपाची तयारी करतां. पयलीं सांगल्यार तयारी करून दवरतां आसलें". अशें म्हणत लिनान टिवी लायलो आनी रिमोट काडून रविंद्रा कडेन दिलो. रिमोट दिवपाच्या बोवळान लिनाचीं दोन बोटां ताच्या हाताक लागलीं आनी ताचो हात मात्सो थरथरलो. कांय खिणां खातीर शक्तहीन जालो.

लिना भितर वचून रांदपाचे तयारेक लागलें. हे वटेन हाचें टिवीचेर कशेंच लक्ष लागना जालें. चॅनल्स बदलपाचें काम मात नेटान चालू आसलें. ताणें तसोच रिमोट शेवटिलो आनी तो रांदचे कुडींत भितर सरलो. लिना गॅसा सामकार उबें आशिल्लें. साडये पोंदा लिपिल्ली आनी कांय प्रमाणांत उकती आशिल्ली ताची गोरिपिट्ट फाट ताका शिळोण्यो घालपाक लागली. तशींच पावलां उबारून ताणें लिनाक फाटल्यान घट्ट वेंग मारली आनी लिनाच्या ओंठांचो उमो घेवपा खातीर आपले ओंठ मुखार केल्या मात. फटाश!! करून एक आवाज ते कुडींत भिरभीरलो आनी एक थापट रविंद्राच्या पोल्यार पडलें.

"रवी, म्हाका समजून घे. हांव आतां एका घोवाची बायल आसा, हे

गोरे कुडीक आतां धनी आसा. तेन्ना कोण नाशिल्लो" अशें लिनान रविंद्राक समजायलें.

लिनाची पुराय कूड थरथरताली. शेगडे वयलो तोप लेंगीत बेठोच उदकाक उकळी काडटालो. लिनान थंडसाणेन गॅस ऑफ केलो...

रविंद्राचो भगभग खिणान झेल जायत गेलो.

***

# रक्षाबंधन

फांतोड उदेवन सकाळ नांवाचे अस्तुरेची खबर घेवपाक सूर्य निकतोच वयर सरपाक लागिल्लो. राखणे आपलीं गोरवां घेवन रानांत वचपाक भायर सरिल्ले. तांच्या तोंडांतलो ही! री! री! पा! पा! पा! हो आवाज फांतोड जाली म्हणपाची गवाय दितालो. सकाळचें मनभुलयणें वातावरण सगल्याक पातळिल्लें. अश्या सोबीत शांत, शितळ वातावरणांत अरूण सुस्त न्हिदिल्लो. काना कडलें गजराचें संगीत ताची न्हीद इबाडपाचें काम करतालें. मदींच शेजरा सर्रर सर्रर जावपी सान्नीचो आवाज ताका नाका सो दिसतालो. जळारां आनी सान्नीच्या आवाजांत न्हीद येना ती पळोवन रागानूच ताणें आंगावयली चादर भिरकायली आनी हांतरुणाचेर उठून बसलो. जनेला भायर पळयलें जाल्यार सगलो धुल्ल सरभोंवतणी पातळिल्लो. सान्नीचो आवाज वाडलो तसो धुल्लोय वाडिल्लो. तो तसोच आळशिल्ले भिरकेन भायर आयलो. शेजारच्या बिराडाची साफ सफाय चालू आशिल्ली.

अरूण, पांचवेक वचपी एक ल्हान भुरगो. वाळपय एके चाळींत रावतालो. ते चाळींत एकामेकाक तेंकून पांच खोलयो आशिल्ल्यो. सगलीं बिराडकारां दर दोन वर्सांनी आपलीं बिराडां बदलतालीं. प्रत्येक फावटीं नवो शेजार. थंय सगल्यांत चड काळ रावपी बिराड म्हणल्यार अरूणाच्या आवयबापायलें. फाटलीं धा वर्सां सावन तीं हे चाळींत रावतालीं. अरूण जल्माक हांगाच आयिल्लो.

अरूणाच्या शेजाराक आशिल्ली खोली फाटले दोन म्हयने बंदूच आशिल्ली. फाटल्या बिराडकारांची म्हापश्यां बदली जाल्ली. देखून तांणी आपले सामान हालयिल्लें. भाटकाराचो मनीस आयज साफ सफाई करतालो. म्हणजेच नवीं बिराडकारां येवपाचीं आसात तर. अरूणाच्या बाल मनांत अचळय खोस पातळ्ळी.

“शिवा कोण येवपा आसा?”

शिवा हो भाटकाराचो घरगडी. भाटकाराच्या प्रत्येक कामाक तो हाजीर रावतालो.

"बेळगांवचो कोण तरी मास्तर. पयलीं बेळगांवां शाळेंत शिकयतालो. आतां वाळपय बदली जाल्या खंय."

"घरांत कोण कोण आसा तुका खबर आसा?"

"घरांत कोण आसात ते म्हाका खबर ना. हांवेन फकत मास्तराकूच पळयला! आनीक कितें विचारपाचें आसा? प्रस्न सोंपले जाल्यार मात्सो तो पाटलो घेवन यो."

"शीऽऽ तातूंत शेंण आसा, हांव ना"

"मागीर फाटीं सर! परत हांगा येव नाका!"

शिवाचो धेकणो पडना फुडें अरूण आपल्या घरांत आयलो. शेजाराक नवीन कोण रावपाक येवपाचो आसा हाची खोस ताच्या मुखा मळार घेराव घालताली. कोणूय बिराडकार बिराड सोडून वतयताना वायट दिसतालें पूण नवीन कोण रावपाक आयलो म्हणटकच त्या दुख्खी खिणांचो विसर पडटालो. आतां नवीन कोण रावपाक येता हाची खोस अरूणाच्या प्रत्येक हालचालींतल्यान दिसपाक लागली.

"आई, टिचर खंय गे? आतां वाळपय बदली जाल्या" अरूणान आवयक माहिती दिवपाक सुरवात केली.

"म्हाका खबर आसा. फाटल्या सप्तकांत घर पळोवपाक आयिल्ली."

"घरांत कितलीं मनशां आसात?"

"घोव, बायल आनी एक ल्हान चली" तांदूळ वेंचतां वेंचतां आवयन सांगलें.

"चली म्हजे परस व्हड आसा काय ल्हान? ल्हान आसल्यार बरें जातलें. व्हडल्या चलयांक मद चड आसता. ल्हान आसल्यार कुरवांनी खेळपाक मेळटा. खेळटना मामा करपाक मेळटा."

"हें पळय, परकी मनश्यां वांगडा चड संवकळ बरी न्हू. एक दीस रावपाक येतात जीव लायतात आनी मागीर सोडून वतना खंती करून वतात. ते खतीर चड लागीं रावूं नाका"

"अशें कशें तर?"

"म्हणजे?"

"मास्तर म्हणटा, शेजार धर्म पाळावा."

"शेजार धर्म पाळावा, पूण तेच बरोबर शाळेक वेळार वचपाचो धर्म लेगीत पाळावा. मात्शें घडयाळा कडेन पळय कितलीं जालीं तीं. उठला तेन्ना सावन शिवा फाटल्यान फुगडी घालता: पांचवेचो भुरगो तूं आनी चलये वांगडा खेळटलो? चल बेगीत तयार जा" घोवाचो डबो भरतां भरतां आवयन ताका बरेंच व्हड व्याख्यान दिलें. बाथरुमान न्हाता आसतना ताचें विचारमंथन सुरू जाल्लें. आईन ख-यानीच म्हाका ते चलयेची इश्टागत करपाक नाका म्हटलें तर. आईच्या स्वभावाक लागून पुराय वाड्यार ताका खेळपाक कोणूच घेय नासलो. अरूणाच्या आवयचो स्वभाव आशिल्लोच तापट. भुरग्याक कोणूय खेळटना पसून हात लायल्यार ती झगडपाक येताली. देखून अरूणाक नवीन खेळगडी जाय आसलो.

"आरे केदो वेळ न्हाणी घरांत रे तूं? वेळ जालो मरे शाळेंत वचपाचो" अरूण आयज मुद्दाम जावन कळाव करतालो. उशीर जालो जाल्यार शाळेक दांडी मारूंक मेळटली. म्हण ताचे येत्न सुरू आशिल्ले. आयज ताका शाळे परस नवीन बिराडकारां चड म्हत्वाचीं आसलीं. तांकां पळोवपाची ताका उमळशीक लागिल्ली.

"आई, पोटांत बरें ना. परत परसा कडेन जाता दिसता. हांव वचना शाळेंत आयज"

तांच्या सामानाचो टँपो आयला. वांगडा दोन मानाय आसात. कपाट, कदेल, कळशी ल्हव-ल्हव सगलें सामान सकयल देवोवपाचें काम चालू आसा. आपुणूय बी धांवत वता आनी तांचो एक तांबयो आनी फोटो घेवन तांच्या रुमांत पावयता....अशें कितें तो येवजितालो.

इतले मजगतीं आवयन आनीक एक धेंगसो घातलो.

"तुका कांयच जावंक ना. तुजीं सगलीं नाटकां जाणा हांव! परसा कडेन जाता जाल्यार जावं. शाळेंत संडास आसा. मानायपण करपाक धांवपाचें आसत तुका. दोन मिणटां भितर भायर सर. ना जाल्यार कुल्यार थापटां मारीत व्हरतलें."

आवयचो राग ताका खबर आशिल्लो. धा मिणटां भितर तयार जावन तो शाळेचे वाटेक लागलो.

"तुका एक चलो आसा, शाळेक गेला म्हण सांग हां तांकां. म्हज्या वाढदिसाचो आल्बम दाखय हां!"वतां वतां आईक सांगपाक तो विसरलो ना.

“बरें बरें! वाडदिसाचे फोटो दाखयतां आनी तुज्या लग्नाची व्हॉवळीक आतांच दिवन दवरतां! बेगीन पावलां उखल आतां”

आयज शाळेंत ताचें मन व्हडलेशें रुजलें ना. ताची कूड थंय आशिल्ली पूण मन घरा कडेन. ती पावल्या आसत काय? आतां कितें करता आसत? ताचीं गणितां चुकतालीं. जापो सारक्यो जाय नासल्यो. आयज पयलेच फावट ताणें मास्तरा कडल्यान खूबशी तापोवणी खाल्ली.

देवानूच ताचें उमळशिकेक आयज आदार केल्लो. मदले सुटये उपरांत सगल्यांक मास्तरान आयज घरा धाडलीं. धा मिणटांची वाट आयज ताणें पांच मिणटां भितर पुराय केली. दारांत अरूणाक पळोवन ताचे आवयन घड्याळा कडेन पळयलें. ती कितें समजुपाचें तें समजल्ली. अरूणाचें आवय कडेन मात लेगीत लक्ष नाशिल्लें. ताचें पुराय लक्ष दारा सामकार उब्या आशिल्ल्या टॅंपोचेर आशिल्लें. घडयें निकतोच आयला आसुंयेत. भाटकारालो शिवा लेगीत सामान देवोवपाच्या कामांत मदत करतालो. टॅंपोक पळयत तो आपल्या घरांत भितर सरलो. पळय जाल्यार सालांत एक ल्हान चली बसल्या.

“आयज इतल्या बेगीन सो रे?”

“आमकां मदले सुटयेंत घरा चल म्हूण सांगलें” ते ल्हान चलये कडेन पळयत ताणें जाप दिली.

“मास्तराक विचारतलीं हांव. कसो सोलतां पळय फाल्यां.”

हरशीं माराक आनी आवयक अरूण थर्त भियेता. पूण आयज ताका आवयच्या उतरांचें व्हडलेशें पडूंक नासलें.

“ए, नांव कितें गो तुजें?”

“पिंकी,” ते चलयेन जाप दिली.

“म्हजें फ्रॅंड जातलें मगो? हांव अरूण”

“इश्टागत मागीर जोड. कपडे काड आनी हातपांय धुवन घे” आवयन ताका फर्मायलें तसो तो धांवत भितर गेलो.

नवें बिराड येवन बरोच तेप जाल्लो. आतां दीस कशे गेले कोणाकूच कळ्ळें ना. अरूण मैंस्तराच्या आवडीचो जाल्लो. शाळेंतल्यान आयले बाराबर तो बद्द मास्तरागेर वयतालो. पिंकी आनी तो एकेच शाळेंत

शिकतालीं. पिंकी दुसरेंत आशिल्लें. हरशीं सुशेगाद न्हिदपी अरूण

आवयच्या धेंगश्या बगर सकाळीं बेगीन उठ्ठालो आनी आंगणांत येवन उबो रावतालो. आंगणांत पिंकीची आवय सकाळीं फुडें रांगोळी घालताली.

"काकी, पिंकी उठलें गे?"

"तें पळय, आजून हांतरूणाचेरूच आसा! चल उठय ताका". उठय ताका म्हणना फुडें अरूण धपांयच करून पिंकीचे खांटीर पावतालो. ताका जागें करपा खातीर मागीर भगिरथ येत्न सुरू जाताले. पांयांक कातकुल्यो कर, कमराक कातकुल्यो कर. प्राथमीक येत्न करून लेगीत पिंकी उठलें ना तेन्ना मात अरूण रामबाण उपाय काडटालो. सुतलेची बारीक नळी करून ती पिंकीच्या नाकांत रिगयतालो. धपक्याक तें एक शींक काडटालें आनी रडपाक सुरवात करतालें. ताका ओग्गी करपाक मागीर ताची धांदल जाताली.

"कितें केलें रे?" अरूणाचे आवयचो आवाज चाळभर पातळटालो.

पिंकीक ओग्गी करता म्हणसर हाका नाका शेवट जातालो.

"ओगी राव गो! नाटकां पुरो हां! पळय हां! ओगी रावना मगो? चल, तुजे कडेन गट्टी फू!"

गट्टी फू म्हणना फुडें पिंकी ओग्गी रावतालें. ताका तरी अरूणाबगर खंय करमतालें तर?

हांसत खेळत म्हणटात तशे दीस वयताले. पिंकी सारकें इश्ट खेळपाक मेळ्ळें म्हूण खुशालभरीत अरूण ह्या दिसांनी चडूच खोशी आशिल्लो. ताका कारणय तशेंच आशिल्लें.

रक्षाबंधन लागीं पाविल्लें. बाजारांत राखयांचे घोस लोंबकळटाले. तरातरांच्यो राखयो. हरशीं राखयांचें अरूणाक व्हडलेशें पडिल्लें नासलें. काळजाक ल्हवशे घाय जाताले पूण ताचें बालमन रोखडेंच तें विसरतालें. शाळेंत जण एकल्याच्या हातान राखयो आसताल्यो. कांय जाणांच्या हातान पांच पांच लेगीत आसताल्यो. पूण अरूणाच्या हातान एकूय नासताली. कोणाची राखी सोबीत आसा हाची सर्त लेगीत लागताली.

"म्हजी भयण मुंबय आसता, ताणें म्हाका ही राखी धाडल्या. गोंयांत असल्यो राखयो मेळनात खंय. तायू म्हजेर खूब मोग करता" अशे तरेन दर

एकलो आपले राखये बद्दल आनी आपले भयणी बद्दल मिरयतालो.

अरूणाक दिसतालें आपणाकूय एक भयण आशिल्ली जाल्यार. आपणाकूय राखी मेळपाची. शाळेंतल्यान रडत तो घरा येतालो आनी आईक विचारतालो. "आई म्हजे तायू खंय आसा गे? तें म्हाका राखी कित्याक धाडीना तर? अरूणाची लुडबां उतरां तिकाय थतर्रवितर करतालीं. ताच्या बालमनाक समजावपाक तिका मात्शे जड वयतालें. दोतोरान तिका सांगिल्लें. "लवंद, हो तुमचो पयलो आनी निमणो हां! परत भुरग्यांची आस्त धरूं नाकात. तुमच्या जिवाक मानवचें ना तें". दोतोराचें आयकून तिणें ते खातिरूच ओपरेसांव करून घेतिल्लें. ती सान अरूणाक सदांच फकांडांनी सांगताली, एक दीस देव तुका भयण धाडटलो.

आयज इतल्या वर्सां उपरांत ताका दिसतालें पिंकीक देवानूच धाडलां. दोगांय घरां मदलें नातेंय तशेंच जमिल्लें. ह्या वर्सा पिंकी ताका राखी बांदतलें हाची ताका खूब खोस जाल्ली. ताका दिसतालें जाता तितले बेगीन हो दीस येवचो.

"अरूण, राखी बांदले उपरांत भावान भयणीक कितें तरी दिवपाक जाय खबर आसा मरे तुका?"

"हय, आईन सांगलां म्हाका! आईन तुका फ्रॉक दिवपाचो थारायला".

"खरेंच?"

"हय, निळ्या रंगाचो" पिंकी हें आयकून खूब खोशी जालें. अरूणूयबी. शाळेंत लेगीत भुरगीं राखयेच्या खबरांनी गुल्ल आशिल्लीं.

"हांव फाल्यां दोन राखयो बांदतलो"

"म्हज्या तायूची राखी कालूच पावल्या"

अरूणाक दिसलें हांवूयबी हे चर्चेंत वांटेकार जावंचो. इतलीं वर्सां तो ओग्गी रावतालो. ताका राखी बांदपी कोणूच नाशिल्लें. अरूणाक दिसलें हांवूय फाल्यां राखी बांदतलों. पूण ताणें थारायिल्लें फाल्यां सगल्यांक शॉक दिवपाचो.

शाळा सुटले बाराबर दोगांयजाणां बेगीं बेगीं घरा येवपाक भायर सरलीं. पिंकीचीं पावलां ल्हान आशिल्ले कारणान अरूणाचे गतीक आडखळ जाताली. वेगान पडपी दोगांचीय पावलां मात चाळीचे गेटी कडेन येवन

जाग्यारूच थिरावलीं. दोगांयजाणां एकमेकांच्या तोंडा कडेन प्रस्नार्थी नदरेन पळयत रावलीं. सामकार चाळीच्या आंगणांत दोगांयच्यो आवयो सगल्यांचो उद्दार करीत व्हडा व्हडान झगडटाल्यो.

"ना गे बाये, आमी केन्नाच असलीं मनशां पळोवंक नात. गोड गोड उलोवप आनी फाटल्यान सुरो मारप."

आमीच तुजे सारकीं मनशां पळयलीं, चार पुस्तकां शिकिल्ले लोक आमी, तुमचे सारके गांवगिरे न्हय"

आपली आवय तापट हें अरूणाक खबर आसलें. खूबश्या बिराडकारां कडेन ह्या ना त्या कारणा वयल्यान झगडीं उस्तून काडटाली. चडशीं बिराडकारां आपले आवयक लागुनूच आपलीं बिराडां बदलतात हेंवूय तो जाणा आसलो. दोगांय जाणा बरोच वोगत झगडत रावलीं. अरूण आनी पिंकी ल्हवूच आपापल्या घरांत रिगलीं. ह्या दिसाची सांज आनी रात केन्ना सोंपली कांयच कळ्ळें ना.

आयज रक्षाबंधन. शेवर्णी उठचे आदीं अरूण उठलो. खाटी वयल्यान उठून पावलां उबारल्यां मात. आईचो आवाज कडकडलो.

"शेजारा पांय दवरशीत जाल्यार दोके मोडून गळ्यांत बांदतलें." आईचो हो अवतार पळोवन तो कितें समजुपाचें तें समजलो. सकाळचीं सगलीं कामां करून तो शाळेक वचपाक भायर सरलो. गेटी कडेन पावला मात, एक टँपो येवन दारा मुखार उबो रावलो. टँपोंतल्यान दोग मानाय देवले आनी पिंकीचो बापूय लेगीत. पयसुल्ल्यान अरूणान पिंकीच्या बिराडा वटेन नदर मारली. पिंकीची आवय सामानाची बांदाबांद करपांत गुल्ल आशिल्ली आनी पिंकी तिका मदत करतालें.

***

# दर्यासुंदरी

दर्याचो थंड शितळ वारो झाडां-पेडांक पिशें लायत सुटिल्लो. पयसुल्ल्यान कुरवांचो खेळ करीत ल्हांरां धांवत धांवत येतालीं. दर्या देगे वयल्या काळ्या फातरांक कितेंतरी सांगतालीं आनी परत दर्यांत नाच्च जातालीं. तांचो तो मनभुलयणो खेळ दर्या देगेवयल्या लोकांक संवकळीचो जाल्लो. पांया पोंदची भांगराळी रेंव वतान आनीक चकचकताली. दनपारच्या वेळार कुल्ल्यांनी मात फुज्यो काडिल्ल्यो. अचकीत नेटान एक वा-याचें ल्हार येतालें आनी झाडां पेडांक हात हालोवचे पडटाले. तांच्याय दोळ्यांनी रेंव वयताली जावंयेत.

दनपारच्या रखरखीत वतांत दर्या देगेर कोण दिश्टी पडनात. दनपारचो वेळ हो सैमाचो. मनशाक ह्या वेळार हांगा येवपाची मनाय. घडये ह्याच वेळार सैम मनशा आड कारस्थानां रचता आसत. पर्यटन स्थळां आशिल्ल्या जाग्यांची ही तरा तर कुशीक आशिल्ल्या खारीवाड्याचें मात विचारूच नाकात. दनपारच्या रखरखांत चडशे खारवी भाव पेज जेवन सावळेंत हांगा थंय आडवे जाताले. कांय जाण व्हड्यां कुशीक न्हीद काडटाले. तर कांय जाण सुरूच्या झाडांचो खळखळ आयकून झाडां मुळात ताणून दिताले. रुखातळा सपनांय बरी पडटा आसुंये.

पूण ह्या धगधगीत, आंग लासून काडपी वतान एक अस्तुरी मात सदांच कोणाची तरी वाट पळयत उबी रावता. वरांची वरां एकाच जाग्यार. संवसार खंय सुरू जावन खंय सोंपता तिका पडिल्लें ना. वत आसूं, पावस आसूं वा शियाचे दीस. तिका कांय लागना. ती दर्या देगेर न चुकता रावता. कोण ही दर्यार येवपी? अनवळखी लोकांक हो प्रस्न सदांच सतायतालो. कोणेंय हटकिल्यार ती मोन्यानीच रावताली. हे अस्तुरेन केन्नाच परकी मनशा सामकार तोंड उगडलें ना.

ही दर्या सुंदरी खारवी वाड्याची एका काळा वयली बावली. पूण आयज साप्प सापळो जाला. दोळे भितर, गालफोंडाची चिंवलीं, कांतीची सया निर्जीव, पिरायेन पंचेचाळीस पन्नास आसपाक जाय. केंस पिकपाक पावल्यात,

इतली पिराय, पूण रूप खूब कितें सांगून वता. भितरल्या अस्पश्ट आवाजान रूप म्हणटा "हांव सोबीत आशिल्लें". तिचो आंगलोट, नाक, कान, दोळे हाचे वयल्यान तिच्या जुवानपणाचें चित्र आमी रेखाटूंक शकतात. सुंदर आसली दिसता ही! हय ख-यानीच मनभुलयणें रूपआशिल्लें तिचे कडेन.

पण असल्या रखरखीत वोतांत ही कोणाची वाटपळयत उबी आसा? दीस-रात दोळे दर्या वटेन आसतात. ल्हांरां लेगीत खूब फावटीं तिका होच प्रस्न करतात. कोणांक रावलां? घरकार जाळें उडोवपाक गेला काय? आसत घडये. पूण घरांत केन्नाच दिश्टी पडलो ना. जोड्यान केन्ना भोवलेलीं कोणेंच पळयलीं ना. पूण गळयांत मंगळसुत्र आसा. कपलाक कुकूम आसा. म्हणजे हिचो घरकार आसा असो अर्थ जाता अनवळखी मनशाक. पूण हिचो घरकार केन्नाच दिसलो ना. घरांत एक जाणटो आसता. सदांच न्हिदून रावता. ताचीं स्वताचीं चार व्हडीं आसात. त्या व्हड्यांच्या भाड्यान तांचो घरचो खर्च बेस बरो चलता. हो घरांतलो जाणटो म्हणजे शिवराम. खारवी वाड्या वयलो एका काळावेलो मुखेली. खारव्यांच्या मतां खातीर जायते फुडारी एका तेंपार शिवरामाच्या पांयांक हात लायताले. दर्या देगेर सदांच दिश्टी पडपी ती बायल म्हणजे ह्या शिवरामाची मोगाची धूव 'कमल'. हेंच कमल फांतोडेर बेगीन उट्टालें. न्हावन धुवन केंसाचेर फणी मारून बेगोबेग दर्या देगेर येवन रावतालें. दर्या कडेन तिश्टत पळयतालें. कोणेंय रापणकारान व्हडें दर्यांत घातलां मात कमल धांवत व्हड्यासरी वयतालें. "काका तांकां बेगीन धाड हां! तांकां सांग हांव वाट पळयता म्हण. आनी आयज म्हाका थोडी सुंगटां दी. बरें आंबट तीख करून घालता तांकां. सांगता मरे तांकां?".

"हय गो कमल तुजें आनी ना म्हणपाक जाता. तूं घरा वच, हांव घेवन येता ताका". म्ह-यांतलो मनीस ताका घरा धाडटालो. जण एकल्याचो आंवडो ह्या वेळार घुस्मट्टालो. तारया मामाचें व्हडें दर्यांत वता तें उमळशिकेन पळयतालें. आनी मागीर परत दर्या देगेर येवन बसतालें. कोणूय जाणट्यान येवन ताका म्हणप.

"बाय, कमल हांगाच तूं अजून. घरा चल मगो. च्या करून दवर चल. हरी येतलो आतां."

हरी येतलो हीं उतरां आयकतकच ताच्या मुखामळार हांसो फुलतालो. कमलाक फकत मुमूरख्यांनी हांसप हेंच खबर आसा. फाटलीं तीस पस्तीस वर्सां जालीं. ताका उलयतना कोणेंच आयकलें ना. फाटलीं कांय वर्सां तें

ोनेंच कशें आशिल्लें. सूर्य अस्तमतेक पावलो म्हणटकच काळोख पातळटा पळोवन कमल निराश जावन घरा कडेन पावलां मारतालें. एक एक दीस ाळोख दाटला हाचें भान लेगीत ताका उरनासलें. तिनसांजेच्या वेळार मागीर शवराम ताका हातांत दाणो घेवन लकत लकत व्हरपाक येतालो.

"चल बाय घरा या! काळोख खूब जालो"

पूण कमल बापाय कडेन पळय लेगीत नासलें. ताची नदर फकत र्याचे देगेर आपटपी ल्हांरां कडेन आसली.

"बाय, आयकलां हांव कितें म्हणटा तें. घरा या आतां!"कमल वोग्गी. शवरामाकूय मागीर राग येतलो.

"मेल्ले मनीस परत आयिल्ले केन्ना आयकलां तुवें? तो आतां येवपा ा. एक दीस हांव वतां ताका सोदपाक. विचारता ताका, परतुपाचो रस्तो ब्रबर नाशिल्लो जाल्यार गेल्लोच कित्याक? चल आतां. खूब भोगलां हांवेन. आतां सोंसपाक जायना म्हज्यान. चल".

बापायचीं उतरां मात कमलाक ज्युस्त होलमतालीं. कांटे तोंपताले ताज्या काळजाक. आनी तें मागीर हांबेल्यांनी रडपाक लागतालें. दुकांचो शिंवर जातालो. ताचीं तीं दुकां पळोवन जाणटो कांचाबूल जातालो. ताच्याय दोंळयांतल्यान आडावन दवरिल्लीं दुकां गळटालीं. दाव्या नाकांतल्यान भायर पडिल्लो शेंबूड वाल्याक पुशीत, दुस-याच खिणाक तो स्वताक सावरतालो आनी कमलाक घेवन घरा येतालो. पूण दुस-या दिसा कोंबो आड्डूचे पयलींच फांतोडच्या पारार कमल परत दर्या देगेर पावतालें. सगल्या लोकांक ताची काकूळट दिसताली. थंयच कोण तरी ताका चायेचो घोट दितालो.

ह्या सोबीत फुलांच्या परमळान भरिल्ली जीण सुकून वचपाक, ताच्या जिवितांत खूब कितें घडलें. दुदान सैमानूच मिठा खडो घातिल्लो. नियती मुखार जशें कोणाचें चलना तशेंच सैमा फुडेंय कोणाचें चलना. सैमाचे बोंबलेंतल्यान आमी जल्माक येता आनी सैमाच्या भोंव-या मदीं नानपश्यात जातात. कमला वांगडचीं लग्नां जावन तांच्या भुरग्या बाळांचीं लेगीत लग्नां जाल्लीं. जण एकलो सुखान नांदतालो. कमल मात वाट पळयतालें. ताकाय आपलो संवसार सुरू करपाचो आसा. आपली इटुकलीं-पिटुकलीं भुरगीं रेवेंत खेळटना ताकाय पळोवपाचें आसा. देखून ताका ताचो मोगाचो हरी जाय. ताचें मन ताका सांगतालें, हरी येतलो...

ताचे कर्मगतीची काणी तशी काकूळट करपा सरकी. कमलाक पळयलें की लोक म्हणटाले

"दुस्मानाचेर लेगीत असलो वेळ येवचो न्हय गे बाये" सैमान अशें कितें केलें तर कमलाची जीण काळखी करपा सरकी?

खारवी वाड्यार त्या दिसा उमेदीचें वातावरण पातळिल्लें. जण एक खारवी भाव आपल्याच तालार नाचतालो. सगले आपल्याच नादान आसले. कोणाक कसलीच सूद नाशिल्ली. ह्या वाठारांत हरशीं ताज्या फडफडीत नुस्त्याची, सुक्या नुस्त्याची खारटशी हय न्हयशी दर्पटाण मारताली. पूण आयज दर्पटाणेच्या जाग्यार परमळ फांकिल्लो. शेंवतीं, आबोलीं, गुलाब हांचो परमळ तो. माथ्यार नुस्त्या पाटले घेवन भोंवपी बायलांच्या आंगार आयज भांगराचो भार जाल्लो. शिवरामान दोन माटोव घातिल्ले. ताकीद दिल्ली देखून सगलीं व्हडीं दर्या देगेर सुसेग घेतालीं. सुताचे पुनवेक लेगीत नासता ताचे परस उपाट उत्साह आयज तांकां जाल्लो. शिवरामाचे आपुरबायेचे धुवेचें आयज लग्न. ते खातीर पुराय खारीवाडो व्हंकले वरी सजिल्लो.

कमल नांवाक शिवरामाचें चली आसलें. पुराय खारीवाडो जीव ओत्तालो ताचे खातीर. पुराय वाड्याचें अप्रूप आशिल्लें तें. हात्या भशेन हातांचें, चाफेकळी नाकाचें, दिसपाक मोगरे कळी. पुराय आंगलोट नाजूक गुलाबाचे पाकळे वरी. सुंदर सोबीत. पुराय वाडो ताका 'दर्यासुंदरी' म्हणटालो. हेच मोगाळ दर्यासुदरेचें आयज लग्न. देखून हो सुवाळो चालू आसा. न्हंवरो ह्याच वाड्या वयलो. शिवरामाच्या शेजरा रावपी. दिसपाक राजकुंवर. आंगापांगान घटमूट. ताच्या तोंडार वडाच्या रुखाची सया मारताली. हरी म्हूण एक नवलूच कशें. आवयबापूय अशे निजाचे ताका कोण ना. पुराय वाड्याचोच पूत तो. बेशुद्ध अवस्थेंत दर्या देगेर शिवरामाक तो धा वर्सां पयलीं मेळिल्लो. गोरो-गोमटो. शुद्धीर आयले उपरांत लोकांक कळ्ळें, हाची स्मरणशक्ती ना जाल्या. ताका ताचे जिणे विशीं कांयच खबर ना. लोकांक दिसतालें आयज ना फाल्यां ताची स्मरणशक्ती परत येतली. पूण तशें केन्ना जालेंच ना. देखून पुराय वाड्यान जसो ताका पोसकोच घेतिल्लो. ताच्या पांयगुणान वाड्यार खूबश्यो ब-यो गजाली घडल्यो. देखून तो लोकांच्या मोगाचो जाल्लो.

खोशयेच्या बोवाळा भितर भटान "आली लग्नघटी समीप...केन्ना म्हळें

कोणाच्या लक्षांत आयलें ना. अक्षतांचो पावस पडलो. न्हंवर्‍यां व्हंकलेन एकामेकाक माळो घातल्यो. सगल्यो विधी मोठ्या दबाज्यान जाल्यो. जेवपा खातीर लोकांनी माटवांत आसा थंयच बसकण मारली. बसला थंयच पत्रा वळी तांच्या म्ह-यांत पावल्यो. हरशीं ताटांत पेज आनी नुस्तें आसतालें. आयज सोजी, खतखतें, मुगांगांठी पत्रावळ भरून भायर पडिल्ल्यो. सगलेजाण हात चाटून चाटून सोजी भुरकयताले.

हरशीं म्हण कमल सोबीत आशिल्लेंच. आयज ताचे कुडीक वेगळोच चंवर आयिल्लो. दिश्ट लागपी सया पुराय आंगभर पातळिल्ली. आयज भांगरां-शिंगरां घालून तें सोबीत बावली जाल्लें. सगले जाण एका हातान जेवणाची तुस्त करताले आनी नदरेन कमलाच्या रुपाची लक्तुबाय करताले.

रातचे सगले माटवांत परत एकठांय जाले. दर एकलो धोल आनी मेळटा तें वाद्य घेवन बशिल्लो. रात चडत रावली तसो नाच गाण्याक नेट आयलो. जाणटीं नेणटीं सगलींच नाचतालीं. नाचगाणीं सोंपले उपरांत दर्याभोंवडी आसली. दर्याभोंवडी ही खारवी समाजाची चालंत रीत. एक परंपरा कशी. लग्ना दिसा रातचीं बारा जातकच न्हंवरो सजयिल्लें व्हडें घेवन दर्यांत वाता. दर्याची भोंवडी करून कळसांत उदक हाडून व्हंकले कडेन दिता. नव्या जोडप्यान ह्या कळसाक नमन करून मागीर संवसार आरंभ करपाचो आसता.

नाचाक रंग चडलो तें पळोवन शिवराम सैरभैर जाल्लो. दर्याभोंवडेचो वेळ जायत आयिल्लो. वयर चंद्रिमा कडेन पळोवन शिवरामान वेळेचो अदमास घेतलो आनी माटवांत येवन नाच बंद करपाक लायलो.

“आरे! वेळ पळयात मरे. चंद्रीम देंवपाक लागला. उरिल्लो नाच कमलाच्या पयल्या भुरग्याच्या बारश्याक करात. चलात बेगीन दर्याभोंवडेची तयारी करात”.

सगले मात्शे निरशेले, पूण हरी खूश जालो. केन्ना एकदा दर्या भोंवडी जाता आनी उदका कळस हाडून कमलाच्या गो-या हातांत दितां अशें ताका जाल्लें.

ढम्...ढम्...ढम्...ढम्...! धोलार तोणी पडली आनी ओसय, ओसयच्या तालार हरीन आपलें सजयिल्लें व्हडें दर्यांत सोडलें. ताचे फाटोफाट ताच्या चार धेड्यांनी आपलीं व्हडीं दर्यांत सोडलीं. व्हडीं दर्यांत

वचत रावलीं. लोकांचे नदरेक तीं आतां बारीक दिसपाक लागलीं. हे वटे
धोलाचो आवाज वाडत रावलो. दर्याचो गाज आनी धोलाचो आवाज हांच
सुंदर मेळ जमिल्लो.

कोंब्यान सकली शक्त एकठांवन साद घालो तेन्ना सगल्यांक कळू
आयलें फांतोड जाल्या. धोल आनिकूय नेटान वाजपाक लागले. थं
रांदप्यांनी चुलीं पोंदा उजो घालपाची तयारी सुरू केली. नवी व्हंकल आयज
सगल्यांक आपल्या हातान वाडपाची आसली. शिवरामान कमलाक भाय
काडपाक लायलें. पाचवीचार साडी न्हेंसून करवले वांगडा कमल दर्यादेगे
आयलें. वालाची भरिल्ली सांग कशें दिसतालें तें. सगलो लोक दर्यादेगे
एक्ठांय जाल्लो. सगल्यांच्यो नदरो दर्या कडेन लागिल्ल्यो. ल्हव ल्हव
मळबांत उदेंतेचें तांबडें फाकपाक लागिल्लें. तरी भोंवडेकारांचीं व्हडीं दिश्ट
पडना जालीं. सगल्यांक हुस्को जावपाक लागलो. धोलाचो आवाज मोव
जालो.

"तरी तुमकां रातभर सांगतालों हांव, बेगीन भोंवडी सुरू करात. म्हजें
कोण आयकता. नाचून भेंडां मोडपाक पाविल्लीं तरी नाचताले"

"शिवा काका, मात्सो शांत राव. चड बोवाळ घालूं नाका. दर्यांत
पळय व्हडीं येवपाक लागल्यांत".

दर्यांत पयस बारीक थिपके दिसताले. ते सरशीं एकूच आवाज जालो.
मोव पडिल्लो धोलाचो आवाज परतून तेंगशेर पावलो.

"येयले रे! येयलेऽऽऽ" सगले परत नाचपाक लागले. कमलाच्या
पोल्यार ल्हानसो हांसो दिश्टी पडलो. एका जबाबदारेंतल्यान मुक्ती
मेळिल्ल्याची खोस शिवरामाच्या तोंडार पातळ्ळी.

व्हडीं लागीं येवपाक लागलीं. आनी गर्देतल्यान एकटो आड्डलो.

"चारूच व्हडीं दिसतात मरे!" सगल्यांच्या काळजाचे थेके बंद जाले...
धोल मोनो जालो... नाचप्यांचे पांय थंयच रोमून उरले. सगल्यांच्यो नदरो दर्या
कडेन गेल्यो. व्हडीं लागीं पावलीं तसो वयर माडार चडून तेळपी सख्यान
आवाज काडलो.

"धेड्यांचीं व्हडीं आसात. हरीचें व्हडें दिसना रे ऽऽऽ"

जालें चारूय वटांनी मसण शांतताय पातळ्ळी. कांय बायलांनी

किळाच मारली जाल्यार कांय जाणटीं बायलां तोंडार हात मारून बोबो मारपाक लागलीं. कमल धा पावलां पयस माटवांत आशिल्लें. कितें चल्लां ताका कांयच समजना जालें. कसलो तरी बोवाळ चल्ला इतलेंच ताका होलमतालें.

व्हडीं देंवणेक लागलीं आनी हरी वांगडा गेल्ल्या धेड्यांनी रेंवेंत पावलां दवरलीं. सगले लोक धांवत तांचे सरी पावले. दर एकल्याची नदर तांकां विचारताली. "न्हंवरो खंय?"

"हरी खंय रे आमचो?"

"शिवा काका, हरी... गेलो. हरी... दर्यांत बुडलो". फाटल्यांतल्यान एक मोठी हुयेल दर्या वेळेर पसरली.

"आरे, तुमी धेडे मरे, तुमचें काम कितें? तुमी कशे बुडले ना तर? तुमी फकत आहेर घेवपाक?" शिवराम खूबूच भावनावश जालो.

"शिवा काका, आमचें वल्लोवप सुरू जावचे पयलींच हरी अर्दार पाविल्लो. तांचें इतलें नेटान वल्हावप कोणाक जमता ह्या वाड्यार? ताचें आनी आमचे मदलें अंतर बरेंच आसलें. मदींच ताणें बॅटरी मारली. आमकां कळ्ळें हरीक मजत जाय. हरिच्या होड्यांत उदक रिगिल्लें. तो एका हातान वल्हें सांबाळटालो आनी दुस-या हातान उदक भायरावपाचो येत्न करतालो. मदींच एक मोटें ल्हार आयलें. हरी बेसावध आशिल्लो. आमी लागी पावचे पयलींच दर्यान तांचे व्हडें गिळ्ळें. आमी खूब सोदलो तेका. ते हुंडक्यांनी रडपाक लागले... पुराय वाडो रडपाक लागिल्लो..... पूण कमल? सगळे रडटाले पूण कमलाच्या दोळयांत दुकां नासलीं. तें निस्तेज, निर्विकार... नदर मात दर्या कडेन.

सुर्याचो रखरख वाडपाक लागलो तसो एक एकलो ना जावपाक लागलो. सगळयांचीं पावलां आपापल्या घरा कडेन वळपाक लागलीं. जण एकल्याचे दोळे तांबडे जाल्ले. रातच्या जागरणाक लागून काय रडून दोळे सुजले म्हण.. हें सांगप कठीण आसलें. कपलाक हात लावन बशिल्ल्या शिवरामाक सूद आयली. वयर तकली काडून पळयत जाल्यार कमल तशेंच उबें आसा. निश्चल.

"चल बाय, या घरा कडेन. नशिबाचे भोग ते भोगपाकूच जाय"

"बाबा, चल तूं घराकडेन. हांव वाट पळयता म्हज्या हरीची. तो येतलो

बाबा."

"ना बाय, आतां तो येवचो ना. ज्या दर्यान ताका हे वेळेर उडयल्लो ताणेंच ताका परत आपल्या गोपांत घेतला. आतां वाट पळोवन कांयच जावचें ना".

"हरी गेलो जाल्यार ताची कूड खंय तर?"

"मेळटली खंयचे तरी देगेर फाल्यां मेरेन."

"मागीर कूड मेळ्ळे उपरांतूच म्हजी प्रतिक्षा सोंपतली" तें निर्धारान उलोवन गेलें आनी त्या दिसाच्यान सदांच फांत्या पारार येवन तें हरीची वाट पळयता. देवाक खबर ही प्रतिक्षा केन्ना सोंपपाची.

***

# मोनो भास

निकतीच फांतोड जावपाक लागिल्ली. चारूय वटांनी काळोख पातळिल्लो. सकाळ अजुनूय आळशेताली. धरतरेर तिका घडयें इतले बेगीन येवपाचें नासत. रस्त्याच्या दोनूय वटांनी उबे आशिल्ले विजेचे खांबे आळसाविल्ल्या राखणदारा सारके दिसताले. शार आसलें तरूय कुशीक आशिल्ले झोपडपट्टेक लागून कोंब्यांचो साद आयकूंक येतालो. मदींच खंयतरी एके सदनिकेंतल्यान आलार्माची बेल वाजताली. चंद्रीम सगल्या नक्षत्रांक पोंतयेंत भरपाक गुल्ल आशिल्लो. ताका लेगीत शिपडिल्लीं नक्षत्रां एकठाय करून घरा परतुपाचें आशिल्लें. सूर्याचें आनी ताचें कशेंच पटना. सवणीं अजून जागीं जावपाचीं आसात. देखून किलबील बंद आसा. जॉगिंगाक वचपी लोकांच्या बुटांचो आवाज फुटपाथार न्हिदिल्ल्यांची न्हीद चाळयतालो. विनायक चांदेलकारांच्या बंगल्याच्यो लायटी केन्नाच पेटिल्ल्यो. फांतोडेर चारांक उठून दूरदर्शनाचेर योगाच्यो कार्यावळी पळोवपाचो नेम ते केन्नाच चुकय नाशिल्ले. चांदेलकारांगेर देवान सगलें दिल्लें. पयसो, गाडी, बंगलो सगलें आशिल्लें. सोबीत आनी जुवान चलयेच्या काकणांची किणकीण लेगीत घरांत पातळटाली. पूण उणी आशिल्ली ती गृहलक्ष्मी. ताची चली नेत्रा दोन वर्सांचें आसतनाच ताची घरकान्न ताका सोडून गेल्ली. सगलें आसुनूय चांदेलकर तेन्ना खूब रडिल्ले. जिवीतांत एकदांच.

योगाची एक कार्यावळ सोंपली आनी घड्याळान पांच फावटीं संगीत वाजयलें. पांच वरां जाल्लीं म्हणपाचें चांदेलकाराक कळून आयलें. नेत्राक उठोवपाचो वेळ जालो. बेगोबेग ते नेत्राच्या रुमांत गेले. नेत्रा सुस्त न्हिदिल्लें. सान भुरग्या सारकी ताच्या तोंडावयली ती सया पळोवन ताका उठोवं काय नाका हाचो तांकां प्रस्न सतायतालो. पूण उठयलें ना जाल्यार सगलें घर माथ्यार घेतलें आसलें. जॉगींग म्हणल्यार ताच्या जिविताचो मुखेल घटक. विश्वसुंदरी जावपाचे नदरेन आपले कुडीक शिस्तबद्द दवरप हें ताका खबर आशिल्लें. सकाळचीं दोन वरां तें फिटनेसाक दितालें. माजराच्या ल्हव आवाजान ते नेत्रा कुशीक बसले. ताची सोबीतकाय नियाळटाना ताच्या

इश्टाचीं उतरां तांच्या कानांत घोळ्ळीं.

"तुजें पिकॅन सुमित्रा वयनी परसूय सुंदर आसा मरे! हें आमच्या शाराचें नांव वयर काडटा पळय. विश्वसुंदरी नेत्रा एक दीस म्हाका काका म्हणटलें."

खरेंच, नेत्रा सुमित्रा परसूय सुंदर दिसतालें. पूण विनायकबाब दोगांकूय एकाच नदरेन पळयताले. आवय आनी धूव हांचे मदीं उजवें कोण? हो प्रस्न तांकां केन्नाच पडलो ना. सुमित्राक त्या वेळार कॉलेज सुंदरी म्हणून वळखताले. जाल्यार विनायक गिरेस्त बापायचो पूत म्हण. स्वताच्या रुपाक लागुनूच सुमित्रा व्हडल्या घराची सून जाल्ली. पूण ह्या रुपाचो धनी जावपाचें सूख चांदेलकारांक चड दीस मेळ्ळें ना. लग्नाच्या पयल्याच वर्सा नेत्रा जालें आनी दोन वर्सां भितर सुमित्रा ह्या संवसाराक अंतरलें.

नेत्राक जसो जॉगिंगाचो नाद आशिल्लो तशेंच सुमित्राक गार्डनांत वचपाक खूब आवडटालें. सुंदर-सोबीत झाडां-पेडां वांगडा ताची खर इश्टागत. सांजेचीं वरांचीं वरां तें गार्डनांत गुल्ल जातालें. चांदेलकार ताका म्हणटालें.

" कातरवेळार गार्डनांत चड वेळ रावप बरें न्हय. बंगल्या शेजारा हें सान गार्डन आसा न्हीं आमचें"

"म्हाका व्हडली बाग जाय! जंय हजारांनी फुलझाडां आसतलीं. आमी अशें करूया? आमच्या बंगल्या शेजारा जो प्लोट आसा तो विकत घेवया आनी पुराय प्लॉटार म्हज्या मना सरकें गार्डन फुलोवया." चांदेलकरांक ही कल्पना आवडिल्ली.

ल्हव ल्हव गार्डनाच्या कामाक नेट आयिल्लो. ल्हानशें सैम हांगा उबें राविल्लें. ल्हव-ल्हव तें चंवरतालें. आपले भौशीक बागेंतल्यान वेंचून-वेंचून ते कांय रोपे हाडटाले आनी रोंयताले. एक दीस अशेंच रोपे हाडपाक म्हूण सुमित्रा थंय गेल्लें तें परत आयलेंच ना.

रातच्या धा वरांचेर तांकां पुलीस स्टेशना वयल्यान फोन आयलो तेन्ना तांकां कळ्ळें सुमित्राचो खून जाला. थंयच गार्डना कुशीक.

"चांदेलकरबाब हो खून भांगरा खातीर जावंक ना. तुमच्या बायलेच्या आंगा वयलीं भांगरां तशींच आसात. तांचेर बलात्कार जाला. करपी घडये वळखुपी आसतले देखून तांणी बलात्कारा उपरांत तुमचे बायलेचो खून

केलो."

सुंदर, सोबीत म्हण जे कुडीची सगले कडेन चर्चा जाताली तीच कूड आयज धव्या कपड्यांत गुठलायिल्ली तांचे नदरे सामकार आशिल्ली.

"आमी रोखडेच खुन्या मेरेन पावतले." इन्स्पॅक्टराचीं हीं उतरां अजून ताच्या कानांत घुमतालीं. पूण गुन्यांवकार अजुनूय पुलिसांक मेळिल्लो ना. तेरा वर्सां जालीं.

पोदेराच्या पोंक-पोंक आवाजान चांदेलकार भानार आयले. भायर अजुनूय काळोख आशिल्लो.

"नेत्रा, ऊठ मगो बाय. जॉगिंगाक वचपाचो वेळ जालो." बापायच्या आवाजान नेत्राक जाग आयली. ल्हान भुरग्यावरी तें खाटीर उठून बसलें.

"थँक्यू पापा, गूड मॉर्नींग!" अशें म्हणत ताणें बापायच्या गालाचो ल्हव उमो घेतलो. विनायकबाबाल्या शिरंतरांनी मायेचीं ल्हारां कितलेशेच फावटीं धावलीं. आपली खोशी लिपयत तांणी ताच्या केंसांचेर हात भोंवडायलो.

"पिसाटा, बेगीन तयार जा. कळाव जालो जाल्यार म्हज्याच नांवान शबय घालतलें. गो! गो ! गो!"

खूब फावट विनायकबाब नेत्रा वांगडा ल्हान जाताले. नेत्रान खाटी वयल्यान उडी मारली ती बद्द बाथरुमा कडेन वचपाक. विनायकबाबाक अपुर्बायेन ताका पळयतच रावले. तांकांय धुवेच्या रुपाचें अप्रूप आसलें. लोक आपले धुवेच्या रुपाची तोंखणाय करतात तें पळोवन ताचें हड्डें फुलतालें. पूण ताच्या रुपाचो ताका केन्ना केन्ना भंय लेगीत दिसतालो. रुपेस्त चलयेचेर वासनाद्य केन्ना घुरी घालीत सांगूं लेगीत नजो. एक रुपेस्त अस्तुरी सुमित्राच्या रुपान अशीच असल्या लोकांचे भकीक पडिल्ली. बाजारांत भोंवपाक गेल्ले कडेन. कार्यावळींक वा पार्ट्यांक सुमित्रा कडेन एके वेगळेच नदरेन सगलेजाण पळयताले. हे नदरेचो विनायकबाबान धसको घेतिल्लो.

नेत्रा वॉश घेवन भायर आयलें. आंगार ट्रॅकसूट घालून तें बुटांच्यो लेसी बांदपांत गुल्ल आशिल्लें.

"नेत्रा, सुप्रिया येवंक ना मगो आजून. ताच्या घरांत उजवाडूय दिसना. कॉल क़रून पळय."

"पापा, तें आयज येवचें ना. बँकेचे परिक्षे खातीर तें मुंबय गेलां.

आयज हांव एकलेंच वतां."

"नाका रे बाबा! सुप्रिया ना जाल्यार तूं आयज भायर वचूं नाका. ट्रॅक मिलाचेर कितें करपाचें आसा तें कर."

"पापा, ट्रॅक मिलाचेर जॉगींग म्हळ्यार कागदाच्या गुलाबाचो वास घेवपा सारकें. सैमीक आनंद मेळना तातूंत. ट्रॅकमील फकत पावसांत वापरपाचें."

"आगो, पूण भायर आजून काळोख आसा न्ही!"

"पापा म्हाका अठरा सोंपलीं! काळखाक भियेवंपाचें म्हजें वय केन्नाच सोंपलें."

"बाय, चली भुरग्याक काळोख कांयच करीना, पूण काळखाचो फायदो घेवपी लोक ह्या संवसारांत आसात."

"पापा, म्हाका कराटे येतो. बाय!" अशें म्हणत तें केन्नाच दारा कडेन पावलें. विनायकबाब उलोवचे आदींच ताणें दार काडून दार माल्लें लेगीत.

विनायकबाबान ज्यूस हातांत घेवन परत टिवी कडेन आपली नदर केली. चॅनल बदलीत आसतनाच न्यूज चॅनलाचेर ब्रेकींग न्युजाच्या नांवा खाला धा वर्सां पयलीं एका मॉडेलाच्या खुन्याचो सोद लागिल्ल्याचें सांगताले. धा वर्सां पयलीं ह्या खुनान पुराय देश हादरिल्लो. कांय राजकी फुडा-यांचीं भुरगीं तातूंत सामील आसलीं. जावं धा वर्सां उपरांत ताका न्याय मेळटलो. पूण म्हजें कितें? सुमित्राच्या खुन्या मरेन अजून पुलीस पावूंक नात. आतां घडये ती फायल लेगीत बंद जाली आसतली. टिवी वयली ही खबर आयकून विनायकबाब बेचैन जाले. तांकां परत नेत्राचो हुसको जावंक लागलो. खंय पावलां आसतलें काय? भायर अजून मातसो काळोख आसा. ताका एकलें धाडपाक नाका आसलें. ह्या विचारांच्या गोंदळांतच तांणी गाडी भायर काडली आनी बद्द नेत्रा ज्या रस्त्यांत वता त्या रस्त्यांतल्यान गाडी धांवडायली.

रस्त्याचेर दूद विकपी, पेपर विकपी आनी जॉगींग, योगा, बी करपी लोक दिश्टी पडटाले. ल्हव ल्हव गाडी चलयत ते दर एकल्याक नियाळटाले. पुराय रस्तो सोंपून ते मुखेल ग्रावंडाचेर पावले. जंय नेत्रा व्यायाम करपाक निमणें येतालें. थंय खूब लोक आशिल्ले पूण नेत्रा खंयच दीस नासलें. ताणें हेरांक विचारपाक सुरवात केली. "नेत्रा आयिल्लें?"

नेत्राक वळखुपी एकल्यान म्हळें. "आयज तें आयलेंच ना"

आयज घडये नेत्रा जॉगिंगा उपरांत व्यायाम करचे पयलींच घरा गेलें आसतलें म्हण तांणी मोबायला वेल्यान घरा फोन केलो. पुराय रींग सोंपली. फोन कोणेंच उबारलो ना. आतां मात विनायकबाब भिरांकूळ जाले. तांणी बेगोबेग ताचे इश्टिणीक फोन केलो. घडये चेंज म्हण तें कोणागेरूय गेलां आसतलें. एक ना धा, हजार विचार ताच्या मनांत येवपाक लागले. सगल्या इश्टिणी कडल्यान परत जाप आयली!

सीताहरणा वेळार रामाची जी अवस्था जाल्ली तशीच विनायकबाबाची जाल्ली. हेवटेन तेवटेन ते बेश्टीच गाडी घुंवडायताले. बेश्टेच मर्दी कोणाक तरी फोन करताले. मर्दी दोनदा घरा फोन केलो. पूण कोणेंच उबारलो ना.

ल्हव-ल्हव उजवाड पातळपाक लागिल्लो. लोकांची जाग वाडपाक लागिल्ली. रस्त्यावयल्यो लायटी बंद जाताल्ल्यो. विनायकबाबाल्यो काळजाच्यो लायटी मात पीक-पीक जावपाक लागिल्ल्यो. कपलार घाम आनी दोंळयांनी अस्पश्टशीं दुकां अशी तांची आर्वातिकाय जाल्ली.

तांणी घरा निमणो फोन करून पळयलो आनी गाडी बद्द पोलीस स्टेशना वटेन घुंवडायली. पोलीस स्टेशना लार्गी पावपाक परत तांकां सुमित्राची याद जाली. गाडी अर्दे वाटेरूच बंद करून ते चिंतनांनी शेणले. पोलीशेंत वचून कितें जातलें. एकदां गेल्लो कितें फायदो जालो. आस घेवन गेल्लो, मडें पळोवपाचें दुर्भाग्य मेळ्ळें. काळीज घट्ट करून जाता तें जावं म्हण तांणी गाडी परत बंगल्या कडेन घेतली. दोंळयांतल्यान दुकांचो शिंवर चालू आसलो. गाडी रस्त्याचेरूच पार्क करून ते बंगल्या भितर रिगले आनी सोफार बसून रडपाक लागले. दोंळयां कडेन काळोख पातळपाक लागिल्लो.

"पापा, खंय तूं इतलो ओगोत?" आंवाजा सरशीं विनायकबाबान नदर वयर केली. तांच्या तोंडांतल्यान उतरांच फुटना जालीं. तांच्या दोळ्यांतलीं दुकां पळोवन नेत्राय काचाबूल जालें.

"पापा, दोंळयांनी दुकां कित्याक?"

तांचें मन कशेंच था-यार येना जालें. नेत्राक तांणी घट्ट गोपांत घेतलें.

"तूं जॉगिंगांक गेल्लें न्हय! म्हाका खंयच दिश्टी पडलें ना! ग्रावंडाचेर लेगीत तूं नाशिल्लें! हांवेन सगल्यांक फोन लेगीत केलो. तूं खंयच नाशिल्लें देखून हांव भियेलों"

"ताचें कितें जालें पापा! दार लावन हांव भायर मुखेल गेटी मेरेन

गेलां मात, काळोख पळोवन भंय दिसलो. हरशीं सुप्रिया आसता. काळखाचें व्हडलेशें दिसना! तशेंच फाटीं आयलें आनी मम्माल्या गार्डनांत जॉगिंगाक गेलें." नेत्रान स्पश्टीकरण दिलें.

"घरांत हांवेन खूब फावटीं फोन केलो. कोणेच उबारलोना. देखून हांव चड भिंयेलों."

"पापा, फोन डॅड आसा आनी हें तुकाय खबर आसा!"

"वायट विचारांनी सगलें विसरलों पुता हांव! चल बेगीन तयार जा. कॉलेजीक वचूंक जाय. हांव आयज मातसो उसरा ओफिसांत वतां."

"कित्याक?"

"तुजे मम्मा कडेन आयज खूब उलोवपाचें आसा."

इतलें म्हणून ते सुमित्राच्या स्पर्शान चंवरिल्ल्या त्या गार्डना वटेन चलत रावले.

***

# पिटर आनी शिला

"तुकां जमपाचें ना तें पिटर, तुवें फकत बडायोच मारप, वरस सोंपूंक पावलें अजून तुवेंन शिलाक सांगलेंच ना. आतां जमतलें?"

विभा पिटराक सांगतालें. साखळे कॉलेजीच्या कॅण्टिनांत दोगांय खबरो मारीत बशिल्लीं. तांचे हेर वांगडी अजून येवंक नाशिल्ले. कोलेजींत हो पंगड मातसो जगा वेगळो. अभ्यासांत जेमतेम पूण हेर कार्यावळींनी सदांच मुखार. पुराय कोलेजीचो हो पंगड म्हणल्यार जीव वा आत्मो म्हणल्यार जाता. पयले दिसा सावन तांची इश्टागत जमिल्ली. वांगडाच खेळप, वांगडाच कॅण्टीनांत, लॅक्चरां लेगीत वांगडाच बंक करप. ह्या पंगडांतल्या पिटराचें बिएससींतल्या शिलाचेर मन जडिल्लें. उट्टां-बसतां ताका तेंच दिसतालें. विभा ताका फकांडांनी सदांच म्हणटालें पिटर तूं विचार ताका. पूण ताणें ना म्हणलें जाल्यार मनाक लावन घेवं नाका हा. हांव तयार आसां तुजे कडेन लग्न जावपाक. सगलीं मागीर हांसून ताचीं फकांडां मारतालीं. ह्या पंगडांत चड पयशे पिटराच्या बोलसांत घोळटाले. आवयबापूय दोगांय गल्फाक कामाक आसतालीं. हो एकलोच साखळे रावतालो. शिला आनी तो शाळेंत लेगीत वांगडाच आसलीं. हायर सॅकंण्डरी लेगीत वांगडाच. हेर चलयां कडेन रोखडोच घोळपी पिटर शिला म्ह-यांत पावलो की थरथरतालो. ताच्या तोंडांतल्यान उतरां फूट नासलीं. पुराय कॉलेज ताका शिलाच्या नांवान चाळयताली. घडये शिलाक लेगीत हें खबर आसूंयेत.

"आरे पिटर हें कशें शक्य आसा. तूं क्रिस्तांव, तें हिंदू". विभान ताची खोड काडली.

"ख-या मोगाक धर्म लागना. हाचे पयलीं जाती भायलीं लग्नां जालीं नात तर?" पिटर तिडकेन उलयलो.

"आरे देवा, तूं ताचे कडेन लग्न जावंक सोदता तर? हांव समजल्लें बेश्टेंच खेळयता तूं ताका. हेर चलयां सारकें" विभा किटकीटपाक लागलें. "विभा, फकांडां मारूं नाका. हांवेन ताका सदांच भावार्थी नदरेन पळयलां.

ताका सदांच हांवेन वेगळ्या मखरांत बसयलां." पिटराच्या उतरांनी विभाय मात्शें बुचकळ्ळें शें.

"चल शिलाक घेवन हांगा यो. येवचे पयलीं ताका जाण करून दी हांवेन कित्याक आपयलां तें. चल बेगीन. तुका बरी काफी दितां."

हातांत काफीचो मग पूण पिटराचें लक्ष काफी कडेन ना. ताचें काळीज धडधडपाक लागलां. पुराय आंगाक थरथरो भरला. हाचें पयलीं जायत्या चलयां वांगडा तो भोंवला पूण ताची ही आवर्तिकाय पयलींच. कशी सुरवात करप, खंय सुरवात करप हाचो विचार करीत तो काफीचो घोट मारतालो.

कँटिना भायर बोवाळ सुरू जाल्लो. पिटराक कळ्ळें, बोवाळ सुरू जावप म्हणल्यार ताच्या पंगडाचे हेर वांगडी येवपाक लागल्यात. सगळेच कलंदर. पंगडांतलीं चेडवां लेगीत.

"शेट्टी, सगल्यांक भाजी हाड. हे पिटर! विभा खंय रे?"

हनुमंतान चर्चेक सुरवात केली.

"म्हाका कितें खबर, गेलां आसतलें हेडपाक. पूण तुमी आज उसरा येवपाचीं आसलीं न्ही?" पिटर काचाबूल जालो.

"तुमकां दोगांक सोडून आमचो जीव रमता? झक मारू तो एनएसएस म्हण आयलें." जयान म्हळें.

"आयज शिलाक पटोवपाक हाडिल्लें काय कितें रे आमकां फटोवन?" सगलीं किटकीटपाक लागलीं.

"हांव पटपाक एका पांयार तयार आसां पूण पिटर काना मनार घेना. ताका तें शिला आवडलां न्ही रे. ताकाच आपोवपाक गेल्लें. तें आयज येवंक ना, दुयेंत आसा खंय" विभान येना फुडें आपल्यो कागाळयो सुरू केल्यो. शिला दुयेंत आसा हें कळना फुडें पिटर अस्वस्थ जालो.

"खरें? कितें जालां ताका?"

"चल मरे तपासपाक. सगले कडेन सारकें तपास हां! आनी पळय कसलें दुयेंस तें." समीर पचकलो.

"एड्स बी न्ही मरे?" सगले हांसपाक लागले.

"ओग्गी बसात. बास्टर्ड..." अशें म्हणत पयलेच फावट पिटरान आपल्या वांगड्यांक दोन-तीन गाळी शेवटायल्यो. रागानूच उठून तो शेट्टील्या

गल्ल्या कडेन गेलो. शंबरांची नोट ताच्या टेबलाचेर दवरून नेटान भायर वचपाक लागलो. परिस्थिती वळखून सगलीं ताच्या फाटल्यान धांवलीं.

"पिटर, आमी फकाणा केली. Don't take it seriously"

"आमी एकामेकाचीं फकाणां करतात न्हीरे!"

"हे पिटर, रागार जावं नाका रे! चल आमी सगले सॉरी म्हणटात. चल या शिलागेर आमी सगलीं. हांव जाणा घर ताचें"

"चोंब्यान गेल्यार घरांत लेगीत दुबाव येवचो ना. तूं एकटो गेल्यार तांकां दुबाव येत घडये."

"चल सगलीं या. हनू तूं चल शेट्टी कडल्यान एक डझन केळीं घे. आमी गेटीर रावतात."

विभान पिटराचो राग निवळायलो. पिटराच्या दोळ्यांनी हय न्हयशीं दुकां दिश्टी पडटालीं.

"I am sorry" पिटरान म्हळें. सगल्यांनी ताचे खांदे थापटिले आनी पुराय पंगड मोन्यांनी भायर सरलो. ह्या तवनास पंगडाक असो ओग्गी पळोवन कॉरिडोरांतले सगलेच अजाप जाले.

शिला हें राजस्थानी हें सगल्यांक पयलेच फावट कळ्ळें. घरांतलें वाता वरण पळोवन शिलाक पयलीं दिसलें ताची खबर घेवपाक ताच्या वर्गांतलीं भुरगीं आयल्यां आसतलीं. पूण ह्या पंगडाक पळोवन तेंवूय मात्शें आबूज जालें. आपले खबरीक कोण तरी आयल्यात हाचें ताका मात्शें समाधान जालेंच.

"बसात ! हांव रोखडेंच येतां."

पिटर चोरून चोरून शिलाक पळयतालो. आनी ताचे इश्ट ताची ही चोरी हेरताले. शिला भितर गेलें तरी लेगीत पिटर त्या दारा वटेन ल्हव-ल्हव पळयतूच राविल्लो.

"कैसा है आप लोग? सब एकही क्लास मे है?" शिलाच्या बापायन चर्चेक सुरवात केली.

"ना, आमी आर्टस्. शीला सायन्स." विभान म्हळें.

"नाम क्या तुम्हारा?" सगल्यांनी आपापली वळख करून दिली.

पिटराचें नांव आयकना फुडें शिलाच्या बापायन नापसंतीचे हावभाव

केले पूण दाखोवन दिलें ना. घडये क्रिस्तांव मनीस तांगेर आयिल्लो ताक मानवलो ना, हें ताच्या चे-यावयल्यान कळटालें. पिटराक लेगीत तें समजू आयलें. समीरान बसला थंयच्यान ताका एक एस.एम.एस. धाडलो. "तें लव का क्या होगा कालीया? भगा के ले जाना पडेगा".

इतले मजगती शिला येवन विभाकुशीक बसलें. फाटोफाट विभाचं आई च्या घेवन आयली आनी तिचे फाटल्यान एक गोरो- गोमटो, खानदानं दिसपी तरणाटो शिला कुशीक येवन बसलो. व्यक्तीमत्व आकर्शक आसलें आसतलो वीस-बावीस वर्सांचो.

"बाबाची वळख जाली आसतलीच! ही म्हजी आई आनी हो गौरांग म्हजो घोव. कालूच राजस्थान साकून आयला. आमी दुसरेक आसतनाच लग्न जाल्लें आमचें. तो म्हज्या मामाचो चलो. आमी भोंवपाक वचप आसलीं पूण हांव दुयेंत पडलें म्हण मात्सो बेजार जालो."

सगळीं अजापान ताचीं उतरां आयकतच उरलीं. तांच्यो नदरो पिटर कडेन वळ्ळ्यो. ताचो चेरो पळोवपा सारखो जाल्लो. वदळच्यान शिलाक चोरून पळोवपी पिटर आतां ताच्या घोवाक चोरून पळोवपाक लागलो. च्यायेचो कप थरथरता हें जाणवतालें. धा चेडवां वांगडा भोंवपी पिटर शिलाच्या मोगान साप्प पिसो जाल्लो. ताचो चेरो खूब कितें सांगतालो. वात वरण मात्शें गंभीर जाल्लें पळोवन विभान तोंड उगडलें.

"शिला कितें जाला तुकां? Anything serious?"

"काय ना गो. मात्शी तकली दुखता. फांटलो खूब तेप जालो हे फावट घुंवळ येवपाक लागली म्हण दोतोरागेर गेलें. स्कॅन करपाक सांगलां दोतोरान फाल्यां."

सुमार अर्दवर हो पंगड हांगा बसलो पूण पिटरान तोंड उगडलें ना. पुराय वेळ तो ऐके नदरेन शिलाक पळयतालो आनी दुसरे नदरेन ताच्या घोवाक.

शिलाची खबर कळपा पसून पिटर मात बदल्लो. हांसपी-खेळपी पिटर ना जाल्लो. फकत कॅन्टिनांत बसून सिगरां मारपाचें काम करतालो. ताच्या सगळ्या इश्टांनी ताका समजायलो पूण तो कसोच सुदरना जालो. ताचें अभ्यासाचेर लक्ष नाशिल्लें. कॉलेज गॅदरिंगाक हे फावटी मजा आयली ना. कारण गॅदरींग गाजोवपी पुराय पंगड पिटराक मनोवपाक भोंवतालो. परिक्षेक

ांडेच दीस आशिल्ले. ती लागी पावली तशीं सोडून पिटर सगलीं अभ्यासांत ुल्ल जालीं.

एक दीस विभान ताका ती खबर हाडली. सगले कॅन्टिनांत बसून पराचेर चर्चा करताले. पिटर बाबडो कुशीक बसून मोबायलाचेर खेळटालो.

"पिटर, हनू, समीर बेगीन दोनापावला या. आयज शिलाचें ऑपरेशन आसा. फाटलो पुराय म्हयनो तें कॉलेजींत येवंक ना. कोणाकच खबर ना. चल या आमी". विभाचो आवाज थरथरतालो.

"अशें कितें जालां ताका तर?" बाबडो पिटर उलयलो.

"ब्रेन कॅन्सर"

कॅन्सराचें नांव आयकना फुडें पुराय ग्रूप शांत जालो. पिटराचो चेरो तर पळोवपा सारको नासलो. तो बाबडो अजुनूय ताचेर मोग करतालो.

"म्हज्या शिलाक कांयच जावंचें ना. म्हजो देवाचेर भावार्थ आसा. कांयच जावचें ना ताका. चल या आमी. हांव मोटार काडटा म्हजी. पिटर गदगदीत जावन उलयलो.

दोळयांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. हे फावटीं ख-यानीच. सांखळे ते दोनापावल मेरेन कोणूच कांयच उलयलो ना. पिटर गाडी चलयतालो. रस्त्या कुशीक उब्या आशिल्ल्या दर ऐका खुरसाक तो हॉर्न मारतालो आनी तेच बाराबर आपल्या बोटार कोतरायिल्ल्या खुरसाचो उमो घेतालो. मणिपाल हॉस्पिटलांत ह्या पंगडाक पळयना फुडें शिलाच्या बापायक मात्शें सूऽऽ जालें. तांचो असो हांगा कोणूच नाशिल्लो. परत भाशेचीं आडमेळीं येतालीं.

"कैसे हो बच्चो?"

"हम ठीक हैं। कहाँ है शिला? अंकल तूं भियेंव नाका आमी आसात तुजेवांगडा".

इतल्यान नर्सीन हाडून एक लिस्ट शिलाच्या बापाय कडेन दिलें.

"ही वखदां लेके आओ". खुर्चेवेलो उठपाक ताणें खुर्चेचो दांडो धरला मात. पिटरान कागद ताच्या हातांतल्यान ओडून घेतलो.

"तूं बस अंकल हांव घेवन येता."

"अरे बेटा वो महंगा है। पैसे तो लेके जा."

"पयशाचें मागीर पळोवया अंकल. पयलीं शिला बरें जावंदी".

अशें म्हणून समीर आनी पिटर भायर सरले. पुराय दिसभर ह्या पंगडान आपले इश्टिणी खातीर खूब त्रास काडले. पिटरान रगत लेगीत दिलें ऑपरेशना उपरांत सगळयांक दिसतालें शिलाक एक फावट पळोवचें. विभा मात भितरूच आसलें.

"तुमी दोगांच रावतालीं हांगा? जावंयाक सांगलें ना येवपाक?" पिटरान विचारलें.

"वो हरामी निकला। कल आया था। शिला की हालत देखकर चला गया साला, आज सुबह।"

"कित्याक गेलो तो? असलो कसलो घोव तर तो?"

" मेरा नसीब खोटा है बेटा। एक ही बेटी, लेकीन आज मैं भी अपने बेटी का मुँह देखकर डर जाता हूँ। वो तो पराया है।

इतल्यान विभा भायर आयलें. भायर काळोख दाटून आयिल्लो. सगळयांक घरा परतुपाची आस लागिल्ली.

"चलात या मरे आतां. फाल्यां येवया परत." विभान म्हळें.

"बरें अंकल येता आमी. काळजी घे."

पिटराचे पांय थंयच्यान येवपाक फाटीं सरताले. पूण सगले ताचे गाडयेन आयिल्ले. हॉस्पिटला कडेन फाटीं पळयत पळयत तो गाडयेन बसलो आनी गाडी सांखळेच्या रस्त्याक लायली."विभा कितें जालां शिलाच्या रुपाक. ताच्या घोवान सोडलें खंय ताका."

"गेलें रे शिला, हांव तरी देवा कडेन मागता. देवान ताका व्हरचें, ना जाल्यार हांगा रावन सदींच मरतलें तें."

विभाच्या आवाजान पिटरान गाडयेक कचा..यक करून ब्रेक मारलो. पूण तो कांय उलयलो ना. चेरो मात भंयांकृत जाल्लो.

"पिटर सॉरी रे. तूं फाल्यां पळय ताका. ताचे पुराय केंस गेल्यात. तोंडार दाग पडल्यात आनी वखदां खावन खावन खाटीर ताची फकत हाडांच दिसतात. जरी आतां जगलें तरी ते अर्द मेलें कशेंच जगतलें. आय एम सॉरी पिटर."

खूब वेळ कोण कांयच उलयलो ना. शेवटाक विभानूच तोंड उगडलें.

"पिटर हांवेंन तुज्यो भावना ताचे मेरेन पावयल्यो हां. हांवें सांगले

उपरांत ताच्या मोन्यां दोळ्यांतल्यान दोन दुकां भायर पडलीं. तूं फाल्यां मेळ आनी सांग तुका कितें सांगपाचें तें". रातच्या धा वरांचेर सगळीं घरा पावलीं.

सकाळ जायना फुडें सगळीं जाणां पिटराच्या घरा गेलीं. पिटराची मोटार थंय नाशिल्ली. तांणी ताच्या मोबायलाचेर कॉल केलो पूण फोन उबारना जालो. सगल्यांनी एकूच निश्कर्श काडलो. शिला आतां विद्रूप जालां. देखून पिटरान कॅट केलें आसतलें. हरशीं म्हण ताका फकत चलयोच आवडटा न्हय. एकेवटेन ताका बरेंय दिसलें तांचो पिटर परत हांसपा-खेळपाक वांटेकार जातलो. सगलींजाणां बशींत बसून दोना-पावला पावलीं. पळयत जाल्यार दवाखान्याच्या आवारांत पिटराची गाडी. शिटाचेर ताचो मोबायल. विझीटर्स रुमांत एका बाकड्याचेर शिलाच्या बापायच्या जाग्यार तकली दवरून पिटर सुस्त न्हिदला. सगलींजाणा तांचे सरी पावलीं.

"अभी सोया हैं. पुरी रात जाग रहा था. मैं और शिला की माँ सो गये. लेकीन ये उसके पास रातभर बैठा रहा."

आपल्या इश्टांक सोडून रातचोच पिटर सांखळेच्यान हांगा पाविल्लो. सगलेजाण शिलाक पळोवपाक भितर गेले. ख-यानीच शिला विद्रूप जाल्लें. एक बायल मनीस कशी नासची हाचें उदाहरण म्हळ्यार शिलाचें रूप. एक भयानक रूप ताणें घेतिल्लें. तांकां पळोवन ताणें दोळे मातशे किलकिले केले. हात उबारपाचो येत्न केलो आनी परत न्हिदेचे अदीन जालें.

वीस दिसा उपरांत दोतोरांनी हात वयर केले. आनी फकत मरणाची वाट पळोवपा खातीर शिलाक घरा धाडलें. हे मजगती पिटराची अवतिकाय काकुळटेची जाली. ताचें खावपा जेवपाचेर लक्ष नाशिल्लें. सकाळीं उठप आनी शिला कडेन वचप ताचो हात हातान घेवन मसाज करप. ताच्या पांयांक मालीश करप. ताचें मन ताका सांगतालें "शिला बरें जातलें" ताका केंस परत ना आयल्यार चलता पूण जशें आसा तशें ताका आपूण आपणायतलो. अशें कॉलेजी कडल्या क्रॉसाक तो सद्दीं सांगतालो. तिनसांज जाली म्हणटकच त्या क्रॉसा कडेन मेणवात लायतालो. पिटराची ही भक्ती पळोवन सगल्यांक दिसतालें घडये देव पिटराचें आयकतलो आनी शिलाक मरपाक दिवंचो ना. पूण भावार्था आनी निस्सीम मोगा परस काळ वरचड जालो आनी एका दिसा रातच्या इकरा वरांचेर ताच्या मोबायलाचेर एसएमएस आयलो.

"sheela is no more"

कांय खीण पिटर वोग्गी बसलो. परत परत तो मॅसेज पळोवंक लागलो. आनी ताच्या मनांत कितें विचार आयलो कोणाक खबर घरा फाटल्यान वचून ताणें पिकास हातांत घेतलो आनी तो चलपाक लागलो. शिलाची खबर कळनाफुडे हनुमंत, समीर, जय रातचे इकरांक पिटराच्या आदारा खातीर भायर सरिल्ले. तांकां बेठोच दुबाव आयिल्लो. पिटर घडये आपल्या जिवाचें कितेंय बरें वायट करीत म्हण भियेल्ले. ताच्या हातान पिकास पळोवन सगलेच काचाबूल जाले.

"पिटर खंय वता. कितें जालां. पिकास कित्याक?" समीरान विचारलें.

"कॉलेजी मुखार आसा तो क्रॉस फोडून उडयता. म्हज्या शिलाक बरें कर म्हण कितल्यो मेणवाती लायल्यो हांवेन. रात-दीस त्या क्रॉसा कडेन दिमी घालून हांव शिलाक बरो कर म्हणटालों." पिटराले दोळे तांबडेच जाल्ले.

"पिसो जाला रे! खुरीस मोडून शिला परत येतलें? वयल्यान फाल्यां पेपरांनी बोवाळ जातलो. कोणेतरी खुरीस मोडलो, हिंदुंचीं नांवां येतलीं. बेठोच गोंयभर बोवाळ जातलो. शिलाच्या आत्म्याक मागीर शांती मेळटली? ताचे खातीर पुराय गोंय पेटलां हें पळोवन ताचो आत्मो फडफडटलो. आनी तो तुका केन्नाच माफ करचो ना."

सगल्यांनी ताका सांबाळ्ळो आनी भितर घेवन गेले. रातभर कोणूच न्हिदलो ना. दनपारां बारा वरांचेर शिलाचेर निमणे संस्कार जाले. सगल्यांक दिसतालें पिटर रडटलो. पूण पिटर रडलो ना.

सांखळकाराल्या बारांत हरशीं तशी व्हड गर्दी नासता. त्या बारांत खावपाक मेळना म्हण. हांगा फकत पिवपी येतात. सात जाल्लीं तेन्ना सावन पिटर पेगाचेर पेग मारत बसला. ल्हव-ल्हव गर्दी उणी जाता. पिटर एकलोच टेबलाचेर. तो सिगार पेटयता. झुरको घेता, सिगाराचें तोंड उज्यान तांबडेंच जालां. म्हणटकच तें हाता वयल्या खुरसाक लायता. सुमार धा मिणटां हें चालू उरता. बोटाचेर पाडिल्लो खुरीस तो लासोवन उडोवन नानपश्यात करता. सांखळकाराक तो देखावो पळोवं नजो जाता.

"पिटर पुरो आतां. पुराय कात लासली तुवेंन. चल घरा". पिटर शुद्धीर नाशिल्लो. वेटराक सांगून सांखळकार ताका घरा सोडटा.

दोन दिसा उपरांत पिटर दुबय वता. आवयबापाय कडेन. सासणाचो.

परत न येवपा खातीर. सांखळे कॉलेजी कडलो खुरीस मात अजून थंयच आसा. पिटराच्या अस्तित्वाची जाणीव करून दीत.

***

# ब़ाबा, म्हजी कथा!

गोंयांतूय आतां झोपडपट्टी वाडूंक लागल्या. प्रत्येक शारांत एक तरी झोपडपट्टी आसाच. तातूंतले तातूंत पोरणी आनी व्हड झोपडपट्टी म्हणल्यार चिंबलाची म्हणूं येता. पुराय भारत हांगा वसता. झोपड्यो लेगीत तरातरांच्यो. कांय कापोती गुठलायिल्ल्यो जाल्यार कांय उब्या चि-यांनी बांदिल्ल्यो. कांय कडेन नितळसाण जाल्यार कांय कडेन पांय घालपाक लेगीत जिवार येतालें. थंयच हागप, थंयच मुतप, उश्टीं आयदनां मेळटा थंय घांसप, सगल्या तरांचें उदक एकठांय जावन एका जाग्यार रावलें म्हण्टकच थंयच तांच्या पोरांनी उदकाचो खेळ मांडप. तांच्या पोरांक सरकारी संडासाची एलर्जी आसत घडये. रस्त्याच्या दोनूय वटांनी परसा कडेन बसपाची तांकां भोवूच खोस. पुराय वाठारांत मुताच्यो खातसाणी.

अश्या ह्या वीट हाडपी वाठारांत एक खोंप मल्लप्पाची आसली. चार बाय चारची खोंपटी ती. घरांत सामाना परस मनशां चड. मल्लप्पाची बायल दुरपदी. मोटो पूत बबन आनी निमणो सावळो. बबन चवदा-पंदरा वर्सां पिरायेचो आसूं येत. हे सान पिरायेचेर तो कामाक वयतालो. सकाळ जायना फुडें दुरपदी सगल्यां खातीर रोटयो थापताली. तीन रोटयो आनी चटणी कपड्यांत गुठलावन, खांदार वालो उडोवन सावळो सोडलो जाल्यार तिगांय कामाक वयतालीं. पणजे आनी हेर वाठारांत जायत्यो इमारती उब्यो रावताल्यो. देखून मनशांच्या बाजारांत उबे रावले की कोण ना कोणूय कंत्राटदार तांकां आपले उकते जिपींत घालून व्हरतालो. कातर वेळार परत हाडून त्याच जाग्यार सोडटालो. तिगांय जाणां कामाक गेले उपरांत ह्या खोंपटाचो सावळो पात्रांव जातालो. दारांत बसून रावतालो तो. कोणूय भुरगीं आयल्यार थंयच खेळप, शेवणीं आयल्यार तांकां धांवडावन घालप हें ताचें मुखेल काम. दनपारां भूक लागली म्हणटकच पाटल्यांतली रोटी खावप आनी न्हीद आयली जाल्यार थंयच आड पडप. तिगांचीय मेळून दिसाक तिनशें रुपयांची जोड जाताली. पूण तरूय तांकां ती येणावळ उणी पडटाली. मल लप्पाक काम सोपना फुडें सोरो जाय पडटालो. खोंपटांत सामान दवरून तो कंत्राटदारान दिल्ले पयशे घेवन आण्टीच्या तावेर्ना वटेन पावलां मारतालो.

बापायक सोरो आनी बबनाक गुठख्यार्चीं पाकिटां लागतालीं. गाड्या वयलें चिकन ताका रूच हाडटालें. तशें पळोवपाक गेल्यार दुरपदीच्या पयशानूच घरांत पेज शिजताली. भूतकाळ आनी वर्तमानकाळ तिका पिडटालो जाल्यार फुडार तिका सपनां दाखयतालो.

हुम-यार बसून मांजराचे शेपटेक गांठ मारपी सावळ्या कडेन पळोवन तिका येवपी काळ सपनां दाखयतालो. तिकाय भांगरा खीण अणभवचे अशे दिसताले.

दिसपट्ट्या तिच्या संवसारांत मोग करपा सारकें कांयच नाशिल्लें. कल्लप्पा सोरो पियेवन घरा उसरा येतालो आनी ताटांत कोंबडी कित्याक ना म्हणून झगडीं उपरासून काडटालो.

"कोंबडी खायन दिसता तर येतना घेवन येवची, झाडाक लागनात त्यो, पयशे पडटात तिका."

"तूं शिनाल म्हाका परत्यो जापो दिता" अशें म्हणून राग उकतायतालो. आनी सो-या घुंवळेंत कितले पयशे जाय म्हणून बोलसांत हात घालून हाताक लागता ते दुरपदे म्ह-यात शेवटितालो. सो-या नेटार ताका कांयच कळ नासलें पूण ह्या बोवाळांत किरवटेक चार पयशे एकठांय जाताले. बाकीच्या खोंपटांतले लोक रातच्या सदांच्या बोवाळाक लागून खुबळटाले, पूण दुरपदे कडेन पळोवन ओग्गी रावताले. कल्लपाक राग रोखडोच येतालो. मातशें ताच्या मना परस वेगळें घडत जाल्यार घर माथ्यार घेतालो.

सावळ्याक पांचवें वरस सोंपून सवें लागपाचें आसलें. कल्लप्पाच्या इश्टा बाराबर तो येन्ना धर बूट पॉलीश करपाक लागिल्लो. रंगा नांव ताचें. सकाळीं आपली पिशवी घेवन सदांच तो रंगा फाटल्यान वयतालो. धंद्यांतली बारीकसाण शिकून घेतालो. बुटांक पॉलीश करप, लेसी बांदप हे सारकीं कामां करपाक तो रंगाक मजत करतालो. दनपरां रंगा जेवन आड पडलो की तांच्या सामानाची जतनाय घेत बसतालो.

"पात्रांव बुटपॉलीश" फुटपाथा वयल्यान वचपी कोणाच्याय पांयांत चामड्याचे बूट दिसले की सावळो उलो मारतालो. ताचो ल्हान आवाज आयकून लोक येतालेच. दोळे किलकिले करून सावळो तांचे कडेन पळोवन मुमुर्ख्यांनी हांसतलो. सावळ्याच्या निमतान रंगाचो धंदोय बरो जातालो. तिनसांजेचो घरा पावतकच धुरपदीच्या हातार पांच रुपया दवरतालो. ते पयशे घेतना धुरपदेक कायचे काय जातालें. पूण ती घेना जाल्यार कल्लप्पा घेवन

सो-यार उडयता आसलो.

खूबश्या खोंपटांतलीं भुरगीं शाळेंत वयतालीं. तांचे झोपडपट्टेतूच एक बालवाडी आसली. तातूंतलींच कांय भुरगीं मागीर शाळेंत वयतालीं. सावळ्याचो आनी बालवाडेचो संबंद फकत उसळ खावपा इतलोच. उसळेच्या वेळार तो नेमान थंय पावतालो. दुरपदेक दिसतालें सावळ्यान शाळेक वच्चें. बरो हुशार जावचो आनी दळडिरे जिणेंतल्यान तांकां भायर काडचीं. हेर भुरग्यांचे फाटी वयल्या दप्तरांक पळोवन तिकांय दिसतालें. सावळ्याचे फाटिरूय अशेंच दप्तर लोमकळपाक जाय. एक दीस कल्लप्पा कडेन तिणें विशय काडलोच.

"हांव कितें म्हणटां आयकलां?" घोवा सामकार तांतयांचो रोस ताटांत घालून दवरलो. तांतयां पळयना फुडें कल्लप्पाच्या तोंडार हांसो फुट्टा हें तिका खबर आसलें.

"कितें म्हणटा तूं?" तांतयां रोसांत भाकरी बुडयत ताणें विचारलें.

"हांव म्हणटालें, माय म्हयनो सोप्पाक अजून पंदरा दीस उरल्यात, जुनांत शाळा सुरू जातात"

"शाळेचो आनी आमचो संबंद कितें तर? आमी फकत शाळेचें काम येयलें जाल्यार कायली माथ्यार मारून रेंव ओतची, स्लॅब घालपा खातीर".

"आमचे झोपडपट्टेंतले खूबशे भुरगे चिंबला शाळेत वतात, तांचे वांगडा आमच्या सावळ्याकूय धाडुया? ल्हानसो पोर तो, बुटपॉलीश करपाक वता तें बरें दिसना पळोवपाक" एक दवलो रोस दुरपदीन ताच्या ताटांत घालो.

"शाळा म्हणजे फकांणां न्हू, खूब खर्च येता तिका, शिक्षण लेगीत म्हारग जालां अशें आमचो कंत्राटदार कोणाक तरी सांगतना आयकलां हांवें, पयशे आसात व्हय तुजे गांठीक? ल्हान पिरायेर जोडपाक शिकलो जाल्यार घरांत पयशे चड येतले. रंगा दिता मगो पांच रुपया?"

"फुडलो विचार करना तूं? सावळो जर शिकलो तर खंयच्या तरी कंत्राटदारा कडेन मास्तर म्हूण कामाक लागतलो. आमी कायली उखल्ल्यो. तेणें उखलप समा न्हय. मास्तरा कडेन सगलें आसता. समाजांत रेस्पेद आसता. तुमकां भायर तावेर्नांत बसपाची गरज ना. सावळो येतनाच बाटली हाडटलो तुजे खातीर, गांवठी सोरो बरो न्हय, मनीस बेगीन मरता".

सो-याचो विशय धुरपदेन मुद्दाम काडिल्लो. ताच्या वर्माचेर तिणें बोट

दवरिल्लें. हात धुता आसतना कल्लप्पाचे दोळे लकताले. खाद्या वयल्या वाल्याक हात पुशीत तो बायले शेजाराक येवन बसलो.

"पूण खर्चाचें कितें?" हातांत तंबाखू घेत ताणें विचारलें.

"खर्च कसलो? आमी तिगांय जोट्टांत. काटकसर करुया. पांचा उपरांत जाय जाल्यार हांव शेजारच्या फ्लॅटांनी कामाक वचन. बबनाकूय मातसो जाग्यार हाडूया". कल्लप्पाच्या कपला वयल्यो आठयो मातश्यो उण्यो जायत रावल्योश्यो.

"कल्लप्पा, येयनय रे कामाक? आयज डबो घेव नाका. दोनापावला होटॅलाचें काम आसा. जेवण थंयच मेळटलें".

"येयलों, येयलों" अशें म्हणत ताणें हातांत घेतिल्ली दब्याची पिशवी धुरपदे कडेन दिली.

"मागीर कितें करुया शाळेचें?" कल्लाप्पा मुमुख्यांनी हांसलो आनी चलत रावलो. कल्लाप्पाचे फाटकुळेक पळोवन तिका कांयच समजलें ना. ताणें शाळे बद्दल हयूय म्हणूंक ना आनी नाय म्हणूंक ना. साद घालपी वांगड्या वांगडा तो नेटान पावलां मारीत खोंपींतल्यान भायर सरलो.

कामा वयल्यान येतना सदचे वरी तिनसांज पातळिल्ली. दुरपदेन झिळींतल्या कांय शिरपुटांचो भरो माथ्यार घेतिल्लो. येतना सदांच ती मेळटा तीं शिरपुटां पुंजायताली. खोंपीचे आळीन भितर सरली तेन्ना सावळो मांजराच्या पेट्या कडेन खेळटालो. पांया तोंडार उदक घेवन ती बेगीन भितर सरली. आनी रांदपाचे तयारेक लागली. कल्लप्पान आयज बरोच कळाव केल्लो. तिका दिसलें आज घडये येतनाच घेवन येता दिसता.

"आई, बाब येवंक ना गे?" मांजराच्या पेट्याक खेळयत सावळ्यान विचारलें.

"आयज दोनापावला होटॅलाच्या कामाक गेला. थंयच कोण फोरेनर मेळ्ळो आसतलो. ते खंय आमच्या वावराड्यांचे फोटे काडटात आनी तांचे बदलाक पयशे दितात. आयज घडये अशेंच जालां आसतलें. पोरांक शिको वपाक पयशे ना फोलगां मारपाक आसात". नळयेंत चुलींत फूंक मारीत ती बडबडपाक लागली. आपणे बेश्टोंच बापायचो विशय काडलो. मांजराच्या पोरांक तांचे आवय कडेन सोडून तोवूय खोंपटांत भितर सरलो.

सावळ्या फाटोफाट कल्लप्पा भितर सरलो. ताच्या चे-याचेर कामाचो झोंग दिश्टी पड नाशिल्लो. भितर सरना फुडें सोर्याचो घमघम येतालो तोय

नाशिल्लो. हात-पांय धूवन तो भितर म्हेडीक तेंकून बसलो.

"दुरपदे, बरी च्या करून दी पळोवया".

"ह्या वेळार च्या?" तिकाय अजाप दिसलें.

"दोना पावला होटलांत चार फावटीं घेतली. पूण तुज्या हातची चव ना गो ते च्याक" दुरपदेक ह्या उतरां बरोबर कितें उलोवं कितें नाका कांयच समजना जालें. असल्या भावनीक उतरांची त्या खोंपटाक सवंय नाशिल्ली.

"आई, आज घमघम ना मगे. बाबान सोरो सोडलो रे?"

भितर सरना फुडें बबनान पिशवी खिळ्याक लायत प्रस्न केलो.

"हांव आनी सोरो सोडटां? आतां हांयेन भायर सोरो पिवप बरें न्हय, लोक कितें म्हणटलो?"

"अब्बा! तुका आनी लोकांची पर्वा केन्ना धरयां लागूंक लागली?"

"आरे, म्हाजो सावळो आतां शाळेक वयतलो, हांयेन जर सोरो पियेवन बोबाळ घालो तर हेर भुरगीं ताकां हांसतलीं, म्हणटलीं सावळ्याचो बापूय बेबदो. त्रासांत तो मागीर शाळेंत वचपाचें नांव काडचो ना. तेका लज दिसपाक जायना शाळेक वयताना".

कल्लप्पाचें बरोबर आसलें. शाळेंत बापायच्या वेसनाक लागून भुरग्यांमदी न्युनगंड तयार जातालो आनी लजेक लागून तांचें अभ्यासांत लक्ष लाग नासलें, देखून वावराड्यांचीं भुरगीं आभ्यासांत फाटीं उरतालीं. शाळाय सोडटालीं.

"म्हणजे सावळो साळेंत वतलो तर? बरें आसा "

च्या करपाक दवरिल्लें आदन आटपाक पाविल्लें तेन्ना धुरपदीचें थंय लक्ष गेलें. कल्लाप्पाच्या उतरांनी तिका सर्ग दोन बोटां पयस उरिल्लो. च्यायेच्या तोपांत आनीक उदक घालीत तिणें विचारलें.

"खरेंच सावळो शाळेक वयतलो? मागीर सकाळीं हय कित्याक म्हटलें ना तर? म्हाका दिसलेलें..."

"सुरवातेक म्हाका नाकाच दिसतालें. पूण मुकादमान लेगीत म्हाका समजायिल्लो. गरीब भुरग्यांक शिकपा खातीर सरकार खंय पयशे दिता. आमकां चड खर्च ना"

आपलें एक व्हड सपन पुराय जाता तें पळोवन धुरपदी कवतुकान घोवा कडेन पळयताली. पयलो भुरगो जालो तेन्ना तिची नदर घोवाक पळयताली तेच नदरेन आयज पळयताली. उमेदीन आयज तिणें च्यायेक दूद

चडूच घालें.

"सावळ्या, रंगाक सांगून यो. फाल्यांच्यान तूं कामाक येवपाना म्हण "

"ताका काळखाचो धाडी नाका, बबन तूं चल रे, सांगून यो"

"मुकादम म्हाका शाळेक घेवन गेलो. नगरपालिकेंतल्यान जल्माचो दाखलो जाय. तो लेगीत वळखीन काडटलो तो. फाल्यां सावळ्याचें नांव शाळेंत घालतां हांव". सावळो शाळेंत वतलो हाची खोस दुरपदे परस ताकाच चड जाल्ली.

जून सुरू जावन मिरग सुरू जाल्लो. पावसा दिसांनी खोंपटांनी रावपी लोकांचे खूबूच हाल जाताले. सामकें रेंब्यांत तांकां रावचें पडटालें. पूण तेंवूय सवंयचेंच जाल्लें तांकां. रेंब्याचे खातसाणींतल्यान वाट काडीत सावळो आज शाळेक वयतालो. ताच्या सांगातान हड्डें फुडें काडून कल्लप्पाय चलतालो. लोक दोगांकूय कवतुकान पळयताले. पयलेक पास जावन आयला तो. दुसरेक आसलो. निकाल जालो तेन्ना कल्लप्पान आपल्या इश्टांक पार्टी दिल्ली. ताच्या घराण्यान पयलेच फावटीं कोणतरी पास जाल्लो. कल्लप्पाक अभ्यासांतलें कांयच कळ नासलें. पूण पुताक नेमान तो आपल्या वांगडा शाळेंत व्हरतालो. दनपरां हेर भुरग्यां वांगडा तो परत येतालो. जे पिशवेंत सावळो बूट पोलिशाचें सामान दवरतालो तेच पिशवेंत आतां पाटी, पेन्सील, चोपडी दवरतालो. सावळ्याचे शाळे खातीर एक बरी गजाल घडिल्ली ती म्हळयार सद्दां तिनसांजेचो सोरो पियेवन बोबो मारीत येवपी, सुण्या, सवण्यांक गाळी मारीत येवपी कल्लप्पा सुदारिल्लो. कामा वयल्यान तो नीट घरा कडेन येतालो. केन्ना पियेनशें दिसलें जाल्यार घरा हाडून ताळो वलो करतालो. शाळेक खर्च बरोच येता हें ताका आतां समजून आयिल्लें. सरकारान दिल्ले पयशे खंयच पावनात तरूय तिगांय जोडटालीं म्हण सगलें बरे भशेन चलतालें. शाळेचो गणवेश घातले उपरांत सावळ्याक तो झोपडपट्टेंत रावता अशें कोणूच म्हणचो नासलो. धवोफुल्ल युनिफोर्म, काळे चकचकीत बूट, केंसांक तेल लावन बरो भांग काडून वयतालो. शारांतल्यो शाळा नितळसाणेक चड म्हत्व दितात हें ताका पळयल्यार समजून येतालें.

सावळो शिकपाक तसो हेर भुरग्यां सारकोच आशिल्लो. चडान चड मार्क घेवपाचे सर्तींत तो केन्नाच नासतालो. पाठांतर वेवस्थीत जातालें. पूण गणीतांत मार खातालो.

"आज कितें शिकयलें रे शाळेंत?"व्हड उमेदीन कल्लप्पान सावळ्याक विचारलें.

"तुका अभ्यासाचें कितें कळटा?" दुरपदेन धेंगसो घातलो.

"आगो, मुद्दाम म्हणटां! भुरग्यांक सद्दीं विचारूक जाय खंय! ना जाल्यार तीं अभ्यास करिनात"

एक वेगळेंच वातावरण ते खोंपींत पातळिल्लें. पुराय कुटुंब सावळ्याचे शाळे भोंवतणी घुंवतालें. बबन शाळेंत वतना ताका चॉकलेटी दितालो जाल्यार आवय सद्दां दिश्ट काडटाली.

पळयतां पळयतां केन्नाच चार वर्सां सोंपलीं. आयज चवथेचो निकाल. घोव बायल दोगांय जाणां आयज कामाक वचूंक नासलीं. चवथेचें वर्स खूब म्हत्वाचें अशें मुकादमान दोगांय जाणांक सांगिल्लें. पयसुल्यान सावळो धांवत येता तो पळोवन दोगांय उठून उबीं रावलीं. पयलेक सादारण आशिल्लो भुरगो चवथेक शाळेंत दुसरो आयिल्लो. ताचो निकाल पळोवन घोवबायलेक कितें करूं कितें नाका जालें. दुरपदी तर ताका उखलून ताचे उमे घेत रावली. तांकां दिसतालें तांच्या घोंटेरांतल्यान शेवण्याच्या पिलान दिगंतराक झेप घेतल्या. आख्खे झोपडपट्टेक तांणी चॉकलेटी वांटल्यो.

तिनसांजेच्या पारार ताचें घर सोदीत सावळ्याचो मास्तर सावळ्यागेर आयलो. मास्तराक पळोवन तिगांकूय लज जाली. घरांत बसपाक कांयच नासलें.

"सावळ्या, चल रे रंगाली खुर्ची घेवन यो" बापायन फर्मायलें.

"नाका, हांव चड वेळ बसचोंना. हांव विचारपाक आयलां, सावळ्याक खंयचे शाळेंत घालतलीं तुमीं? आमचे शाळेंत फकत चवथे मेरेन शिकयतात. पूण ताका घरा मात बसोवं नाकात हां! खूब हुशार आसा तो. पूण शक्यतो मराठी माध्यमांत घालात ताका. मराठी बरी आसा ताची. इंग्लीश शाळा घडये ताका पेलची ना. फाल्यां येयात आनी सावळ्याचो दाखलो घेवन वचात. दुसरे शाळेंत जाय पडटलो."

मास्तर गेलो पूण कल्लप्पा मात्सो नाराज सो जालो. जेवले उपरांत ताणेंच विशय काडलो.

"मास्तर कितेंय म्हणुंदी, म्हाजो चेडो इंग्लीश शाळेंतूच वतलो."

"मुकादम म्हणटालो. दोतोर, इंजिनेर जावपाचें आसत तर इंग्लीश शाळा उपकाराक पडटा."

"आमचे कडेन पयशे आसात ताका दोतोर करी सारके?"

"तें काय ना. म्हजो पोर हुशार आसा. तेच्या नशिबांत आसा जाल्यार

तो दोतोर जायतूयबी. पयशे सरकार दितलो"

"पूण तेका जमपाक जाय न्हू तें"

"तूं ओग्गी राव. इंग्लीश म्हळ्यार इंग्लीश, ना जाल्यार शाळाच नाका"

शाळा नाका म्हणिना फुडें दुरपदी भिंयेली. कल्लप्पा आसलोच तसो.

ख-यानीच गजाल ना म्हळ्यार ख-यानीच ना म्हणटालो. कसोय जावं आपलो पूत तिका शिकिल्लो जाय आसलो. माध्यम कसलेंय जावं तिची इत्सा स्पश्ट आसली. आपलो पूत मुकादम जावचो. ताणें कायली उखलच्यो न्हय.

" जाय तशें करात पूण म्हाज्या पुताक शिकुंदी" अशें म्हणत तिणें शेंदरेरूच आपली फाट तेंकयली.

परत एक जून. परत एक फावट शाळा आनी परत एक फावट पावस. आयज सावळ्याचो रुबाब मात्सो वेगळो आशिल्लो. नवीन ड्रॅस, नवीन बूट आतां टाय लेगीत आशिल्लो. पुराय झोपडपट्टेंत इंग्लीश शाळेक वचपी सावळो एकलोच. चडशे भुरगे मराठी शाळेंत वताले. बॅग आनी वॉटर बॉटल घेवन वचपी सावळ्याक पुराय शेजारी कवतुकान पळयताले.

नवीन शाळा, नवीन वाठार, सगले कडेन चकचकीत नितळसाण. शाळेच्या पयल्याच दिसा सावळो कांचावलो. शारांतलीं भुरगीं इंग्लीशेंत बरीं आसलीं. सावळ्याक मुळावीं अक्षरां सोडलीं जाल्यार कांयच खबर नाशिल्लें. मराठी आनी हिंदी हे दोनूय विशय ताका पयलेच दिसा आपले दिसले. शाळेंतली सगल्यांत चड वस्तू सावळ्यांक खंयची मानवली तर ती शाळेचें वाचनालय. कितलिंशीच पुस्तकां. तिसरेक आसतना सावन ताका काणयांचीं पुस्तकां आवडूंक लागिल्लीं. मेळटा तें पुस्तक तो वाचपाचो येत्न करतालो. मदले सुटयेंत सगलीं भुरगीं खावपांत गुल्ल आसतालीं तेन्ना तो वाचनालयांत वचून पुस्तकां वाचून काडटालो.

दोन सत्र परिक्षा जाल्यो. सावळो दोनूय फावटीं नापास. फकत मराठी आनी हिंदी ह्या दोनूच विशयांत पास. हेर सगले विशय इंग्लिशेंत आशिल्ल्या कारणान समजुपाक ताका जड जातालें. देखून तो चड लक्ष दीय नासलो. वर्गांत टिचर शिकयताना ताचें मन सकाळीं वाचिल्ले कथे विशीं विचार करतालें. मार खाल्ले बगर तो केन्नाच घरा आयलो ना. शेवटाक निमणे परिक्षेंत सावळो नापास जालो हें आख्खे झोपडपट्टेक कळ्ळें. कांय जाण चुरचूरले जाल्यार कांय जाणांक उलोवपाक संद मेळ्ळी.

"कोणें सांगल्या घाटयाक इंग्लीश शाळा?"

"आमचीं भुरगीं पास जालीं ना? नेट मारपाक गेल्यार अशेंच जाता."

तिनसांजेचो कल्लप्पा बरोच हालत घरा पावलो. दुरपदेक हें पयलींच खबर आशिल्लें. घरांत भितर सरना फुडें तेणें गाळींचो शिवर सुरू केलो.

"खंय गेलो तो बूट पोलीश करपी? दळ्डिरो! नापास जावन घरा येता? लज दिसना?"

ताच्यो गाळीं चालू आसतनाच दुरपदेन ताच्या मुखार ताट दवरलें. ताटांत कोंबडेचो घमघम पळोवन कल्लप्पाचो अर्दो सोरो निवळ्ळो. उरिल्लो सोरो कोंबडेचे तिखसाणेक लागून देंवलो. कोंबडी कल्लप्पाची नाजूक नस हें तिका खबर आसलें. रातचीं इकरा जाता म्हणसर बरोचसो सोरो निवळिल्लो.

"जेवलो गो तो?"

"ना! रडत बसला. तरी हांयेन तुमकां तेन्नाच सांगलेलें तेका मराठी शाळेंत घालया. तुमी आयकलें ना. मराठींतलीं सगलीं भुरगीं पास जालीं. मास्तरान लेगीत सांगलेलें. कोणाचेंच आयकलें ना. म्हाज्या पोराक त्रास" हांतरूण घालीत दुरपदी उलयली.

" दुसरो नंबर आयिल्लो तेजो. मुकादम म्हणटालो भुरगो हुशार म्हाजो. पूण हो फकत काणयांचीं पुस्तकां वाचता खंय! प्रत्येक दिसा शाळेंत मार खाता. सकाळीं हांव मुकादमाक घेवन गेल्लों शाळेंत. हेडमास्तरान सगलें सांगलें म्हाका. आतां नाका ताका शाळा. उखलुनी कायली. बरोवपाक, वाचपाक कळटा ताका आतां. हातांक फोड येता तेन्ना कळटलें. कायली कश्यो उखलप त्यो" दिव्याचेर फूंक मारून ताणें काळोख केलो.

"एकदां नापास जाल्लीं भुरगीं परत पास जातात. वचुंदी ताका. ताका आतां इंग्लीश कळपाक लागल्या. आतां तो सगल्यांक फाटीं घालतलो." कल्लप्पाक खूश करपा खातीर ल्हवूच ती ताच्या गोपांत रिगली.

आनी खरेंच सावळो परत शाळेंत वचपाक लागलो. पूण काणयो वाचपाचो नेम मात काय ताणें बदल्लो ना. ना म्हणल्यार आतां हेर पुस्तकांचो लेगीत अभ्यास करतालो. पूण चड लक्ष काणयां कडेन. डिसेंबरा मेरेन जाल्ल्या चारूय परिक्षांनी तो कांठार पास जालो. ताका हेडमास्तरान सांगिल्लें. "निमणे परिक्षेक तुका हे मार्क उपकाराक पडचे नात. नेटान अभ्यास कर. तीन म्हयने उरलेत परिक्षेंक." सावळ्याक लेगीत खबर आसलें निमणे परिक्षेक कितले मार्क जाय आनी ताका हेंवूय खबर आसलें निमणे

परिक्षेक हे फावटीं नापास जाल्यार शाळा बंद. आयुश्यभर मागीर कायली उखलच्यो पडटल्यो. नाजाल्यार बसीचेर उबो रावून पणजे... पणजे... म्हणचें पडटलें.

"सावळ्या तुका जोशी सरान आपयला." एका भुरग्यान येवन ताका सांगलें.

जोशी सर हो मराठीचो शिक्षक देखून सावळो भियेलो ना. हेर खंयच्याय शिक्षकान आपयला अशें कळिल्लें जाल्यार ताका कापरी भरपाची.

स्टाफ रुमान जोशी सर पेपर वाचतालो. "सर! म्हाका आपयला?" तो निर्विकार पणान उलयलो.

"सावळ्या, हें पळय. दिल्लीच्या बालभवनाची राष्ट्रीय पांवड्या वयली कथा सर्त जाहीर जाल्या. पांचवी ते धाव्वी मेरेनचे भुरगे वांटेकार जावं येतात. आमचे शाळेंत धावेच्या भुरग्यां परस तुजें लिखाण बरें आसा. देखून हांवेन तुजी कथा धाडपाची थारायल्या. प्रत्येक भाशेंत एकूच बक्षीस. जैतवंत कथा भारतांतल्या सगल्या भासांनी अणकारीत जातली. एक बरी कथा बरय."

सावळ्या कडेन भुरग्यांच्यो काणयो खूब आसल्यो. ताणें थारायलें आतां मात्शी व्हडल्या भुरग्यां खातीर कथा बरोवची.

"सावळ्या हे वीस रुपया घे. बरे पेपर घे. एक बरेशें पॅनूय घे. पोस्टाचो खर्च शाळा करतली"

"बरें सर" अशें म्हणत सावळो वचपाक वळ्ळो. इतल्यान जोशी सरान सांगलें.

"सावळ्या बक्षीस कितलें खबर आसा?"

"ना सर"

"पुराय पांच हजार रुपया. दिल्ली वचपाचो खर्च, धाव्वे मेरेनचो तुज्या शिक्षणाचो खर्च सुटटलो. चल तयारेक लाग."

सावळ्यान थारायलें. कशेंय करून हें बक्षीस मेळोवपाचें. पुराय भारतांतल्यान कितले तरी भुरगे कथा धाडटले. मराठींत फकत गोंय आनी महाराष्ट्र. पूण तरूय तितलें सोपें ना. महाराष्ट्रांत खंय कांय भुरग्यांचे धाव्वेक पावचे पयलींच संग्रह प्रकाशीत जातात. म्हणजे ताचें साहित्य सरस आसपाक जाय. सावळ्यान देवाचेर भावार्थ दवरलो आनी कथेचो श्रीगणेशा केलो. दोन-तीन विशय ताचे भोंवतणी गोफण करताले. तातूंतल्याच एका विशयाचेर

ताणें सुरवात केली. थारायिल्ले तारखेच्या आठ दीस आदींच सावळ्याची कथा पोस्टांत पडली. एप्रिलांत निकाल. तशें पळोवपाक गेल्यार एप्रिलांत सावळ्याचो आनीक एक निकाल जावपाचो आसलो. ताच्या पांचवेच्या दुस-या वर्साचो. निकालाची तारीख खबर आसली. तर कथा सर्तीचो निकाल एप्रील म्हयन्यांत केन्नातरी पेपराचेर येवपाचो आसलो. सावळो सकाळीं बेगीन उठून दिगंबराच्या होटॅलाचेर पेपर वाचपाक वयतालो. दीस फुडे वता तशी ताची उमळशीक वाडिल्ली. आयजूय तो दिगंबराच्या होटॅलार आयिल्लो. आयज हरशीं ताणें घरा रावपाक जाय आसलें. पोस्टमेन रिजल्ट घेवन घरा येवपाचो आसलो. पूण ह्या रिजल्टा परस ताका कथा सर्तीचो निकाल चड म्हत्वाचो आसलो. हरशीं आठांक येवपी पेपर णव जालीं तरी येवंक नाशिल्लो. पातळ भाजयेचो घमघम नाकांत घेयत सावळो थंयच उबो आसलो. दिगंबरान पेपर हातांत घेवचे पयलींच सावळ्यान आडायलो.

"आयज कितें खास येवपा आसा कितें रे? बाकी सगळे घांटी मटक्याचो नंबर पळोवपाक पेपर वाचतात. हो मात ख-यानींच पेपर वाचता हां!"

पेपर वाचतां वाचतां सावळ्यान एक पान उगडून झप्प करून बंद केलें. खरेंच त्या पानाचेर ताचो फोटो आशिल्लो.

"दिगंबर काका, हो पळय म्हजो फोटो आयला पेपराचेर. म्हाका अभिनंदन म्हण."

"अशें!" दिगंबराचो हात ओडून ताणें आपल्या हातांत घेतलो आनी आपुणूच थेंक्यू म्हणत दिगंबराचो पेपर हातांत घेवन धांवत सुटलो.

"आरे म्हजो पेपर, म्हाका वाचपाक जाय मरे" हीं उतरां आयकूपाक सावळो थंय नाशिल्लोच.

पयलेच फावट पेपराचेर फोटो येवपाचो आनंद आरत-रत्ना परस चड खोसयेचो आसता जावं येत. रस्त्या वयल्यान ताची खोंप दिसना फुडें ताणें आड्डूपाक सुरवात केली.

"म्हजो फोटो येयला. हे रंगा, ये तामशा, हो पळय म्हजो फोटो येयला पळय. मावशे, काकी हो पळयात म्हाजो फोटो येयला पेपरांत."

खोंपीच्या दारांत कल्लप्पा उबो आशिल्लो. सावळ्यान ताका पळयला मात चडूच नेटान तो आड्डुपाक लागलो. एका हातान पेपर फडफडायत धांवत येयत ताणें कल्लपाक वेंग मारली.

"बाबा म्हाजो फोटो आनी नांव येयलां पेपरांत म्हाजे कथेक पुराय देशांत पयलें इनाम मेळ्ळां". पेपर झेलयत सावळो नाचतालो.

"आतां म्हजी कथा सगळया भासांचे लोक वाचतले. हांव आतां दिल्ली वयतलो. हय! हय! हय!"

"दिल्लीक वयता आवशीक खाय-या. राव तुका मसणांत धाडटां. लांकडां दाळपाक लायल्या लोकांक". कल्लपा नागा सारको उठलो आनी फट्ट करून एक खोंट सावळ्याचे कमरेर मारली. खोंटी बाराबर ल्हानगो सावळो किळांच मारीत आडवो पडलो. पूत जमनीचेर पडलो ताका लागलें आसत हाचो विचार करी नासतना बडी घेवन ताणें सावळ्याक मारपाक सुरवात केली. हातार, पांयार, पोटार, बोटांचेर बडयोच बडयो उदेताल्यो. सावळो व्हडा व्हडान किळच्यो मारीत सुटिल्लो. खोंपटांत रावून दुरपदी सगळें पळयताली. सकाळीं तिकाय सावळ्याचो राग आयिल्लो. पूण आतां मात तिच्यान सोंसपाक जायना जालें. तिच्या मोगाच्या पुताच्यो किळच्यो काळीज चिरून आरपार वयताल्यो. दोळ्यांतल्यान दुकां पडटालीं पूण मर्दी वचपाचें धाडस तिका जायनासलें. पळोवंक जायना म्हण तिणें मान फिरयली आनी चुली कडेन वचपाक कूस बदलल्या मात.

"बाबा, हात मोडलो. आई, धांव गे मेलो हांव" म्हण सावळ्यान मोट्यान किळांच मारली. आवाजा बाराबर दोळ्याचो पदर उडोवन तिणें एकूच आकांक केलो आनी सावळ्याच्या आंगाचेर घालून घेतलें. बोवाळांत दोन बडयो दुरपदीचेर पडल्यो. सावळ्याचें अभिनंदन करपाक आयिल्ल्या जोशी सरान कल्लपाच्या हातांतली बडी काडून घेतली.

"कथा बरयता बेशरम परत नापास जालो. सगळे जाण म्हणटले आतां. किद्याक नेट करप जमना जाल्यार".

सावळ्यान हाडिल्ल्या पेपराचे पिंजून दोन कुडके करून ताणें ताचेर शेंवटून मारले.

"खा, माती खा. बंद तुजी शाळा आयज सावन".

झोपडपट्टेंतल्यान भायर येवन दोशीय वटांनी लोक तमाशा पळयताले. कल्लप्पा मान सकयल घालून बडबडतच झोपडपट्टेतल्यान ल्हव ल्हव पासार जालो. जोशी सर असहाय्य नदरेन पळयत रावलो. रडपाचो एक अस्पश्ट असो आवाज खोंपटान मात घुमतालो.

***

# आनीक एक सुगंधा

घुमचेकटर घूम, घुमचेकटर घूम. धोलाचो आवाज आसमंतांत घुमतालो. तासोय ताका तितल्याच नेटान पालोव दितालो. आंगार पडिल्ली प्रत्येक तोणी ताचेर अवसर हाडटाली. सगले कडेन गरम खाज्याचो आनी धव्या फुल्ल शेंवत्यांचो परमळ फांकिल्लो. जात्रेंत सगले लोक सामके गुल्ल जाल्ले. जण एकल्याचे तकलेंत जात्रेची नशा पातळिल्ली. कोणाक कसलीच सुद्द नासली. हे वटेन देवळा फाटल्यान मेधाक लेगीत कसलीस सुद्द नासली. संवसार आनी स्वता मदलें नातें ते विसरून गेल्लें. अमृतरावाच्या गोपांत ताची तरणी कूड व्हडा व्हडान धगधगताली. ताचो प्रत्येक स्वास अमृतरावाचे कुडीक पिसयतालो.

गोब-या गालांच्या मेधान जुवानपणाची शीम हुंपचे पयलींच आपल्या सोबीत रुपान गांवाक पिशें लायिल्लें आनी आयज गोरे कातीच्या ताच्या आंगलोटान अमृतरावाक पिसो केल्लो.....

"चलयेचें रगत सळसळपाक लागलां. सांबाळून दवर. तुजे परस चड रूप घेवन आयल्या चली तुजी". अशें अमृतरावाच्या बापायन एकदां मेधाचे आवयक म्हणिल्लें.

अमृतरावाचो बापूय बलवंतराव आठपाल गांवचे खाशे, गांवचो राजा. तांच्या उतराचेर गांव चलतालो. ते बोट दाखयता तीच उदेंत आसताली. मागीर सैमाक मान्य जावं वा ना जावं. घरांत पयसो भरपूर. गांवचीं अर्दी अदीक शेतां-भाटां-रानां ताचींच. धन दौलत न्हंये सारकी व्हांवताली. पूण ह्या पयशांक हजार वाटो आसल्यो. खाश्यांक बायलांचो नाद आशिल्लो. खंयचीय नवीन बायल दिसली की खाश्यांक ती जाय आसली. तिका हातासपा खातीर मागीर ते कितलेय दुडू मेजपाक तयार आसताले. आपणाक जाय ती कूड तांणी भोगली, कांय बळाचेर जाल्यार कांय पयश्यांच्या नेटार.

सुगंधाक देवळाक सोडिल्लें. तूाच्यो फाटल्यो कितल्योश्योच पिळग्यो देवाची आनी म्हाजनांची सेवा करितूच ना जाल्ल्यो. सुगंधा मात सगल्या

म्हाजनांचें जालेना. आपल्या शेकान बळवंतरावान ताका खासा आपलें करून दवरिल्लें. जाय तेन्ना मनांत येता तशें. रातचेंच न्हय तर दिसाचो लेगीत तो सुगंधाक मनांत येता तसो किरमितालो. सुरवेक ताचें येवप म्हणल्यार सुगंधाक जोगूल पडिल्ले वरी दिसतालें. तें आपले आवयक म्हणटालें.

"आई, हो कसलो जल्म आमचो. नशीबान लग्न ना, आपले आवडीच्या तरणाट्याक आपणावप ना. देवळाच्या म्हालगड्यांची भौशीक वस्त म्हण रावप. आमी हो गांव सोडून पयस खंय तरी या".

"शी पुता! अशें म्हणनात, आमच्यो फाटल्यो सगल्यो पिळग्यो नरकांत वयतल्यो, आमकां देवानच घडयल्यां न्हय तांचे खातीर, तांची सेवा म्हणजेच देवाची सेवा, तांचें केल्यार देवाक पावता".

एका वेगळ्या कुड्ड्या विश्वासांत रावपी समाज तो. आवयन अशें म्हणटकच तें मोनें जातालें.

मेधा ह्याच सुगंधाली चली. बापूय...? घडये सुगंधाक लेगीत खबर नासत. रुपांत अप्सरा जावन जल्माक आयलां. शिकून आपलें पोर हुशार जावचें म्हण सुगंधान ताका शाळेक घातिल्लें. खाश्यांचो पूत अमृत लेगीत तेच शाळेंत शिकतालो. ल्हानपणा सावन दोगांय एकाच बांकार बसतालीं. अमृत ताका खूब जपतालो.

दिशीं-माशीं दोगांय व्हड जायत गेलीं. चडसो वेळ दोगांय वांगडाच रावतालीं. तरणो जाता तसो अमृत बलदंड दिसपाक लागलो. वाड-वडिलांचें देखणें रूप ताकाय मेळिल्लें. जुवान जावपी ताची कूड चलयांच्या दोळ्यांनी रोखडीच भरताली. ते वटेन मेधा लेगीत साळका भशेन गोड दिसतालें. ताचे कांतीर एक तिकतीकसाण आयिल्ली. जुवानपणाचें प्रत्येक रूप ताचे कुडीर खेळपाक लागिल्लें.

एक दीस मेधा निकतेंच न्हावन सालांत येवपाक आनी बलवंतराव तांगेर भितर सरपाक एकूच गांठ पडली. मेधाच्या आंगार मोजकेच कपडे आशिल्ले. शरीर वाडिल्लें पूण भुरगेपण अजून सरूक नाशिल्लें. बलवंतराव ताका पळयतूच रावलो. ताका दिसलें, अशेंच पावल घालचें आनी ताका ओडून आपले कडेन घेवचें. ताचे पिरायेचो लेगीत ताका विसर पडलो. एक जुवान अस्तुरी इतलेंच ताणें मतींत घेतलें. ताच्या पुराय शिरंत्रांनी गरम रगत व्हांवपाक लागलें. मेधा मात काचाबूल जावन ताका पळयतच रावलें. ताणें

ल्हवूच मेधा वटेन पावल मारलें. मेधाक लागीं ओडपाक आनी सुगंधा भायर येवपाक गांठ पडली.

"भितर सर गो तूं! हजार फावटीं सांगलां इब्रतीन वाग. न्हावन धुवन बायलांनी रोखडेंच भायर येवपाक जायना. भितर सर आनी दार लावन घे. हांवेन सांगले बगर दार काडी नाका".

"सुगंधा, तूंच भितर सर! आनी हांवेन सांगले बगर दाराची खिळी काडी नाका" हीं उतरां खाश्यांच्या मनांत आयलीं पूण ओंठार देवलीं ना.

मेधाच्या फाटकु-या देहाक तें पळयतूच राविल्ले आनी सुगंधा खाश्यांक. तांची वखवखपी नदर नागा सारकी ताका दंश करताली. मेधान दार लायलें तरी ताची नदर हालपाक तयार नासली. खाश्यांची नदर आपले वटेन वळची म्हण सुगंधान आपलो पदर नाटकीपणान हड्ड्या वयल्यान सकयल देंवयलो. खाश्यांनी सुगंधाच्या हड्ड्या कडेन पळोवन ना पळयल्या सारकें केलें.

"सुगंधा, तूं आतां जाणटें जालां. तुजें आंग ताची गवाय दिवपाक लागलां. सैमाचो नेम तो. तरणे आसतना सगलें रसरशीत आसता. वर्सां वतात तशी घटसाण उणी जाता. समजलें मगो तुका!"

"जाणटें जालें तरीय तुमचे कुडीक शांत करपाची शक्त म्हज्यांत आसा."

"एकदां उज्याचो भगभग सोंपलो म्हणटकच ताची हुनसाण सोंपता. मागीर फकत गोबर उरता."

"तुमकां म्हज्या आंगाची वीट आयल्या? बरें जालें! सुटलें तुमच्या त्रासांतल्यान. हांगा आतां परत येवं नाकात तर". अशें म्हणून सुगंधान हड्ड्या वयलो पदर सारको केलो.

"मेधाचें न्हाण जालें अशें आयकल्लें. खरी खबर? मागीर केन्ना विधी करया? देवाचीं कामां वेळचे वेळार जावपाक जाय न्हय?" बळवंतरावान बेधडक विचारलें.

"तुमच्या विधीक लायात उजो! आनी नाका जाल्लीं शास्त्रां तयार करपी देवाकूय उजो लायात. हांव एक तुमचे भकीक पडलें तें म्हजे आवयच्या भावार्थाक लागून. म्हजी आवय खंबीर नाशिल्ली. पूण हांव सक्षम आसां. वेगळ्या विचारांची जोत हांव पेटयतलें. मेधा कडेन वांकडे नदरेन

पळयश्यात जाल्यार परिणाम वायट जातले".

"गांवाच्या दबावाखाला तुका बागोवचेंच पडटलें एकदीस! तुजे फाटल्यान तुजे चलयेन हें दायज चलोवपाक जाय. तूं बरे भशेन आयकलें ना जाल्यार आमकां गांवाचे राखणे खातीर जबरदस्ती करची पडटली. समजलें?"

"म्हज्या मेधाक हात लावनूच पळयात. मेधाचे बाईन सांगलां महिला आयोग म्हण एक संस्था आसा. तुमकां ना नपश्चात करून उडयतलें. गांवाचे राखणेची इतली तळमळ आसा जाल्यार तुमचे बायलेक हाडून बसयात हांगा"

सुगंधाचो अवतार पळोवन एदो व्हडलो अपमान खाश्यांक सोंसचो पडलो. सुगंधाची पुराय कूड थरथरताली. खाशे दोन पावलां फाटीं सरले. पांयांत जोतें रिगयतना उसणें बळगें हाडून तांणी म्हळें.

"खाश्यांक आवडिल्ली एकूय कूड आजून खाश्यांनी सोडली ना. आयज ना फाल्यां मेधाक ह्याच हातांनी किरमीतलों हांव. पळोवया तुजो आयोग कितें करता तो". तिडकल्ले खाशे जोगला वरीं नाच्च जाले.

पूण जी कूड सुगंधान इतले दीस फुला वरी सांबाळून दवरिल्ली तीच मेधाची कूड आयज भूक लागिल्ले वरी अमृताचे वेंगेंत फुगार जायत आसली. थंय जात्रेंत धोल वाजतालो आनी हांगा दोगांचेरूय कामदेवान घुरी घातिल्ली.

भुरगेपण सोंपून दोगांय व्हड जाल्लीं. शाळेंत आसतना चंवरिल्लो भुरगेपणाचो मोग आतां आमुरपिको जावपाक लागिल्लो. दोगांय एकामेकाचेर मोग करतालीं. मेधाक दिसतालें देवान अमृताक फकत आपले खातीर घडयला.

"तुजो बापूय म्हाका सून म्हण आपणायतलो रे? कित्याक, हांव हें अशें गांवची चली न्हय!"

"केन्नाच ना. पूण तुका हांव गांवांत खंय दवरतलों तर, शारांत एक फ्लॅट घेवन म्हजे राणयेक हांव थंय दवरतलों".

दोगांच्याय मोगाची खबर एक दीस सुगंधाच्या कानार पडली. एक वेळ ताका दिसलें खाश्यांच्या घराक उजो लावपाक बरी संद आसा. पूण दुसरें मन ताका म्हणपाक लागलें घडयं ह्या उज्यान तुजेच हात लासून वचत.

"बाय, अमृत त्या खाश्यांचो चलो. ताका बायल मनीस म्हळ्यार

फकत भोगवस्तू. वापरप आनी सोंडून दिवप. ताच्या बापायन लेगीत म्हजेर मोग केल्लो. पूण तो फकत भोग आशिल्लो. अमृताचो नाद सोडून दी. सोरपाचो पिलो तो. विखच ओंकतलो एक दीस".

"ना गे आई, अमृत म्हजेर ख-यानीच मोग करता. तो म्हाका पयस शारांत व्हरून दवरतलो. म्हाका शिकयतलो".

"तुका जायतें कर! ताणें तुजे कडेन लग्न केलें जाल्यार रवळनाथाक दर जात्रेक शंबर नाल्लांची गांथन बांदीन. पूण फाल्यां जर वेगळें कितें घडलें तर म्हजी कूड तुका बायंत सोदची पडटली.

खूब वोगत दोगांय कांयच उलयलीं नात. मोन्यानीच खबरो चलच्यो तश्यो.

अमृत मेधाचेर मोग करतालो पूण जेन्ना जेन्ना मेधा ताच्या सामकार येतालें तेन्ना तो कितें तरी सांसपितालो. ताची नदर वखवखताली. मेधाच्या आंगाक हात लावपाचो तो येत्न कारतालो. पूण मेधा ताका दोन हात पयस दवरतालें. अमृताक ताणें सांगिल्लें. हें सगलें शारांत गेले उपरांत. म्हज्या फ्लॅटांत. तो मेरेन तिश्टर रावपाचें...

आयज आठपालच्या रवळनाथाची जात्रा. आयचे रातीक घरांत कोणूच रावना. बाबडीं दुयेंतकारां आनी जाणटीं तितलींच घरांत उरतात. हे जात्रेचें रुपूच वेगळें. गर्देंत कोण कोणाक वळखना. पसरकाराचें पेटूल पयश्यांनी भरून ओत्तालें. पटकार खो-यानी पयशे ओडटाले. कांय रंगेल चेडवां-चेड्यांचो ही जात्रा म्हळ्यार मोगाचो रंगपाट.

अमृत आनी मेधा लेगीत हातांत हात घालून भोंवतालीं. अमृतान दिल्ले मोग-या आटयेचो परमळ मेधाच्या नाका मनांत परमळटालो. धोलाच्या तालार देवळांतल्यान पालखी भायर सरली आनी जात्रेक वेगळेंच रूप आयलें. पालखेचेर फुलां उडोवपा खातीर लोकांची धुमशेणां सुरू जालीं. पालखेच्या सामकार समय घेवन सुगंधा उबें आसलें. वयल्या वाड्यावयल्या म्हापुरुसाक पालखेची भेट दाखोवची पडटाली. म्हापुरुसाक नमन करून सकयल देव मेरेन सुगंधाक समय धरची पडटाली. सुगंधाच्या फाटल्यान हातांत मानदंड घेवन खाशे चलताले. झेतान पावलां मेजीत.

"अमृत तूं लेगीत असोच एक दीस मानदंड घेवन चलतलो न्हय रे?"

"आनी तूं?"

"तुजे कडेन लग्न जाले उपरांत हांव भाटकान्न जातलें. म्हाजन जातलें हांव. देवीची होटी भरपाचो मान मागीर म्हाका मेळटलो".

"पिशें तूं. ही आमची निमणी जात्रा. फाल्यांच आमी भायर सरूया. जागरणाक लागून घरचीं सगलीं उसरां उठ्ठलीं. तीं जागीं जावपा पयलीं आमी शारांत पावपाक जाय. तुजे कडेन लग्न जाले उपरांत म्हज्या घरांत मान न्हय फकत दंड मेळटलो. तूं तुज्या घरांत वचून पळय. तुमच्या बलकांवाचेर हांवेन एक मोठें पाकीट दवरलां. तातूंत तुज्या फ्लॅटाचीं कागदपत्रां आसात".

"ख-यानीस सांगाता तूं!"

"हय, फाल्यां आमी धांव मारया! परत केन्नाच न येवपा खातीर"

"खरें सांगता तूं?"

अशें म्हणून मेधान घरा कडेन धांव मारली. ताचें घर देवळा फाटल्यानूच आशिल्लें. ताचे फाटोफाट अमृतानूय धांव मारली. खशेंत खशेंत ताणें पाकीट उकतें केलें. ख-यानीच तातूंत जमनीचीं बी आसतात तसलीं कागदपत्रां आसलीं.

"खूश मगो?" अशें म्हणत थंय पाविल्ल्या अमृतान ताका उब्या-उब्यांच उखल्लें आनी भितर हाडलें. मेधाक कांयच कळ्ळें ना. ताका हें सगलें सपन कशेंच दिसतालें. अमृतान मुखेल दार लायलें आनी धांवत येवन मेधाक वेंगेंत घेतलें. एक गरम हय-न्हयसो श्वास मेधाच्या मुखामळार अवतरलो. ताचो प्रत्येक श्वास मेधाक लासयत गेल्लो. मेधा आतां मेधा उरूंक नाशिल्लें. तें समर्पीत जाल्लें. ताणेंय अमृताक घट्ट वेंग मारली.

"फाल्यां सावन आमी दोगांय घोवबायल! हांव भाटकान्न."अशें म्हणत तें अमृताचे दर एके हालचालीक साथ दिवपाक लागलें. अमृताक लेगीत समजून आयलें. आतां मेधा ताचेंच. मेधाचे सोबीत गोरे-गोमटे कुडीचेर आतां ताचेंच अधिराज्य. मेधाचें प्रत्येक आंग तो सांसपितालो. अमृताचो प्रत्येक स्पर्श ताका जाय जाय सो दिसतालो. आनी निमणे कडेन पुराय तरेन मेधाची कूड अमृताचे सुवादीन जाली.

देवळांत पावणेक नेट आयिल्लो. "देवाच्या माथ्या वयलो नाल्ल... पयले फावट..."

लाव्डस्पिकराच्या आवाजान दोगांय भानार आयलीं. मेधान बेगी बेगीन

स्वताक अमृताच्या गोपांतल्यान सोडोवन घेतलें. घामान चिप्प भिजिल्लो ताचो चेरो खुशालभरीत दिसतालो. मेधान आपली मुस्तायकी सारकी केली आनी अमृताक प्रस्न केलो.

"अमृत हें आमी करपाक जाय नासलें. लग्ना पयलीं असल्यो गजाली वायट, शी! हांवेन स्वताक मात्शें सांबाळपाक जाय आसलें. भाटकान्नीच्या सपनांत हांव कांय खीण कुड्डें जालें आनी सगलो अनर्थ घडलो."

हे वटेन अमृत मात ल्हव ल्हव हांसपाक लागिल्लो. "अमृत हांसता कितें? तुका वायट दिसना? शी!" तो आतां नेटान हांसपाक लागलो.

"अमृत चल्लां कितें तुजें? म्हाका हळशीक दिसपाक लागल्या आनी तुका फकांडां येवजतात? हांस नाका रे!

वदळ हांसपी अमृत ल्हव ल्हव गंभीर जायत गेलो. मुस्तायकी आंगार चडोवन तो खाटी वयल्यान सकयल देंवलो.

"मेधा, तूं साप्प पिशें आनी भैंळें". अशें म्हणून ताणें भायर कूस मारली. धांवतना बल्कांवाचे कुशिकूच ताची धडक भितर येवपी सुगंधाक लागली. जात्रेक मेधा खंयच दिसना म्हण सुगंधा धांवन बेगीन घरा परतिल्लें. अमृताक भायर सरतना पळोवन ताणें कच्च करून आंग काडलें.

"हांवेन मेधाक भोगलें. बापायक दिल्लें उतर आयज हांवेन पाळ्ळें. आतां तुजे चयलेची कूड म्हाजनांक मेकळी". अशें म्हणून दांत दाखयत तो हांसोंक लागलो.

"तुमच्या कुळाचो सर्वनाश जावं" अशें म्हणून सुगंधान खाज्याची पोती ताचेर शेवटून मारली. पूण तो मेरेन तो बरोच पयस पाविल्लो.

दोळ्यांनी दुकां घेवन बडबडतूच तें सालांत भितर सरलें. मेधाचे बाज्जेचेर मोग-या आटयेचीं फुलां कुस्करून पडिल्लीं फकत एक गवाय जावन. बाज्जेच्या एका पोताक मेधा धोंपरांनी तकली घालून ओग्गी बशिल्लें. ना म्हळ्यार कूड धगधगताली.

"भाटकाराच्या चेड्यान भाटकार जावपाचें तशें नायकिणीच्या चेडवान नायकिणूच जावपाक जाय! हें दायज अशेंच मुखार वचुंदी. खाश्यांक नातू जातलो. तूं लेगीत एका चेडवाक जल्माक घाल. हें दायज...ही परंपरा... चलत रावपाक जाय. ना जाल्यार देवाक राग येतलो....राग येतलो... "

हुयेली मारीत सुगंधा मागीलदारा पोरसा वटेन धांवलें. कांय खिणां

उपरांत घब्ब आसो बायंतल्यान आवाज आयलो. आवाजा वरीच वदळ गरम जायत गेल्ली मेधाची कूड ल्हव ल्हव थंड जायत गेली...

***

# राजिनामो

“सदानंद हरिजनाचा विजय असो! आयले रे आयले आमचें कपाट आयलें!” वॉर्ड नं. चाराची मतमोजणी सोंपिल्ली आनी आधिका-यांनी सदानंदाचे बायलेक जैतिवंत घोशीत केल्ली. भायर बोवाळ चालू जालो. जण एकल्याचें हड्डें खोशयेन उफाट भरिल्लें. शिरोडा पंचायतींत पयलेंच फावट वेंचणूक जाल्ली. ती लेगीत एकाच वॉर्डा खातीर. हे पंचायतीची परंपरा आसली सातूय पंच बिनविरोध येवपाची. बिनविरोध येताले म्हणचे परस तांकां बिनविरोध हाडपाचें काम धनंजय परब करतालो. धनंजय परबा आड कोण बंड करपाचें धरिश्ट दाखय नासलें. कितलीं तरी वर्सां तोच सरपंच. पंचायतीचो निधी कितलो येता, येणावळ कितली आनी खर्च खंय जाता कोणाकूच खबर नासतालें. चडशे निर्णय परबाच्या बंगल्यारूच जाताले. पूण पयलेच फावट हरिजन वाड्यार सदानंदान आपले बायलेक वेंचणुकेक उबी केल्ली. सदानंदाची बायल शिकिल्ली आसली देखून परबाक ती पंचायतींत नाका आसली. पंचायतीचे खंयचेच बसकेंक भासाभास म्हणटात ती जाय नासली. पूण सदानंदाची बायल घडये आपल्या काळ्या कर्तुपांक विरोध करत म्हणून परबाक ती नाका आसली. शिकिल्ले कोणूच ताका पंच म्हण नाका आसले. पूण सदानंद ताका कसोच बदलो ना.

कोण हो सदानंद? जाणें गांवच्या राजा आड बंड केलें. गांवा कुशीच्या हरिजन वाड्यावयलो हो तरणाटो धडपडे वत्तीचो. आपलें कमीपण विसरून नव्या प्रवाहांत सामील जावपी ध्येयाचो. ताच्या वांगडचे तरणाटे जेन्ना कोणाच्यो म्हशी, गायो मरता काय म्हण वाट पळयताले तेन्ना हो स्वताची एक गाय आसची म्हण सोसायटींनी फावटी मारतालो.

“आरे पापयानो, कितले दीस गांवक-याच्या मेल्ल्या म्हशींची पोटां फोडून पोट भरतले. चामडी विकून आनी मेल्ल्या मड्यांचो विलो करून कितले दीस जगतले? गायींची पोटां फोडप, तांचे चामडेचो धोल करप आनी तोच धोल गळ्यांत घालून शिगम्याक नाचप. कितले दीस? कितें तरी वेगळें

करात." अशें तो वाड्याचेर जण एकल्याक सांगतालो.

"पूण सदा आमचे कडेन जमनीं खंय आसात? गांवका-यां कडेन ब्राण्ट्यांच्यो जमनी आसात. काजीचीं रेंनां आसात. आमचे कडेन किदें आसा?"

"डॉ. आंबेडकरा कडेन किदें आसलें? केलें ना ताणें किदें तरी वेगळें".

हरिजनवाड्याक आदर्श वाडो करपाचें ताचें सपन आसलें. ल्हव ल्हव पयशे जमोवन ताणें ख-यानीच एक दीस हरिजनवाड्या वयली पयली गाय हाडली. लग्नांनी शेनाय वाजोवपाचें ताचें काम. ते पयशे, वाळपय बशीर रावन एकठांय केल्ले थोडे पयशे आनी थोडे सोसायटीचें रीण अशें करून करून ताणें ख-यानीच जिती गाय वाड्यार हाडली. इतले दीस वाड्यार लोक गायो, म्हसरां हाडटाले पूण तीं मेल्लीं आसतालीं. चामडी काडपाक लोक हांगा मेल्लीं वासरां हाडून उडयताले. पूण मेल्ल्या गोरवां खातीर लेगीत हांगा खूब फावटीं झगडीं जातालीं. त्याच वाड्यार सदान जिती-जिवी गाय हाडिल्ल्याचें अप्रूप सगल्यांक जालें.

"पळयत रावात, एक दीस शंबर गायांचो गोठो करता काय ना तें." उमेदीन तो हेर तरणाट्यांक सांगतालो.

"जावंदी रे बाबा! गाय वियेली की आमकां शिवोण्यो मार. खरवंस खावपाक येता आमी." हेर तरणाटे हांसत हांसत म्हणटाले.

हेर लोक हांसत आनी मजा करत उल्ले, सदान दोन वर्सां भितर पांच गायो हाडल्यो. सोसायटीचें रीण तो वेळचेवेळार फारीक करतालो देखून सोसायटी ताका जाय तशी मजत करताली.

त्याच सदानंदाचो आयज लोक जयजयकार करताले. परबा आड रावन जिखपाक येता हें ताणें दाखोवन दिल्लें. निकाल लागतकच तो देवाक पांयां पडून तडक परबागेर गेलो आनी तांचो आशिर्वाद घेतलो.

"सदा बायलेक सरपंच करता हांव! तिणें म्हाका जाय तशें काम करपाक जाय."

"ना भाई, म्हजी बायल लोकांक जाय तशें काम करतली. रागार जावं नाका. आमकां नाका सरपंचपद."

"तुका जाय तशें. पूण म्हज्या आड बंड केल्लो अजून ब-याक पावूंक

ना. देवीची सासाय आसा म्हजेर."

धनंजय परबाक ही हार काळजाक लागिल्ली. ताणें थारायल्लें कसोय करून हाका आपल्या पावला कडेन हाडपाक जाय. आयज एकाच वॉर्डान बंड केलां. फाल्यां सगल्याच वॉर्डांत हाणें आपले मनीस उबे केल्यार? सत्ता वतली हाचे परस आपलीं फाटलीं सगळीं काळीं कर्तुपां हाणें उकतीं केल्यार तें म्हारग पडटलें. परबाची वळख खूब आसली. विधानसभेचे वेंचणूकेक ह्या पंचायतीचीं पुराय मतां परब सांगता थंयच पडटालीं. देखून पणजे विधान सभेंत लेगीत ताच्या शब्दाक मान आसलो. सगल्या वळखींचो फायदो करून घेवन सदाक सोंपोवपाचो निश्चेव ताणें केलो.

श्री. माऊली वि. कॉ. सोसायटीची मुखेल कचेरी पणजे आसली. हेच सोसायटींतल्यान मुखेल रीण घेवन सदा वयर सरिल्लो. नवीन हाडिल्ले गायेचें रीण हांगांच आसलें. एक दीस भिरोंडेंच्यान सोसायटीच्या मुखेलीक घेवन परब पणजे मुखेल कचेरेंत चॅरमॅनाक मेळपाक गेलो. धनंजय परब आयला हें कळना फुडें अध्यक्षान ताका भितर आपोवन व्हेलो.

"आयज मेरेन आमच्या गांवांत तुमची सोसायटी चलता ती आमचे खातीर. म्हजेच सुमार वीस लाख रुपया तुमचे सोसायटींत आसात. म्हज्या कार्यकर्त्यांचें, बरें मागप्याचें मेळून णव्वद टक्के तरी भांडवल आमचेंच आसूं येता". परबान आपलें वजन वाडोवपाक सुरवात केल्ली तें पळोवन अध्यक्षान मदींच तोंड उगडलें.

"परबबाब, कितें जालें? आमचे कडल्यान कितें चूक जाली, कोणें कितें म्हळें तुमकां?

"चूक आमचे कडल्यान जाली. तुमकां आमच्या गांवांत फांटो उगडपाक दिलो तो?

"कळ्ळें ना".

"तुमी रीण दिलें आनी थोडे लोक आयज गिरेस्त जाले. आयज तांचें बळगें इतलें वाडलां की, आमकांच आव्हान दिवपाक लागल्यात ते? सदाक तुमी रीण दिलें तो आयज मोटो मनीस जाला. पयलेच फावट पंचायतीन म्हाका ठराव मांडटाना आतां विरोध जातलो." इतले मजगती शिपायान हाडून तिगांयच्या सामकार च्या दवरली.

"ताची सगलीं रिणां फाटीं घेयात. गायो जप्त करात". खीणभर

शांतताय पसरली. अध्यक्षान शाखा वेवस्थापका कडेन पळयलें.

"सर पूण ताणें आयज मेरेन एकूय हप्तो चुकयलो ना. एक तारीख म्हणल्यार एके तारखेक तो पयशे भरता". शाखा वेवस्थापकान अध्यक्षाक सांगलें.

"बँकेच्यान कितेंय करपाक जाता."

"तशें ना तें! आतां तो पंच वांगडी, फाल्यां तो जर पेपरा कडेन गेलो तर आमच्या बँकेची बदनामी जावं येता."

खूब वेळ कोणूच कांय उलयलोना. वातानुकुलीत यंत्राचें घर घर आनी घडयाळाची टिक् टिक् चालू आसली. परबाचे विचारचक्र चालू आसलें. कितलेंय केल्यार राजकारणी मनीस तो. इतले बेगीन हार कशी मानतलो.

"तुमी ताका आनी रीण दियात. ताच्या घरा कडेन मनीस धाडात. ताका सांगांत, पांच लाख रीण घेवन चल."

"पूण तो रीण घेतलो कित्याक?" अध्यक्षान विचारलें.

"तें म्हजेर सोडात. फुडलें हांव पळयतां, देव बरें करूं!" अशें म्हणून परब उठून भायर सरलो आनी कॅबिना भायर आयलो. परबा भितरलो धूर्त राजकारणी पेटून उठिल्लो.



"सर किदें? सकाळफुडें शे?"

"ना कारबोटकाराची नोटीस दिवपाक वयतालों, वतां आसतना म्हळें तुकां मेळून या. सदा, कसो चलता धंदो पाणी?" मोरजकारान सदाक उरफाटो प्रस्न जेलो.

"चल्ला देवा दयेन."

"हें पळय सदा तूं आमचे सोसायटीचें बरें गिरायक देखून चेरमॅनान सांगलां तुकां जाय जाल्यार आनीक पांच लाख रीण कागदपत्रां बगर मेळूं येता."

"खरेंच! आनीक दोन लाख मेळ्ळयार पुरो आनीक पांच गायो हाडटा." सदा उचांबळीत जावन उलयलो.

"ना हें रीण तुका स्थावर मालमत्ता घेवपाक मेळटलें. म्हणजे शेत, जमीन, घर अश्या कारणांक".

"शेत घेवपाची म्हजी इत्सा आसा. भाट मेळ्ळयार आनीकूय बरें."

"बरें! हांव येता. सोसायटींत यो केन्नाय आनी घेवन चल तुजे पांच लाख रुपया." हांसतच मोरजकार भायर सरलो. पूण वतना सदाच्या काळजान भाटकारपणाचें सपन रिगोवन गेलो. दुदाचे गाडयेचो हॉर्न आयकनाफुडें सदा भानार आयलो. बेगोबेग ताणें आपले कॅन व्हेले.

"सदा, आयज परब भाटकार आयिल्लो टॅम्पो कडेन कॅन घेवन. ताचो एक बापोलभाव मुंबय आसता. तो काय परत हांगा येंवपा ना .ताच्या वाट्याचें भाट तो विकूंक सोदता खंय. दूद घेवपाक वता थंय ताणें म्हाका हें सांगपाक सांगलां. तूं घे मरे" टॅम्पोचो ड्रायवर सदाक सागूंक लागलो.

'आयचो दीस किदें घेवन उजवाडाक आयला काय'. हो प्रस्न सदाक पडलो. सकाळीं मॅनेजर सागूंन गेलो भाटां भेसां घेवपाक जाय जाल्यार म्हाका पांच लाख रीण मेळूं येता. आनी आतां ड्रायवर म्हणटा भाट विकपाचें आसा. भाट लेगीत सादें सुदें न्हय. त्या भाटांत बरो पाडो पडटा हें तो आयकून जाणां आसलो. सदान चिंतलें, बरी मेहनत करप, कवाथे लावप. नाल्लांची सगलीं जोड विकप. एकूय पैशाक हात लावप ना. सगले पयशे व्हरून सोसायटींत घालप. पांच स वर्सां भितर भाट सोडून घेवप. मागीर फोल्गा मारप. न्हावन ताणें देवाक उजवात लायली आनी तडक परबाच्या घरची वाट धरली.

"यो रे सदा, यो! सकाळीं फुडें सो. अविश्वास थाराव बी ना मरे. पयलीं पंचायतीन अविश्वास थाराव येनासले. कारण विरोधक कोणूच नासताले. आतां तूं विरोधक म्हणजे केन्ना थाराव येयत सांगू नजो."

"एकलोच हांव. थाराव हाडलो तरी समंत जावं नाका? राजकारणाक पाड पडूं. हांव त्या भाटाचे खबरेक येयलां. तुमचो बापोलभाव विकता खंय न्ही?"

"भाटकार जावंक सोदता काय कितें रे? काल पयर लग्नांनी शेनाय वाजोवपी होच तो सदा म्हळ्यार कोणाकूच खरें दिसचें ना".

"देवाची दया आनी किदें?"

"भाट घेवपाक पयशे आसात तुजे कडेन? पांच लाखा बगर कसोच विकचो ना तो" सुपारेचो कुडको तोंडांत उडयत परब उलयलो.

"बॅकेचो मॅनेजर सकाळींच आयिल्लो. म्हाज्यान जाय जाल्यार आनीक

ांच लाख रीण घेवं येता".

"बरें आसा तर, फुडल्या सप्तकांत येता भाव म्हजो. घेवन उडय. आयकात रे फुडल्या सप्तकांत सदा भाटकार जातलो". कुशीक उबे आशिल्ले सगले हांसपाक लागले. सदान हांसपा कडेंन आड नदर करीत सरळ बॅंकेचो रस्तो धरलो.



सदा बँकेंत पाविल्लो तेन्ना मॅनेजरान सगळीं कागदपत्रां तयार दवरिल्लीं. मॅनेजरान डिडी आपल्या बॅगांत घातलो आनी दोगूय जाण वाळपयच्या उपनिबंधक कार्यालयांत वचपाक भायर सरले.

कार्यालयांत बरीच गर्दी आसली. चडशे लोक आंकवार तरणाट्यांक घेवन लग्नाची नोंद करपाक आयिल्ले. सदाकूय आपल्या तेर्माचो दीस याद जावन तोंडार मुमुरखो हांसो पातळ्ळो. इतल्यांत भाटकार ताचो भाव आनी ताचो आद्वोगाद कागदपत्रां घेवन आयले. धनंजय परबाक प्रत्येक ऑफिसांत मान आसलो. जण एक अधिकारी ताका रेस्पेद दितालो. विक्री पत्राचेर दोगांयनी आपापल्यो सयो करून कागदपत्रां भितर दिलीं. सगळे सोपस्कर जायना फुडें मॅनेजरान काडलो आनी डी डी परबाच्या भावाच्या हातांत दिलो.

"सदा अभिनंदन. आयच्यान म्हजी जमीन तुजी जाली आतां तूं भाटकार".

"देवाची कृपा" अशे म्हणत सदान पेड्यांचें बॉक्स ताच्या मुखार फुडें केलें.

"देव बरें करूं" अशें म्हणत भाटकाराच्या भावान एक पेडो तोंडांत उडयलो. ब-या तेपान धनंजय परब भायर आयलो आनी विक्रीपत्राची कॉपी सदाच्या हातार दवरली.

"घे सदा, हें काम करपाक तुज्या सारक्या लोकांक धा दीस लागतात. हांवेन पळय एका दिसान सगळें केलें".

"देव बरें करूं तुमचें. चलात खंय तरी वचून च्याव मारूया" सदान म्हळें."च्यावेचेर जावचें ना. आयज म्हाका बरें नुस्त्याचें जेवण जाय. वाळपय हॉटेलांत".

"परब तुमकां जाय तशें" अशें म्हणत सगळे भायर सरले.

गांवांत पावपाक सगळ्यांक बरोच काळाव जाल्लो. परबाच्या भावान वाळपयच्यान पणजे बस धरली. ताका सांजेचोच मुंबय वचपाचो आसलो. सदान थारायलें दुसरे दीस सकाळीं वचून भाटाचो ताबो घेवपाचो. रातभर सदा तळमळटालो. केन्ना सकाळ जाता आनी भाटांत वचून नाचता अशें ताका जाल्लें. ताणें थारायल्लें. पयलो नाल्ल हाडून देवाची पुजा करतलों. ताचे बायलेक ताची तळमळ कळटाली.

सकाळ जायना फुडें दोगांय घोव बायलांनी भाटाची वाट धरली. अर्द्या वराची वाट सोंपून सोंप नासली. हाचे पयलीं सदा खूब फावटी त्या भाटांत गेल्लो आसतलो. पूण पाडेली म्हण. दिसभर पाडो करप आनी रातचो येतना फकत पांच नाल्लांची गाथन घेवन घरा येवप. पूण आयज तो भाटकार म्हण वयतालो. भाटा लागीं पावता तसो ताका भाटांत बोवाळ आयकूपाक येवपाक लागलो. खरवतीचो आवाज नेटा नेटान येतालो. मर्दींच ट्रकाचो आवाजूय जातालो. धा-पंदरा मानाय खरवतीन भाटांतले माड कापताले. थंय दोन ट्रक उबे आसले. एक ट्रक माडांनी भरिल्लो जाल्यार दुसरो भरपाचें काम चालू आसलें. कितें चल्लां तें सदाक कळना जालें. भाटाचो धनी तो आसलो. पूण ताच्या भाटांत ताचे परवानगे बगर अच्छेव चालू आसलो.

“बंद करात हें! कोण तुमी? हांगा कोणाक विचारून भितर सरले? चल गो, गांवांत चल आनी आमच्या सगल्या लोकांक आपोवन हाड. जितोच पुरतां दर एकल्याक.”

सदाचे बायलेन गांवा वटेन धांव मारली. घोवाक इतल्या लोकांमदीं एकलो सोडपाक तिचें मन जालें ना. पूण दुसरो उपायूय नासलो. दोळ्यां सामकार तांचे भाट मातयेभरवण जातालें.

“आमकां धनंजय भाटकारान काम सोंपयलां हें, एका दिसा भितर हें काम जावपाक जाय. तुका वाद घालपाचो आसा तो तुंवेन परबा कडेन घालचो. धा वरांचेर येतलो तो हांगा.”

मानायांचो मुकादम मुखार येवन सदाक सांगपाक लागलो. इतल्यान कडकड करून एक माड सकयल कोसळ्ळो. वांगडाच शेलींनी भरिल्ले नाल्ल चोय वटांनी शिंपडले. सदांचें काळीच चर्र जालें. ताच्यान थंय रावूं नजो जालें. तो तडक परबाच्या घरा वटेन चलपाक लागलो. ताचीं पावलां

नेटान पडटालीं. अर्दे वाटेरूच सदाच्या वाड्या वयले लोक दांडे तोणके घेवन नेटान येतना ताका दिश्टी पडले.

"हांव परबागेर वतां. तुमी भाटांत चलात आनी सगल्यांक बांदून घालात."

"तुमी एकटे वचू नाकात. लक्ष्मू काका! तूं तांचे वांगडा चल". सदाचे बायलेन लक्ष्मूक सांगलें.

"सदा, भियेंव नाका तूं. त्या चोरांक पयलीं बांदून घालतात आनी आमी सगले परबागेर येतात. आयज काबारच करुया ताका".

सदाक ताच्या वाड्यार लोक मानताले. जिवाक जीव दिवपी लोक सदान तयार केल्ले. ताची ही गवाय आसली. सदा खातीर आयज लोक कोयते कुराडी घेवन भायर सरिल्ले.

धनंजय परब वसरे वयल्या झोपाळ्यार बसून सुशेगाद धोलतालो. मुखामळ निर्विकार आसलें. सदा पावलां मारीत भितर सरलो.

"परब, म्हाज्या भाटांत लोक कोणें घातल्यात? भाट तुज्या बापायचें?"

"आरे पापया, हांवेन खंय म्हळां तें म्हज्या बापायचें".

"मागीर माड हाणपाचो अधिकार तुका कोणें दिलो?"

"म्हज्या भावान".

"काल सावन भाटाचो धनी हांव. तुज्या भावाचो आतां ताचेर कांयच अधिकार ना. बरे भशेन म्हजें लुकसाण भरून दी. ना जाल्यार दोगांकूय कोर्टांत ओडटलों".

"कोर्टाची भाशा म्हजे कडेन करूं नाका हां सदा! वळखता म्हाका तूं? वदळच्यान तुजें आयकलें. तुजी लायकी आसा म्हज्या घरांत येवपाची. आतां आयकून घेवचों ना. हाड गो तीं कालचीं कागदपत्रां".

परबाच्या चेडवान भितर वचून कांय कागदपत्रां हाडून सदा कडेन दिलीं. कालच्या विक्रीखात्याची झॅरोक्स कोपी आसली ती.

"पळय तीं, सारकीं वाच. ह्या कागदपत्रांचेर बरयलां, फकत जमीन दिवपाची. हे जमनीचेर जी लागवड आसा ती हांवेन केल्या. तें लागवडीचो धनी हांव. सगले माड हांवेन रोयल्यात. म्हज्या भावान न्हय. माड कापून घेवपाचो अधिकार म्हज्या भावान म्हाका दिला. तुका तुजी जमीन मेळटली.

रोय मागीर जाय तितले माड आनी माडयो".

सदाक कितें चल्लां कांयच समजना जालें. कागदपत्रां ताणें वाचुंकूच नासलीं. खरें तर खंयच्या तरी आदवोगादाक ताणें तीं दाखोवपाक जाय आसलीं. परबाचेर ताचो विश्वास नासलो. पूण परबाचो भाव ताका सज्जन दिशिल्लो. घडये ताकाय हें सगलें खबर नासूं येत. परबान सदाक सोंपोवपाचें वेगळेंच कारस्थान रचिल्लें.

"भाटकार, भाटांत बोवाळ जाला. सदाच्या लोकांनी मानाय कामे-यांक खूब बडयल्यांत. दोगांचेर कोयतेय मारल्यात". परबाचो मनीस धांवत आयलो आनी तेणें परबाच्या कानार ही खबर घाली.

"अब्बा, चड जालें हाचें! पोलिसांक फोन लाय रे. सांग हांवेन सांगलां म्हण. धा मिणटां भितर पावपाक जाय. ना जाल्यार मुखेलमंत्र्याक घेवन येता म्हण सांग".

सदाक भाट बरेंच म्हारग पडलें. ताचे उपरांत बरोच बोवाळ जालो. निखटी जमीन सदाच्या वांट्याक आयली. परत बायलेचें सगलें भांगर ताका विकचें पडलें. पुलिसांनी सदा सकट सुमार पन्नास लोकांक धरून पुलिशेंत व्हेले. सदाचे बायलेन आदवोगाद काडलो. आपलें पुराय भांगर विकून सगल्यांचो जामीन भरलो. राजकी वजन वापरून परबान तांचेर बरींच कलमां लायिल्लीं. खूब तेपान सदाचे बायलेन घोवाच्या दोळ्यांनी दुकां पळयलीं.

सदाच्या कर्मभोगाक सुरवात जाली. भाटांत माड लावन ते व्हड करता म्हणसर वर्सां वता आसलीं. सदांन चिंतिल्लें. पयल्या दिसा सावन पाडो मेळटलो. नाल्ल विकून बँकेचें हप्ते फारीक करपाचें. पूण आतां तशें कांयच जावपा नासलें. सद्याचे येणावळींतल्यान दोन रिणां फारीक करप शक्य नासलें. भाट विकल्यार चडान चड तीन लाख मेळपाचे. रीण आसा पांच लाख. म्हयन्याचो हप्तो पंदरा हजार. सगलो कळोखूच काळोख. सदा कडेन परत एक शुन्य जाल्लो. परब जिखिल्लो. पूण सदान थारायिल्लें. हार मानप ना. झूंज दिवप गांवच्या राजा कडेन.



सकाळीं आठ वरांचेर सदा निर्शेल्लो जावन परबागेर गेलो. परबान ताका बरोच वेळ बसोवन दवरलो. च्या लेगीत विचारली ना.

"कितें रे सदा भाटकार? आमगेर सो! काय परत कसली धमकी बी

दिवपाक आयला!"

"आतां हांव कसलो भाटकार? आनीक दोन म्हयन्यां भितर बँक घरा-दाराचेर जप्ती घेवन येवपाची आसा. मागीर परत तुमच्या सारक्यांच्या लग्नाची शेनाय वाजोवची पडटली".

"म्हजे कडेन सकाळींच सो"

"हांवेन बायलेक सांगलां, पंच पदाचो राजिनामो दी म्हण"

"कितें? राजिनामो? वेंचणुकेक अजून एक वर्स लेगीत जावंक ना मरे. अजून चार वर्सां आसात". कपटी हांसत परबान म्हळें. ताचे दोळे लिकलीक जाल्ले.

"केन्ना दिता तर राजिनामो?"

"आयजूच. पूण एक अट आसा. हांवेन भाट घेवपा खातीर जें रीण घेतलां तें तुमी फारीक करचें. तें भाट तुमीच घेयात बँके कडल्यान. माड तुमी कापून उडयले. आतां उत्पन्न कांयच ना. हप्ते कशे फारीक करपाचे? हांव म्हजीं गोरवां सांबाळटां. परत भाटाचे वाटेक वचना. आनी ते पंचायतीचेय. ह्या पांच लाख रिणा खातीर घरा दाराचेर जप्ती येवपाचो वेळ आयला. लोकांचे नदरेन पडिल्लो नाका म्हाका."

"तुजी अट मान्य आसा म्हाका. फाल्यां बँकेंत राजिनामो घेवन यो. बँकेंत म्हज्यो जायत्यो एफ. डी. आसात. तातूंतले पांच लाख मोडटां आनी रीण फारीक करतां. भाट म्हज्या नांवार लावन घेतां".

परब खूब खोशी आशिल्लो. पंचायत पुराय तरेन ताच्या ताब्यांत येताली. ताका आतां विरोध करपी कोण नासलो. गांवच्या खंयच्या तरी घणसाबेलाक पोटवेंचणुकेक उबो करून बिनविरोध वेंचून हाडपाचीं सपनां तो पळोवपाक लागलो. भाटाचो सौदोय तसो ताका लुकसाण करपी जावंक नाशिल्लो. लांकडांचे अडेज लाख मेळिल्ले. दुसरे दीस सदान सगले सोपस्कार करून जमीन परबाच्या नांवार केली. पांच लाखांचें रीण फारीक जाल्ल्याचें ताका समाधान मेळिल्लें.

"सदा, तूं वाळपयच्यान घरा चल. हांव राजिनामो घेवन पणजे वतां आनी येतना पोटवेंचणुकेची तारीख घेवनूच येतां".

"हांवेन भाट घेतिल्लें तेन्ना तुमी म्हजे कडल्यान जेवण घेतिल्लें. आतां म्हाकाय जेवण जाय".

“आरे! आतां जेवणां सदांचीच. वेंचणुकेक सद्दां भूस आनी सोरो. तुमच्या वाड्या वयल्या लोकांक जाय कितें आनीक!”



सदचे भशेनूच एक प्रसन्न सकाळ. धनंजय परब सकाळीं फुडेंच दिसाळ्याची घडी उगडटालो. तिस-या पानाचेर एक बातमी आसली. बातमी वाचून परब सकयल पडपाचो मात उरिल्लो.

“भिरोंडें पंचायतीच्यो पंच वांगडी सौ. हरीजन हिणें दनपरां आपलो राजिनामो पंचायत संचालकाक सादर केलो आनी नाट्यमय घडामोडींत सांजेच्या पांच वरांचेर तो फाटीं घेतलो...”

***

# तेरा साया

मळबाचेर भांगराची चादर ओडीत सांज येताली. ह्या भांगराळ्या चादरी पोंदच्यानन रात ल्हव-ल्हव पावलां मारताली. ती रात म्हजे खातीर तरी खूब लांब आशिल्ली. हांव खुशालभरीत आनी तिनसांजेचे कणांत कण खुशाल आसले. सैम खंय मनशाचे दर खोंशयेंत सामील आसता. फकत तें आमचे नदरेक कळना. पूण आयची तिनसांज म्हाका परत परत सांगताली. 'हांव खूश आसां' वा-याचें लव्हसार पोंत म्हज्या पोल्या वयल्यान वयतालें आनी म्हाका हे गजालीची जाणविकाय करून दितालें. ऊंच ऊंच उडपी पंतगा परसूय म्हजें मन ऊंच मळबांत उडटालें, खोशयेचीं ल्हारां रंध्रां-रंध्रांत उसळटालीं. हाका कारणूय तशेंच आशिल्लें. तीन वर्सांच्या तेंपान हांव परत दिल्ली वचपाचें. दोन वर्सां कशीं गेलीं कांयच कळूंक नाशिल्लें. दिल्ली म्हजी जल्मभूंय आनी कर्मभूंय लेगीत. एके ल्हान चलयेक त्याच शारान हाताक धरून व्हेलें आनी ह्याच शारान ताका विद्यापिठाचें भांगरा पदक लेगीत भेटयलें. ह्याच शारांत दुकां पळयलीं आनी हांसो लेगीत.

तशें गोंयान लेगीत म्हाका दोन वर्सां सांबाळ्ळे. आपलें घरचें चली कशें म्हाका आपले भितर आसपावन घेतलें. एकलेपणाची भावना ह्या दर्याल्हारांनी केन्नाच आफुडपाक दिलिना. मायेस्त लोक आनी मायेस्त भूंय ही.

हांव येतना एकूच बॅग घेवन आयिल्लें. पूण ह्या दोन वर्सां भितर खूबशें सामान हांवेन एकठांय केल्लें. सामान एकठांय बांदतना मात लेगीत कश्ट पड नासले. काय कश्टाची जार्णविकाय खोशयेन मारून उडयिल्ली खबर ना. आयज रुमांर रांदलें ना. फोन करून पिज्जा मागयलो. दनपारच्यान सामान पॅक करून टिवी पळोवपाक बसलें तेन्ना घडयाळा कडेन लक्ष गेलें. रातचीं इकरा जाल्लीं. मात्शें आड पडप गरजेचें आसलें. चारांक मंगला एक्सप्रॅस. फोंडेंच्यान मडगांवा पावपाक अर्द वर तरी जायच. म्हणचेच तिनांक भायर सरपाक जाय. हांगा गोंयांत हांवेन खूबशे विद्यार्थी जोंडिल्ले. सगल्या

विद्यार्थ्यांचो चोंबोच सकाळीं म्हाका 'बाय' म्हणपाक येवपाचो आसा. खातीर न्हिदल्यार घडये न्हीद लागत म्हूण हांव कदेलाचेरूच आड पडलें.

दोनांक म्हज्या मोगाळ भुरग्यांचो चोंबो म्हज्या रुमार आयलो. सगले कडेन बोवाळ. हांव तोंड धुंवन भायर येसर म्हजें सगलें सामान गाडयेंत पाविल्लें. खूबश्या चेडवांच्या दोळ्यांनी दुकां दिश्टी पडपाक लागिल्लीं. कालच्यान हे गजालींचें म्हाका पडून वचूंक नाशिल्लें. हांव हांगा परत येवपा ना. ह्या भुरग्यां कडेन ही म्हजी निमणी भेट. म्हाका खरेंच जाणवलें ना. म्हजे गांवचे ओडीन हांव ख-यानीव दोन वर्सांच्या निर्माण जाल्ल्या नात्याक विसरून गेल्लें. म्हज्या विद्यार्थ्यांच्या दोळ्यांतल्यान गालार आयिल्ल्या दुकांनी म्हाका ह्या नात्याची याद करून दिली. पूण हांवेन थारायिल्लें दोळ्यांनी दुकां हाडप ना. हांव कितलेंय जाल्यार प्राध्यापिका. हांवेन तांकां समजावपेचें.

"What happened, why you are so sad? we will be in touch, म्हजे कडेन सगल्यांच्यो ई-मेल आयडी आसात. Don't worry". पूण भुरगीं तीं. दुकां थारलीं नात. म्हाका पावोवपा खातीर तीन गाडयो आयिल्ल्यो. सगल्यो उपाट भरिल्ल्यो. हांव गाडयेंत बसलें आनी वदळचीं दुकां गालां वयल्यान सकयल पडपाक लागलीं. म्हज्या दोळ्यांतले एक दूक केन्ना म्हज्या पदराचेर पडलें तें कळ्ळेंच ना. मीस यू ऑल म्हणत हांवेन सगल्यांचो निरोप घेतलो. ज्या रुमान म्हाका दोन वर्सां सांबाळ्ळें ताकाय मोन्यांनी देव बरें करूं म्हळें आनी दोळे बंद करून घेतले.

पिकनिकेक बी वतना हरशीं गाडयेंत बोवळ आसता. पूण आयज बोवाळ नासलो. खरेंच, ह्या दोन वर्सां भितर हांवेन भुरग्यांक म्हजिशीं केल्लीं. खूब माया केल्ली तांचेर, तांचेच हें फळीत आशिल्लें. प्रत्येक भुरग्याक हांव रोखडेंच म्हजें करतालें.

मडगांव रेल्वे स्टेशनाचेर आमी साडेतिनांकूच पावलीं. इतले रातची लेगीत थंय गर्दी आशिल्ली. आमींय आतां ते गर्देचो एक भाग जाल्लीं. भुरग्यां कडेन उलोप चालू आसतनाच निवेदकान एक कळोवणी सांगली. मंगला एक्स्प्रेस गाडी अर्देवर उसरा येतली. भुरगीं खूश जालीं. तांकां म्हजो सांगात सदांच जाय आसलो. म्हजी आई सदांच म्हणटाली 'पयशां परस मनशां जोडचीं' आयज हांव देवा दयेन मनशां आनी पयशे दोनूय जोडटां. ल्हान पिरायेचेर एक प्राध्यापक म्हण नामना जोडली. लावडस्पिकराचेर

निवेदक परत परत सांगपाक लागलो. गाडी अर्दवर उसरा येतली. एकवेळ म्हाका दिसलें, म्हाका चाळोवपाकूच घडयें तो परत परत म्हणटा आसूं येत. म्हाका गाडयेचो आनी निवेदकाचो दोगंचोय राग येवपाक लागलो. म्हाका केन्ना एकदां आईच्या गोपांत रिगतां अशें जाल्लें. दरेक मिणीट एका वरा भशेन भासतालें. खरेंच अर्द्या वरांन म्हजी गाडी आयली. म्हाका पावपाक आयिल्ल्या भुरग्यांनी खिणा भितर म्हजें सामान बर्थापोंदा ज्युस्ताज्युस्त लायलें आनी गाडये भायर येवन म्हज्या जनेला सामकार तीं उबीं रावलीं. फांतोडचीं पांच वरां. खूबशे प्रवाशी अजुनूय साखर न्हिदेंतूच आशिल्ले. कांय फुडल्या स्टेशनाचेर देवपाचे तयारेक लागिल्ले. सिग्नल पडलें आनी गाडी हाल्ल्या मात म्हज्या भुरग्यांकीं काळजां हालतना म्हकां दिश्टी पडपाक लागलीं. चले भुरगे खरे, तांकांय काळीज आसता हें म्हाका आयज कळ्ळें. गाडयेन वेग घेतलो आनी म्हजे विद्यार्थी म्हजे नदरे मुखा वयल्यान पयस जाले. घडये सासणा खातीर.

गाडी एकेक स्टेशन सोडीत धांवताली. दोन वरां न्हिदचें म्हण हांव आड पडलें. पूण न्हीद कशीच येना जाली. फकत दोळ्यां मुखार म्हाका म्हजी दिल्लीच दिश्टी पडपाक लागली. फुडल्या चोवीस वरांनी हांव म्हजे भुंयेंत पावपाचें आशिल्लें. न्हिदिल्ले कडेन म्हजें मन भुतकाळांत भोंवपाक लागलें...

म्हजो आवयबापूय दोगांय कॉलेजींत शिकयतालीं. हांव तांचें एकूच भुरगें. आंगवणेचें. लग्ना उपरांत पंदरा वर्सांनी जाल्लें. खूब लाडान वाडलें पूण कांय वेळार मारूय खाल्लो. आई म्हणटाली 'हांव शिकपाक हुशार'. धावेक बोर्डांत पांचवें आयिल्लें. आनी एमबिएचे परिक्षेंत भारतांत पयलें. खूबश्या कंपनितल्यान म्हाका तेन्ना पत्रां आयिल्लीं. कांय कंपन्यांनी जाल्यार म्हयन्याक पांच लाखांची लेगीत ऑफर दिल्ली. पूण म्हज्या बापायचें सपन आसलें, हांवेन शिक्षक जावचें. मागीर तें खंयचेंय क्षेत्र जावं. आयज दर विशयांत शिक्षक जाय. बाबा म्हणटालो शिक्षकाक मरसर मान आसता. खंयचेय कंपनींत काम केल्यार कदेलीर आसासर मान. मागीर कायच ना. बाबाची इत्सा फळाक आयली. आमचे कॉलेजींत म्हाका लॅक्चरर म्हूण घेतलें.

हांवेन एका म्हयन्या भितर सगल्या भुरग्यांचो विश्वास जोडलो, देशांत पयलें आयलां म्हण सगलीं भुरगीं म्हाका रेस्पेंद दितालीं. म्हजे कडेन पळयनता अभिमानान पळयतालीं. चडश्या भुरग्यांक हांव नांवान वळखतालें.

म्हयनो सोप्पाक दोन दीस आशिल्ले. एक दीस लॅक्चर चालू आसतनाच कानार आवाज पडलो.

'मे आय कम ईन' हांवें दारा वटेन पळयलें. एक गोरो-गोमटो, भारदस्त व्यक्तीमत्वाचो मनीस दारांत उबो आशिल्लो. म्हाका दिसलें, खंयचेय कंपनीचो अधिकारी आसतलो. असले खूबशे अधिकारी आमचे कॉलेजींत गॅस्ट लॅक्चरर म्हण येताले. आमी भुरग्यांक पुस्तकी गिन्यांन दितालीं जाल्यार हे लॅक्चरर वेव्हारीक गिन्यान दिवपाक येताले. हांवेन तकली हालोवन ताका येवकार दिलो.

"हाय! आय एम राहूल बर्वे, सन ऑफ एल. के. बर्वे, चॅअरमॅन ऑफ ऑरबीट ग्रूप ऑफ इंडस्ट्रीज" हो एक मोटो उद्देग समूह आशिल्लो. बांदकाम क्षेत्रांत ताचें बरेंच नांव आशिल्लें. "तुमी आयज लॅक्चर घेवपाचे आसात?" हांवेन विचारलें.

"नो! नो! हांव लॅक्चर घेवपाक येवंक ना. हांवेन तुमचे कॉलेजींत प्रवेश घेतला. आयेम स्टुडण्ट ऑफ युवर कॉलेज, हांव तुमचो विद्यार्थी."

थोडे भुरगे हांसले लेगीत. ख-यानीच ताणें आमचे कॉलेजींत एडमिशन घेतिल्लें. हालींच ताणें इंजिनीयरींग परिक्षा पयले श्रेणींत पास केल्ली. पूण ऑस्ट्रॉलियेक रावून. देशांत उद्योग करपाक जाय जाल्यार देशाची उद्येग वेवस्था कळपाक जाय. देखून तो एमबिये करपाक औयल्लो. रूप मनभुलयणें. आकर्शक पिराय. घडये म्हजे इतलीच. हांव देशांत पयलें आयलां हें ताका रोखडेंच कळ्ळें. एक म्हयनो ताचो अभ्यासक्रम चुकिल्लो तो भरून काडपा खातीर ताका म्हजी मजत लागताली. हांवूंय ताका जायती मजत करतालें. कामाची लांबची लांब वळेरी घेवन तो म्हजे कडेन येतालो आनी पयल्याच मिणटाक म्हणटालो, 'मीस हांव तुमका डिस्टर्ब करिना न्हय?' ताची उलोवपाची धाटणी इतली ओडलायणी आशिल्ली की, कितलेंय काम आसूं हांव ताका घेवन बसतालें.

हेर विशयांचो अभ्यासूय तो म्हजे कडल्यान करून घेतालो. म्हज्या लॅक्चराक ताचें म्हजे कडेन पळयत रावप म्हाका खटकतालें. पूण शिकयतना भुरगे टिचरीक पळयनात जाल्यार कोणाक पळयतले? पूण ताची नदर कितें तरी सांगताली. लायब्रींत तो सोदून काडून म्हजे कडेन येवन बसतालो. कॅण्टीनांत चायेक लेगीत ताका म्हजे कुशीक बसपाक आवडटालें. आमी

दोगांय वांगडाच आसात ताचो वेगळोच अर्थ लोक काडटात हें ताचे नदरेंतल्यान कळटालें. पूण आमी दोगांय आडनदर करतालीं. संवसारांतलें सगल्यान निरागस हांस्य हांवें ताच्या हांसपांत पळयलां हो एक संवाद सोडलो जाल्यार आमचें फकत अभ्यासाचेर चड लक्ष आसतालें. आपली कंपनी ताका संवसारांत नंबर वन करपाची आसली देखून तो धडपडटालो.

एक फावट म्हाका ताचो खूब राग आयलो. एचआर मेनेजमॅण्चेर पेपर सादरीकरण आसलें. आठ दीस म्हेनत घेवन ताणें खर्यांनीच बरो पेपर बरयिल्लो. सादरीकरणा उरांत राहुलाची खूब अपूरबाय पुराय कॉलेजभर जाता आसली. पूण पेपर सादर करपाक तो हॉलांत गेलोच ना. ते दिसा हांव सकाळींच विद्यापिठांत गेल्लें. म्हजे पिएचडी खातीर हांव माहिती एकठांय करतालें. देखून हांव थंय गेल्लें. दुसरे दीस हांवें ताका कॅण्टीनांत आपोवन जाप विचारली.

'मीस, म्हाका खबर आसली तुमी म्हजेर रागार जातली म्हूण, पूण हांवेन तुमची खूब वाट पळयली. तुमी आयल्योच नात. मोबायलूय ऑफ मेळटालों'.

'आरे, पूण हांव ना म्हण तुंवेंन पेपर सादर केलो ना. कितलें नांव जावपाचें तुजें खबर आसा'?

'तुमी म्हजो आदर्श, हांवेन पयलींच थारायिल्लें. तुमचे कडल्यान ऑल दी बॅस्ट घेवन मागिरूच हॉलांन भितर सरप.' हांव त्या पिशा मनशा कडेन पळयतच रावलें.

ते रातीक हो विशय हांवेन आई कडेन काडलो. पुराय घडणूक आईक सांगली. हांव सांगतालें पूण म्हजी आई मात वेगळ्याच संवसारांत गेल्ल्याचें म्हाकां जाणवतालें. सनाधान आनी तृप्तताय हांची सयाशी तिच्या मुखामळार मारताली. चलयेंन मळबाक हात लायिल्ल्याचो अर्थ तिच्या चे-यार दिश्टी पडटालो.

वर्स सोंपत आयिल्लें. म्हजे चड लक्ष पिएचडी कडेन आसलें. गोंय विद्यापठांतले डॉ. राममुर्ती म्हाका गायड म्हण जाय आसले. बाबाचे ते इश्ट आनी वेवस्थापन शास्त्रांतले म्हालगडे. एक कुशळ अभ्यासक. बाबान पयलींच थारायिल्लें, गायड म्हण तांचेंच मार्गदर्शन घेवप. ताणी एक दीस हयकार दिलो आनी हयकारा वांगडा आनीक एक खोशयेची गजाल सांगली.

पिएचडी खातीर म्हाका गोंयां वच्चें पडटा आसलें. आनी गोंयां म्हळ्यार नोकरी सोडप. परक्या गांवांत रावप, शिकप म्हळ्यार खूब खर्च जाता. बाबा पयशे दिता आसलो पूण आतां रिटायर्ट जाला. जाणटेपणा वांगडा जायतीं दुखणीं आसात. हांवें थारायिल्लें, गोंय विद्यापिठांत नोकरी धरप आनी लागिरूच प्रबंधाक आनी संशोधनाक सुरवात करप. आनी राममुर्तीन हीच खोशयेची गजाल म्हाका सांगिल्ली. गोंय विद्यापिठांत म्हाका नोकरी मेळील्ली. देशांत पयलें आयिल्ल्याचो म्हाका खूब लाब जाल्लो. जुलय म्हयन्या सावन म्हजें वेगळें जिवीत सुरू जावपाचें. दिल्लीक आतां फकत आनीक थोडेंच दीस.

म्हजो राजिनामो हो सगले कॉलेजीक अजबसाण घेवन आयलो. लोकांक दिसलें हांवें खंय तरी मोटे कंपनीक हयकार दिला आसतलो. कांय लोकांनी वावडी पसरयली की हांव आनी राहूल लग्न जावपा आसात देखून हांवेन राजिनामो दिलो. लोकांच्या तोंडाक बंद करप शक्य नासता. खरें कारण कळटकच सगले खुशालभरीत जाले. वेवस्थापन शास्त्रांत डॉक्टरेट मेळोवप म्हणल्यार मोठी गजाल. जाणट्या शिक्षकांक म्हजी लक्तुबाय दिसली. म्हज्या सरानूज जांची पिराय पन्नास आसा तांणी म्हळें, 'म्हजे पिएचडी खातीर घडये एक दीस म्हाका म्हज्या विद्यार्थ्या कडल्यान गायड घेवचें पडटा दिसता हां !'

म्हाका निरोप दिवपाच्या सुवाळ्याक म्हजे वांगडा बाबाय आयिल्लो. जैतवंत भुरग्यांचो सत्कार सुवाळो आनी म्हजो निरोप सुवाळो एकाच दिसा आनी एकाच म्हुर्तार. सत्कार सुवाळ्याक मुखेल सोयरे म्हण शारांतलें सगल्यान गिरेस्त व्यक्तीमत्व आनी येशस्वी उद्देजक एल. के. बर्वे आयिल्ले. राहूलाचो बापूय. तांचें व्यक्तीमत्व राहूला सारकेंच भारदस्त, ओडलायणें. तांचें भाशणूय प्रेरणा दिवपी. कश्टाचें म्हत्व तांच्या दरेका उतरांत जाणवतालें. सत्कार सुवाळो आनी म्हजो निरोप सुवाळो दिश्ट लाग सारको जालो. सुवाळो सोपसर राहूलान म्हजे वयली नदर मात लेगीत हालयली ना. ताच्या प्रत्येक कटाक्षान हांव घायाळ जातालें हें घडये ताकाय होलमल्लें आसतलें. सुवाळ्या उपरांत राहूलाचो बापूय म्हजेसरी आयलो. म्हजो बाबा म्हजे बाराबरूच आसलो.

'यंग लेडी, म्हज्या घरांत एका वेळार फकत पयश्यांच्यो खबरी जाताल्यो. ह्या तेपार खिणाखिणांक तुज्याच नांवाचीं ल्हारां म्हज्या घरांत

व्हांवतात. हरशीं हांव कसल्याच कार्यावळींक वचना. वचना म्हणल्यार तितलो वेळ नासता. पूण आयज आयलां फकत तुका मेळपा खातीर. तुज्या रुपा परस वेवस्थापन शास्त्रांतल्या तुज्या गिन्यानाचेर हांव चड फिदां जालां. म्हजी तोंखणाय जाता ती पळोवन म्हजो बाबा खुशालभरीत जाल्लो. 'सर, तुमकां वेळ आसल्यार म्हाका तुमचे कडेन खास उलोवपाचें आसा. म्हजें कार्यालय लागींच आसा. आमी चौगांय थंयच या. राहूल मागीर तुमकां घरा सोडटलो.' सामकारच्या मनशाक मानान वागोवपाची तांची रीत बाबाक लेगीत आवडली.

ऑरबीट उद्देग समुहाचें ऑफीस म्हळयार सात मजली इमारत. पांचव्या माळयाचेर बर्वेचें आलिशान कॅबीन. उण्यांतउणो तीन हजार तरी स्टाफ आसूं येत. पुराय देशभर तांचे सुमार पंदरा हजार कर्मचारी आसात. मेहनत केल्यार येश मेळटाच हाची देख म्हळयार बर्वे.

'तुमचो चड वेळ घेना, मूळ मुद्याचेरूच उलयतां.' राहूलाच्या बापायन उलोवपाक सुरवात केली. 'तुमची चली म्हळयार राहूलाची लॅक्चरर. पिएचडी खातीर दिल्ली सोडून गोंयां वता ही बरी गजाल. सांगपाचें म्हळयार आमच्या राहूलाक तुमची चली मानवल्या. हांव ताका म्हजी सून करून घेवपाक सोदतां. म्हज्यान जाय जाल्यार खंयच्याय गिरेस्ताली चली म्हजी सून म्हण हाडूं येता. पूण पयश्यां परस हांव गिन्यांनाक चड म्हत्व दितां. तें गोंयां वच्चे पयलीं लग्न करूया. गोंयां पंचतारांकीत होटॅलांत म्हजो कायमस्वरुपी सूट आसा. थंय रावून ताकां घेवदीं आपली डॉक्टरेट.'

राहूलाच्या बापायचीं हीं उतरां आयकून म्हजें पुराय आंग लजेन शिरशीरपाक लागलें. येद्या व्हड उद्देग समुहाच्या मालकाची हांव सून ही कल्पनाच म्हाका अजब दिसपाक लागली. ते वटेन राहूलाच्या पोल्यार लेगीत लजेच्यो मिरयो पडिल्ल्यो. म्हाका दिसलें बापायकूय जल्माचें सार्थक जाल्ले वरी दिसतलें, पूण बाबा शांत आसलो. ताच्या मुखामळार कसलीच उचंबळटाय म्हाका दिसली ना. उदकाचो एक घोंट घेवन बाबा शांतपणान उलोवपाक लागलो.

'मि. बर्वे, तुमचे सारके बरे मनीस देवान तयार केल्यात म्हण संवसार बरें दिकेन पावलां मारीत आसा. हांव तुमचे उपकार केन्नाच विसरचों ना. एक आदर्श व्यक्तीमत्व म्हण हांव सदांच तुमचें नांव घेतलों. पूण हें लग्न जावप शक्य नां.

आमच्या तिगांच्याय आंगार जोगूल पडिल्ल्याचो भास जालो. राहूल आनी म्हजे चलयेची वळख जाली ती एक विद्यार्थी-शिक्षक म्हण. जरी दोगांचीय पिराय एक आसली तरी तांचे मदलें नातें हें एक पवित्र नातें. त्या नात्यांत विकार येवंक जायना. सासणा खातीर हें नातें चलत रावपाचें. आयज जर हीं लग्न जालीं जाल्यार समाजांत एक वेगळोच संदेश पावतलो. म्हजी चली एका गिरेस्ताची सून जातली पूण ह्या नात्याची विटंबणा जातली, म्हाका समजून घेयात.'

बाबाचीं उतरां यकून राहूलाच्या बापायच्या दोळयांनी ख-यानीच दुकां आयलीं. बाबाचे विचार म्हाकाय मानवले. खरेंच, त्या पवित्र नात्याक शाप लागपाक जायनात. हांवेन राहूला कडेन पळयलें. तो निर्विकार आसलो. खूब वगत त्या कॅबिनांत शांतताय आशिल्ली. 'सर, तुमचें बरोबर, स्वामी विवेकानंद म्हजे आदर्श. म्हज्या कॅबिनांत ती पळयात स्वामी विवेकानंदांची केदी व्हड तस्वीर आसा. तांचे कुशीक फाल्याच्यान हांव तुमची तस्वीर लायतलों. म्हाका दोगांय भितर फरक दिसना.' राहूलाचें सपन भंग जाल्लें. पूण म्हज्या बापायन मळबाची तेंगशी गांठिल्ली.

आचकीत कोणाल्यातरी आवाजान हांव भानार आयलें. ख-यानीच दोन वर्सां कशीं गेलीं कळ्ळेंच ना. ह्या दोन वर्सांनी हांवेन स्वता जावन राहूला कडेन संपर्क दवरलो ना. दोन वर्सां जालीं एकदाय हांव दिल्लीक गेलें ना. आईबाबा खूब फावटीं गोंयां येवन गेलीं. तीं येतकच खूब गजाली जाताल्यो. पूण हांवेन केन्नाच राहूलाचो विशय काडलो ना. म्हजे मन अजुनूय ताचेच कडेन ओडटा अशें बाबा समजत म्हण हांव ह्या विशयाक फांटो दिताले.

ताचो इद्देग दिसान दीस वाडत आसा हें दिसाळयांनी समजतालें.

'मॅडम, तुम्हारा लॅटर निचे गिरा हैं' च्या घेवन आयिल्ल्या भुरग्यान सांगलें. पर्स उगडटना तें सकल पडिल्लें. अमेरिकेच्या विद्यापिठाचे वरिश्ठ प्राध्यापक म्हण म्हाका तांणी आपोवणें धाडिल्लें. म्हजें कन्फर्मेशन कळोवपा खातीर म्हाका आठ दिसांचो वेळ दिल्लो. म्हाका म्हजो देश सोडून खंयच वचपाचें ना. हरशीं हें पत्र हांव गोंयांच दवरून येवपाचें. पूण बाबाक दाखोवपा खातीर मुद्दाम बॅगांत घातलां. विदेशांतलीं विद्यापिठां म्हजे खातीर रेड कार्पेट पातळावन रावल्यांत हें बाबाक कळचें. तांचेंय हड्डें मात्शें भरून येवचें म्हण मुद्दाम हें पत्र हाडलां हांवेन. रावपाक बंगलो, शॉफर, गाडी आनी

ांच लाख पगार आनीक कितें जाय. बाबाची इत्सा, हांव शिक्षक जावचें, अमेरिकेक गेल्यारूय हांव शिक्षक उरतलें. पूण सोयी सगल्यो वरिश्ठ व्यवस्थापका सारक्यो. म्हजें एक मन म्हणटालें या अमेरिकेक, पूण बाबा कशेंच आयकुपाचो ना. आपकल्या गिन्यानाचो फायदो आपल्या देशाक करप, नायल्यांक न्हय हो ताचो सिद्धांत.

एकदाचीं गाडी दिल्ली स्टेशनाचेर पावली मुखा मळार खोशयेचीं व्हारां उसळटालीं. दोन वर्सां उपरांत हांवेन म्हजे भुंयेचेर पावल दवरिल्लें. स्टेशनाचेर आकांताची गर्दी. वेगळ्यावेगळ्या तरांचे चेरे. कांय खोशयेचे कांय दुखेस्त. पूण जण एकलो धांवतालो. कांय जाण दिल्ली सोडपा खातीर जाल्यार कांयजाण दिल्लीक वेंगेंत घेवपा खातीर. बाबा व्हरपाक येता म्हणटालो. पूण हांवेनूच ताका त्रास पडत म्हण नाका म्हळें. कुलीन म्हजें सामान टॅक्सी स्टॅंडा कडेन दवरलें. मोड दिवपा खातीर हांवेन पर्स उगडल्या मात.

‘ये लो भैया’

‘साब छुट्टा नही है’

‘बाकिका रखले, बच्चोंको मिठायी खिला’

ख-यानींच ! म्हज्या सामकार राहूल उबो आसलो. कुलीक ताणें पयशे काडून दिल्ले.

"Congratulation for Ph. D." अशें म्हणत सोबीत आनी म्हारगसो फुलांचो तुरो ताणें म्हज्या हातार दवरलो. आनी म्हजो हात हातांत घेतलो. म्हजें पुराय आंग शिरशीरलें. तोंडांतल्यान उतरांच फुटना जालीं. ताणें हात असोच धरचो अशें दिसतालें. पूण ताणेंच सोडयलो. ताच्या ड्रायवरान सगलें सामान व्हरून गाडतेंय भरलें.

‘तूं सामान व्हर आनी मॅडमीच्या घरा पावय. पत्तो तुका वदळ दाखयलाच. हांव म्हजे गाडयेंत येतां फाटल्यान. मीस, आमी खंयतरी बसून च्या घेवया, तुका खूब कितें सांगपेचें आसा.’

संमोहीत जाल्ले भशेन मोन्यानीच ताचे फाटल्यान हांव चलपाक लागलें. एका आलिशान होटॅला मुखार ताची आलिशान गाडी रावली. हांव अजून सावरुकूंच नाशिल्लें. राहूलान कितें जादू केल्ली खबर ना. पूण हांव संमोहीत जाल्लें.

'हांव आमचेच कॉलेजींत लॅक्चरर म्हण काम करतां. मुखेल गजाल म्हळ्यार तूं शिकयतालें तोच विशय हांव शिकयतां'

'आनी तुमचो वेवसाय?'

'उद्देगा कडेन तितलेंच लक्ष दितां, तूं गेले उपरांत जिवितांत एक पोकळी निर्माण जाल्ली. तुज्या यादींचें जाळें जीव घुसमटायतालें. देखून तूं न जाल्यार तुजी याद दोळ्यां सामकार उरची म्हण हांवें हें काम धरलां.'

'लग्नाचें कितें चिंतलां?' च्यावेचो घोट मारीत हांवें विचारलें.

'तुज्या बाबाचो तर्क म्हाका मान्य ना. लग्न जालों जाल्यार हांव तुजेच कडेन जातलों. म्हाका खबर आसा तूं लेगीत म्हजेर मोग करता. पूण बाबायची परंपरा, आदर्श तुजे आड येतात. आतां तूं ह्या शारांत आसतलें मेळत थंय तुका एकूच विचारतलों, वील यू मेरी मी?' ताच्या ह्या उतरांनी शिरंत्रांनी उजो पेटिल्लो. दिसतालें ताच्या गोपांत रिगचें आनी मनसोक्त रडचें ताचे बद्दलच्यो सगल्यो भावना व्यक्त करच्यो. पूण... विवेकानंद ढासळप म्हाका निखालस मान्य नासलें. आचकीत वेगळ्याच विचारांचो प्रवाह म्हज तकलेंत घुंवपाक लागलो.

'राहूल, तूं हांगा बस. म्हाका अर्जण्ट मेल धाडपाचे आसात.'

'म्हज्या लॅपटॉपा वयल्यान धाड. गाडयेंत आसा'

'नाका, तुज्या लॅपटॉपा वयल्यान नाका. म्हजो पर्सनल तो.'

'एज यू वीश! हांव हांगाच बसून तुजी वाट पळयतां'

पर्स घेवन हांव होटॅलांतल्यान भायर सरलें. होटॅला सामकारूच सायबर झोन आसलो.

मेल फोल्डर उकतो करून हांवेन मेल टायप करपाक सुरवात केली अमेरिकेच्या विद्यापिठाक हांवें हयकाराचो मेल धाडलो. जाता तितले बेगीन हांवेन तांकां व्हिजा धाडपाची विनंती केली. बाबाक आनी आईकूय वांगड व्हरपाचें थारायलें. बाबाक समजोवपाक त्रास जातले आशिल्ले पूण ताच्य खंयच्या तरी एका आदर्शाचो म्हाका बळी दिवचोच पडटा आसलो. हांग रावून राहूलाक विसरप शक्य ना. सायबर कॅफेच्या जनेलांतल्यान राहूल दिश्टी पडटालो. ताका पळोवन म्हजें काळीज भरून आयलें. मेल दुसरे वटेन पावलो म्हणपाचें तांणी म्हाकां रोखडेंच कळयलें. हांव सकयल देंवपाक

ागलें. एक मन सांगतालें हांगाच्यान राहुलाक मेळचे आदींच तडक घरा च्चें. तशेंच थारायलें. रस्त्यार येवन उबें रावून टॅक्सी पळोवपाक लागलें. हूलाच्या जनेला कडेन मुद्दाम जावन आड नदर केली. पूण मन थारना ालें. आपसूक म्हजीं पावलां राहूला वटेन वळ्ळीं.

व्हिजाचें काम इतले बेगीन जायत अशें हांवें चिंतूंक नासलें. मदल्या दरा दिसांच्या काळांत बाबाक समजातयना खरस आयली. आपूण एकलोच वपाक लेगीत तयार जालो. पूण निमणो आई डडेन पळोवन नमलो. मर्दी वें राहूलाक मुद्दाम टाळ्ळो. अमेरिकेक वचपाचो दीस उदेलो. बाबा स्वस्थ आसलो. आपली भूंय. आपलो देश सोडून वचपाचें दुखब ताच्या खा मळार जाणवतालें. आई मात निश्चल आसली. चलयेच्या कर्तुपाची ोस तिच्या चे-यार खुलताली.

पयलेच फावट ती विमानांत बशिल्ली. सगळे प्रवासी स्थिरस्थावर ाले उपरांत हांवेन बेठीच चारूय वटेन नदर भोंवडावपाक सुरवात केली. झनॅस क्लास कंपार्टमॅण्टाचो पड्डो उकतोच आशिल्लो. म्हजी नदर दर कल्याच्या चे-याचेर घुंवपाक लागली. तो गिरेस्त लोकांचो कंपार्टमॅण्ट. म्हजी दर एका चेर्याचेर थारली आनी काळीज धडधडपाक लागलें. हय तोच! हूल! पुराय आंगाक घाम आयलो. उतरां थरथरपाक लागलीं. हांवें नदर ुंवडायली आनी दोळे गच्च बंद केले.

'बाय, दोळे उगड, हो पळय म्हजो विद्यार्थी. अमेरिकेक आसता.' ाबाच्या आवाजान दोळे उकते केले. पळय जाल्यार तोच! फाटल्यान शिल्लो पूण राहूल न्हय! म्हणजे तो राहूल न्हयच तर. हांवेन बाबाच्या वद्यार्थ्याक हॅलो म्हळें आनी परत दोळे बंद केले. म्हजें मन म्हाका सांगपाक ागलें. 'पिशा, तूं कितलेंय पयस वच. भावनांचीं मोरपाखां मनपटला ायल्यान हालपाचीं नात, केन्नाच नात!'

निमण्या सिटार बशिल्ल्या प्रवाशाच्या मोबायलाचेर 'तूं जहां जहां वलेगा, मेरा साया साथ होगा' ह्या पदाची ट्यून वाजताली.

***

# एक भविश्य

ज्योतिशास्त्र हें आतां वैश्वीक जालां. कांय शेंकड्यां पयलींय लोक भविश्याक मानताले. पूण भविश्यकारांक अर्थप्राप्ती म्हणटात ती खुबूच उणी आसताली. लोकांक लक्ष्मीची सुलूस दाखोवपी ज्योतिश्यांच्या घरांत मात दळडीर कोनशा कोनशांनी दिसतालें. आयज चित्र बदल्लां. प्रणवाक पळयात. देशांतलो खापो ज्योतिशशास्त्री. तो सकाळीं उठणा फुडें टिवीचेर दिश्टी पडटा. भविश्या परस ताचें हांसतें मुखामळ पळोवपाक लोक टिवीचेर नदर थिरायतात. घरांत सगलें आसा. नोकर, वावराडी, रांदपी, माळी सगले. दारांत एकाच वेळार पांच तरी गाडयो पार्क केल्ल्यो आसतात. देशांतले नामनेचे उद्देजक आनी खापे राजकारणी ताका विचारले बगर उदकाक लेगीत हात लायनात.

'आख्या देशाचें भविश्य सांगतात तुमी. म्हजें मात्शें पळयात. म्हज्याय हाताक रेशो आसात. बरे तरेन पळयात, म्हाका भुरगें केन्ना जातलें तें.' ताची घरकान्न अदिती ताका सदांच म्हणटाली. प्रणवाच्या नदर लावपी पंदरा कुडींच्या घरांत तो, आवयबापूय, अदिती आनी जाणटी आजी इतलींच रावतालीं. काम करपी लोकांक रावपाची वेवस्था घरा फाटले चाळींत केल्ली. लग्न जावन आठ वर्सां जाल्लीं. प्रणव आतां चाळिसी कडेन पाविल्लो. अदिती ताचे परस धा वर्सांनी ल्हान. ताच्या मामाची चली. ताचें येश, एश्वर्य पळोवन वयाच्या फरका कडेन आड नदर करून लग्न जाल्लें. दिसपाक गोरें-गोमटें साळका फुला भशेन. इतलीं वर्सां पयशा फाटल्यान धांवपी प्रणवाक लेगीत आपल्या जोडिल्ल्या पयशां खातीर वारस जाय आसलो. ताका ल्हव-ल्हव जाणविकाय जावपाक लागली. वंशा खातीर न्हय जाल्यार पयशां खातीर.

देशांतल्या नामनेच्या स्त्री-रोग तज्ञा कडेन ख-यानीच एकदीस दोगांय गेलीं. सगळयो चाचण्यो जातकच दोतोरान ताका निरोप दिलो. तीन दिसांनी मॅडिकल रिपोर्ट प्रणवाच्या कार्यालयांत पावलो लेगीत.

'प्रणव भाय! रिपोर्ट देखकर डरमा मत. आमी आमचे उपाय सुरू

करूया. आय वील डू ऑल एडवान्स ट्रिटमेण्ट' अशें रोखडेंच दोतोरान ताका फोन करून सांगलें लेगीत.

'डॉक्टर, म्हजे घरकान्नीन फोन केल्यार, तिका हातूंतलें काय कळपाक दीवं नाका हा! प्लीज! माय स्टेटस! डॉक्टर! म्हाका समजून घेयात.' प्रण वाक आस्त आशिल्ली उपचारांनी ताचें सपन पुराय जातलें म्हणपाची. पूण खूबश्यो गजाली मनीस आनी विज्ञान हांच्या आकलना पलतडच्यों आसतात. लोकांचें भविश्य बदलप शक्य नासता. दोतोराचे सगले आधुनीक उपचार सोंपले. विज्ञानान निर्माण केल्लीं सगलीं वखदां उपेगाक आयलीं ना. तेन्ना प्रणव निरशेलो. भुरगें जावचें ना हाचे परस ताका आपलो स्टेटस म्हत्वाचो दिसपाक लागलो. आपलो पराजय आनी पुरुशत्वाचो उणाव आपले बायले सामकार मांडप ताका शक्य नासलें. ताका दिसलें आपूण एके स्त्रीचे नदरेंतल्यान पडटलो. आपलें दादलेपण जप्पा खातीर ताणें आपलें भविश्यगिन्यान पणाक लावपाचें थारायलें.

'दोन म्हयने जाले! दोतोर इतलो वेळ कित्याक घेता रिपोर्ट दिवपाक?' एक दीस अदितीन विचारलें.

'आगो, म्हाका याद ना. रिपोर्ट फाटल्या म्हयन्याकूच म्हजे कडेन पाविल्लो. पूण फाटलो म्हयनो हांव घरा आसां तरी?'

'प्रणव, कितें आसा तातूंत?' अशें म्हणत अदिती ताचे कुशीक सोप्यार येवन बसलें.

'आमकां भुरगें जावपाक शकता अशें सांगलां दोतोरान. पूण म्हाका दगदग मात्शी उणी कर आनी घरातूंच चड वेळ विसव घे म्हण सांगलां.'

'हेंच तर फाटलीं धा वर्सां तुका हांव सांगतालें. दोन दीस घरांत विसव घे, वीस दीस तूं भायर. कशें जातलें भुरगें?' अशें उलोवन तें ओग्गी रावलें. उमेदीच्या नेटार तें खूब उलयलें अशें ताका दिसलें. चोरटे नदरेंत ताणें प्रणवा कडेन पळयलें आनी ल्हवूच ओंठ चाबले. लजेन तें थंय आनीक रावलें ना.

सकाळ जायना फुडें प्रणवाच्या घरांत मांगल्यांचें वातावरण आसता. दर दिसा तांगेर सकाळचे पुजेक पुरेयत आसता. दर दिसा सुमार दोन वरां ताच्या बापायची पुजा चलता. सगले कडेन धूप, कापूर आनी उजवातींच्या मंद परमळान दिसाक सुरवात जाता. आयज लेगीत घांटीचो निनाद चालू

आशिल्लो. अदिती उठलें तेन्नां प्रणव लॅपटॉपाचेर ग्रहा वांगडा खेळटालो. तो कसल्यातरी विचारांनी आसा म्हणपाचे अदितीक कळ्ळें.

'आयज तुज्या खंयच्या राजकारण्याक शनीची पिडा बादपाची आसा? बरो चिंतेस्त दिसता?' आपल्याच विचारांनी गुल्ल आशिल्ल्या प्रणवाक ताणें विचारलें.

'आयज शनी म्हज्या गिरायकाक लागूंक ना. तर आमकां लागला.'

'म्हणजे! समजलें ना.'

'आमी आतां थारायलांच न्ही भुरग्याचें मनार घेवपाचें. हांवेन सहज म्हण जावंक नाशिल्ल्या भुरग्या बद्दल कुंडलेचीं गणितां मांडलीं. तुजे ग्रह, म्हजे ग्रह. ह्या सगल्यांचो आडवो-तिडवो अभ्यास केले उपरांत एक भयानक प्रस्न उबो रावला. आमकां जावपी भुरगो संवसाराचेर शेक गाजयतलो. पूण...'

'आवयस्! खरेंच! मागीर हातूंत प्रस्न कसलो उबो रावतलो तर? ही तर खोसयेची गजाल.' उमेदी जावन अदिती उलयलें.

'खरो प्रस्न तो ना. पोटांत गर्भ धरतकच आमच्या घरांत, सामको लागचो कोण तरी मरतलो.' कपलाचेर मिरयो काडीत प्रणव उलोवपाक लागलो.

'नाका जाल्लेंच कितें तरी! म्हजो आसल्या गजालींचेर विश्वास ना.'

'आयज मेरेन म्हज्या भविश्याचें गणीत केन्ना चुकलां व्हय?' प्रणव रागान उलयलो.

'रागार जाय नाका. पूण म्हजें मन म्हाका अशें सांगाता.'

बरोच वेळ दोगांय ओग्गी रावलीं. प्रणवाचें लॅपटॉपाचेर आंकडे जुळो वप चालूच आशिल्लें. खूब वेळान अदिती उलयलें.

'प्रणव, तूं म्हजेर माया करता म्हण धाडस करता. तूं म्हणटा म्हाका भुरगें जाले उपरांत कोणतरी मरतलो. तुका दिसना देवाचें गणीत बरोबर आसा म्हण. तुजे आज्जेची पियार अंयशींच्या फुडें पावल्या. घडये तिचें मरण लागीं पावलां आसतलें. प्लीज! रागार जावं नाका.'

'तूं, कितें उलयता? जो जल्माक आयलो ना ताचे खातीर म्हजे आज्जेच्या मरणाची तूं आस धरता? जाणटीं मनशां घरांत आसप म्हळ्यार

देवाची सासाय आसप घराचेर.' प्रणवाचो राग वाडटालो.

'म्हाका कायच खबर ना. म्हाका भुरगें जाय. तुजी आज्जी रावन तरी कितें करतली? न्हिदून तर आसता दुयेंसपणाक लागून.' अशें रागान उलोवन तें पांय आपटीत रुमा भायर गेलें. प्रणवाक राग आयिल्लो पूण ताणें तो गिळ्ळो.

ती घडणूक जावन उणेच म्हळयार स म्हयने तरी जाल्ले. प्रणवाचे ह्या दिसांनी परदेश दौरे खुबूच वाडिल्ले. आयज लेगीत तो भारताच्या संस्कृतीक मंत्र्या वांगडा वचपाक गेल्लो. दनपरां आड पडला थंयच ताच्या मोबायलाचेर अदितीचो एसएमएस आयिल्लो.

'हाय! एक बरी खबर! आयज हांव संवसारांतलें सगल्यांत आनंदी मनीस जालां आनी थोड्या वेळान तूं लेगीत जातलो. कम ऑन, गेस्स.' मर्दी बरोच वेळ स्क्रोल केले उपरांत दोन वळी आसल्यो. 'आय एम प्रॅग्नण्ट आनी मुखेल म्हळ्यार तुजे आज्जेक कांयच जावंक ना.' वाचना बाराबर ताका खूब खोस जाली. पूण दुस-या खिणाक तो दुबावीत जालो. ताणें रोखडोच डॉक्टराक फोन केलो.

'प्रणवबाब, शक्य ना. तुमी जेन्ना म्हजे कडेन आयिल्ले तेन्ना हांवेन तुमकां धीर दिवपा खातीर सांगिल्लें की तुमकां भुरगें जावपाक शकता. पूण तुमचे भितर शुक्राणू तयार जावन रोखडेच मरताले. हांवेन तांका वखदां वरवीं जीव येता काय पळयिल्लें. पूण तें शक्य जालें ना. तुमकां भुरगें जावप शक्यच ना. फट दिसता जाल्यार भुरग्याचो मागीर जल्माक आयले उपरांत डिएनए करून पळोवया. हांव म्हजी प्रॅक्टीस सोडटां हांव फेल वचत जाल्यार.' डॉक्टरान ताका आव्हान दिलें आनी ताची उमेद नाच्च जाली. ताचें मन द्विधा अवस्थेंत सापडलें.

णव म्हयने कशे गेले कोणाकूच कळ्ळें ना. अदितीक चलो भुरगो जालो. ताचो मोट्या दबाज्यान बारसो जालो. चडशे लोक म्हणटाले भुरगो प्रणवाचेर गेला. हीं उतरां आयकतकच ताका डॉक्टराचो राग येतालो. पूण...

आयज प्रणव दिल्लीक आसा. रातचो ताणें अदितीक एक मेल धाडलो.

'मोगा, हांवेन तुका सांगिल्लें. आमच्या घरांत भुरगें जातकच, घरांत लागचो कोणतरी मरतलो. म्हजें भविश्य नियतीन खरें केलां. हो म्हजो तुका

निमणो मेल. वांगडा म्हजो एक फोटो धाडटां. सकयल ऑल द बॅस्ट बरयलां. म्हज्या आनी तुज्या पुताचो हो कोण नैसर्गीक बापूय आसा ताचें अभिनंदन केलां म्हण सांग. आनीक एक! हो मेल डिलीट कर... वाचले बाराबर दोन मिणटां मभितर हांव 'सुसायड' करतां..."

***

# चॅटींग

**ड्राफ्ट ...**

सुमा, आयज आमचो चॅटिंगाचो दीस. सप्तकांतल्यान एक फावट वर भर तुजे कडेन चॅट केले बगर मनाक थाकाय मेळना. शुक्रारची खबर तुका एकल्याकूच मेल केल्या. जिवितांत अशें घडत हाचो केन्नाच विचार करूंक नाशिल्लों. तें लेगीत लग्ना उपरांत. लग्ना पयलीं अशें जाल्लें जाल्यार तुजे वांगडा अमेरिकेक येवन रावतां आसलें, सगले बांदपास तोडून. तुका मेल वाचले उपरांत घडये वायट दिसलें आसतलें न्हय? पांच मिणटांची काय जायना, हांव तुजी मोटी भयण. आपले भयणीचेर असो आकांत येत हाचो तुंवेन तरी विचार केल्लो? (सॅण्ड)....

**ड्राफ्ट ...**

तायू, मनाक लावन घेवं नाका. थोडे भोग आसतात जिवितांत, ते खंय विधिलिखीत आसतात. घडये फाटल्या जल्माचें कसलेंय पाप आसत. ते दीस खूब रडलें. दिसलें उठचें आनी येवचें भारतांत. घेवचें तुका गोपांत म्हज्या आनी तुजीं सगलीं दुकां भायर काडचीं. पूण संवसाराचें जाळें फाटी ओडपाक लागलें. म्हाका एक कळना, बलात्कार हो प्रकार फकत आशियायी जगा भितरूच चड कित्याक? वासना खंय चिड्डली जाल्यार नेटान वयर सरता. हांगा अमेरिकेक वासनेक घुस्मटमार ना. आयज ह्या गर्लफ्रॅण्डाच्या बॅडरुमांत जाल्यार फाल्यां दुसरेच चलयेच्या बॅडरुमांत. हांगा सगल्यो चलयो एक वेळ परशींत लिपस्टीक घालपाक विसरत, पूण कॉण्डम घालपाक विसरच्यो नात. घडये हेंच कारण आसत, हांगा चलयांचेर चड बलात्कार जाय नासपाचें. पूण तूं म्हणटा, लग्न जाल्ल्या मनश्यान तुजेर आगळीक केली. घरांत बायल आसतना ताणें तुजे कडेन आपली वासना उकताडार काडप, खरेंच विचारा पलतडचें! तायू, तूं भियेवं नाका. बरो आद्वोगाद काड. ताका बरीच ख्यास्त जावपाक जाय. पयशे हांव दीन तुका. (सॅण्ड)...

**ड्राफ्ट ...**

सुमा, प्रस्न पयश्यांचो ना. पयशे म्हजे कडेनूय आसात. प्रस्न आसा तो

आदाराचो. आयज तीन दीस जाले. म्हजो घोव म्हज्या बॅडरुमांत येवंक ना. पुलीस स्टेशनाचेर लेगीत एकूच दीस आयलो. ताका खंय लज दिसता म्हजे वांगडा पुलिशेंत येवपाची. पोलीस लेगीत ह्या ना त्या कारणाक बेठेंच आपोवन घेतात, नाका जाल्ले प्रस्न विचारतात. हांव एकलेंच येता म्हण तांकां म्हजें कवतुकूय दिसता, सासूमायन सगल्या जावयांक आनी नणंदांक काल आपोवन घेतिल्लीं. म्हाका दिसलें म्हजें सांत्वन करपाक आयल्यां आसतलीं. पूण ना. हांवेन दिल्लें उदक एकल्यानूय तोंडांत घेतलें ना. जशें कितें म्हाका म्हारोग जाला, आनी म्हज्या हातचें उदक पियेत जाल्यार तांकांय तो रोग जातलो. म्हजेर आगळीक जाल्या हातूंत म्हजी कितें चूक आसा. घोवा घरचीं सगलींच म्हजो तिरस्कार करपाक लगल्यांत. जशें कितें बलात्कार करपी त्या मनश्याक हांवेनूच सांगिल्लें, यो आनी कर म्हाका तृप्त. म्हाका फकत घोवाचो आदार मेळिल्लो जाल्यार पुरो आसलें, सगल्यां वागडा धिरान झगडटलें आसलें. पूण जाणें तकली तेंकोवपाक खांद दिवपाक जाय ताणेंच भुजां गळसणून दवल्ल्यांत. (सॅण्ड)...

**ड्राफ्ट ...**

तायू, तुंवेन मोगान लग्न केला न्हय. सांगतलें तरी कोणाक? खरें सांगशीत जाल्यार म्हाका तीं मनश्यां लग्नांत आवडलींच नात. म्हाका तीं खंयचेच वटेन म्हजीं सोयरीं कशीं दिसनात. तांकां फकत तुजो पयसो जाय. तूं तुज्या घोवाक जबरदस्तेन पुलीस स्टेशनाचेर व्हर. आईबाबाक ही गजाल सांगू नाका. वृध्दाश्रमांत सुखान रावतात तीं. हे खबरेन आई घडये मरण बेगिनूच मागतली, तुजेर खूब माया आसा तिची. फकत तुज्या घोवाक विश्वासान घे. तुज्यो सगल्यो भावना व्यक्त कर. सांग ताका वेगळीं रावूया म्हण. हरशीं म्हण तीं मनश्यां तुका आतां केन्नाच लागीं करचीं नात. जमता आसत तर वेगळ्या शारांत बदली करून घे. ऑफिसांत कशें कितें वाता वरण? हांवेन म्हज्या घरकाराक सांगलां. जाता तितले बेगी तुजे कडेन या, तूं काळजी करूं नाका. आनी तायू, एक सांग गडबडेन विचारपाक विसरलें. आगळीक करतना तुका घावे बी जाले ना मूं? झटापटींत ताचीं नाखटां बी लागलीं आसत जाल्यार रोखडेच उपाय कर. (सॅण्ड)...

**ड्राफ्ट ...**

घावे बरे जातले गो. पूण मनांतले घावे खूब खोल गेल्यात. केन्नाच बरे

जावचे नात. परत परत खपल्यो वचून एक सारके उचकत रावतले. पूण सुमा, झटापट करपाचे त्राण म्हज्यांत तशे नाशिल्लेच. ताणें ड्रिंकांत कितें तरी घातिल्लें. ते घुवळे भितर घडये म्हजी कूड आपखोशयेन ताचे सुवादीन जाली अशें म्हाका दिसता. हांवेन मात्सो विरोध केल्ल्याचें म्हाका जाणवलें. पूण दादल्याची शक्त आमचे परस चड आसता. जाग आयली तेन्ना सगलें सोंपिल्लें. तो थंयच्यान नाच्च जाल्लो. सामकार मेळ्ळयार तेन्नाच तकलेर कितें तरी घालपाचें. घरा आनी गेलें ना. घोवाक ऑफिसांतूच आपयलो. ताका सगलें सांगलें. पुलिशेंत कागाळ करपाक कसोच तयार नाशिल्लो. घराण्याक लज जातली म्हणटालो. हांव बळजबरेन ताका घेवन गेलें. पूण एकदाच. परत आयलो ना. आईक ही खबर सांगली ना. पूण दुसरे दिसा वचून आईच्या पदरांत खूब रडलें. तिका दिसलें, घडयें तांच्या यादीन रडटां आसत. तिणें म्हळें लेगीत, तुमचें स्वताचें घर घेयात. येतात आमी रावपाक. तिका कांयच कळपाक दिलें ना. म्हज्या ऑफिसांतल्या लोकांनी म्हाका खूब आदार केलो. बायलांनी जाल्यार पुलीस स्टेशनाचेर मोर्च्या लेगीत व्हरपाचें केल्लें. पूण हांवेन म्हळें, ताका धल्लो न्ही. आतां कित्याक? हेड ऑफिसांत रोखडोच नोकरे वयल्यान काडून उडयलो ताका. म्हज्या घोवाक, तूं म्हणटा तशें विश्वासान घेवन कांयच फायदो ना. आतां परत केन्ना तो घडये म्हजे वेंगेंत येवपाचो ना. म्हाका भिरांत दिसपाक लगल्या तो म्हाका घटस्फोट दीत म्हण. जाता तें जावं. हें झूज म्हाका खंय व्हरता पळोवया. तूं इतले पयस येवपाचे भानगडींत पडूं नाका. ऑफिसाचे लोक म्हज्या फाटल्यांत रावल्यात. म्हाका आसा आदार तांचो. (सॅण्ड)...

**ड्राफ्ट ...**

तायू, तूं म्हजें आयकता जाल्यार एक काम कर. तुज्या त्या शंड घोवाक दी घटस्फोट. हरशीं म्हण म्हाका दिसना, तुका केन्ना तो पावतलो कसो. असले घोव आसचे परस एकलें राविल्लें बरें. सरळ बरय, स्वताचे बायलेचेर बलात्कार जाल्लो आसतना घरांत बसून रावलो म्हण जज सायब म्हाका घटस्फोट जाय. ताचो पगार तो कितलो. तुज्या पगाराचेर उडयो मारता, ही वस्तुस्थिती कळटकच तकली जाग्यार येतली. हांव येतलेंच! थंय पावना फुडें तुज्या घोवाचें सोंडकूल फोडना जाल्यार पळय. दाखयतांच ताका धाकटी भयण म्हणजे कितें तें. म्हजो घोव जाल्यार त्या बलात्कार करतल्याक इतल्यान फारान मारतलो आसलो. तायू, तूं एक फ्लॅट घे. आईबाबाक घेवन

राव एकटें. जमता जाल्यार एक बरोसो भुरगो पळोवन लग्न जा. तुज्या रुपाचेर कोणूय मरत. तुजी फाटभूंय सांग आनी तो तयार जालो जाल्यार जा लग्न ताचे कडेन. आईबाबाच्या तोंडांत मरतना तुज्या हातांतल्यान उदक पडटलें. फाल्यां परत चॅट करूया. तूं मानसीक भलायकेन घटमूट जायसर आतां सदांच चॅटिंग. गूड नायट. (सॅण्ड)...

**ड्राफ्ट ...**

गूड नायट, सुमा. (सॅण्ड)...

•••

दुसरे दीस रातचे त्याच वेळार दोगांचेय संगणक ऑन जाले आनी दोगांचोय चॅट प्रोग्राम क्लीक जालो.

•••

**ड्राफ्ट ...**

तायू, कितें जालें आयज? आयज ताचो पुलीस रिमाण्ड सोंप्पाचो आसलो. आयज पुलीस न्यायालयांत केस दाखल करपाचे आसले. उडयलो ताका बंदखणींत? हांव देवा कडेन मागतां ताका चडांत चड ख्यास्त जावची. आतां पुलीस, आनी भायर आयले बाराबर हांव ताका शारांत नागडो करून भोंवडायतलें. कितलोय खर्च येवंदी. तुज्या घोवाक सांगलें घटस्फोटाचें? (सॅण्ड)...

**ड्राफ्ट ...**

सांगपाक तो बॅडरुमांत येवपाक जाय न्हय? चॅटींग सोंपले उपरांत हांव रातचें इकरांक भायर हॉलांत आयलें. सोफाचेर चादर घेवन तो दोळे उकते करून पडिल्लो. हांव वचून ताच्या शेजाराक बसलें आनी ताचो हात हातांत घेतलो. ताणें अपमानीत करून म्हाका थंय सावन धांवडावन घालें.

"म्हज्या आंगाक हात लायशीत जाल्यार तुका तुजे आवयचो सोपूत". अशेंय म्हळें. हांव आनीक ताच्या म्ह-यांत रावलें ना. बॅडरुमांत येवन कसलोच विचार करी नासतना न्हिदून सोडलें. पूण आयज सकाळीं म्हज्या जिवितांत एक मोड आयलां. कितें करपाचें कांयच कळना असो प्रसंग उबो रावला. आयज इकरांक ताची बायल आपल्या दोन सान भुरग्यांक घेवन म्हज्या ऑफिसांत आयली. एक आसत एका वर्साचो आनी दुसरें तीन वर्सांचें. त्या ल्हान बाळकांक तिणें म्हजे मांडयेर दवरलीं आनी म्हणपाक

लागली, "म्हज्या घोवाचे चुकीक लागून म्हजो सगलो संवसार उध्वस्त जाला. खंयच तोंड दाखोवपाक सुवात ना जाल्या. म्हजो संवसार वाटावप तुज्या हातांत आसा. म्हज्या भुरग्यां खातीर केस फाटीं घे. तूं आपखोशयेन ताचे वांगडा गेल्लें अशें पुलिसांक सांग. ते केस फाटीं घेतले. प्लीजऽऽ म्हज्या भुरग्यां खातीर".

खरें सांगूं सुमा, म्हाका कितें घडटा तें कांयच कळ्ळें ना. हांवेन तिका सरळ ना म्हण सांगलें. असल्या मनश्यांक ख्यास्त जावपाकूच जाय. हांवेन ना म्हणपाक ते बायलेन आपल्या दोगांय भुरग्यांक म्हजे मांडयेर घालीं.

"निदान म्हज्या ह्या माणकुल्या भुरग्यांची आवय तरी जा".

अशें म्हणत तिणें कोणाक कांयच कळचे पयलीं ऑफिसांतल्या आठ व्या माळ्या वयल्यान सकयल उडी मारली. कोणाक कांयच कळ्ळें ना. सकयल रस्त्याचेर रक्तान भरिल्ली तिची कूड पळयली आनी तिच्या दोगांय भुरग्यांक हांवेन छातयेक घट्ट आवळून धरलीं. भिरभीरपी नदरेन तीं सकयल आवयक पळोवपाचो येत्न करतालीं. (सॅण्ड)...

**ड्राफ्ट ...**

तायू, हें कितें घडलें गो? चूक कोणाची आनी ख्यास्त कोणाक? तिच्या घोवाक ही खबर कळ्ळी. ताची रिएक्शन कितें आसली? भुरगीं खंय आसात आतां.? रडटा आसतलीं न्हय आवयचे यादीन? त्या एका वर्साच्या बाळकाक दूद कोणें दिलें? आतां तुजो स्टॅण्ड कितें? (सॅण्ड)...

**ड्राफ्ट ...**

सुमा, हांवेन एक आविचारी निर्णय घेवपाचें थारायलां. घडये तो कोणाकूच मान्य नासत. पूण तूं म्हजी भयण. तुका सांगप गरजेचें. आईबाबाक मागीर तूं समजावन सांग. हांवेन त्या भुरग्यांची आवय जावपाचें थारायलां. सकाळींच हांवेन केस फाटीं घेतली. हांवेन प्रतिज्ञापत्र बरोवन दिलें. हांव आपखोशयेन त्या मनश्या वांगडा गेल्लें. हांवेन थंय वायन घेतली. तातूंत ताची कांयच चूक ना. ताका म्हजी कूड आवडिल्ली. म्हज्या रुपाचेर भाळून खंय तो स्वताक आडावंक शकलो ना...

हांवेन ताचे कडेन लग्न जावपाचें थारायलां. घोवाक घटस्फोट दिवपाचे पेपर हांवेन कोर्टांत दाखल केल्यात. जाका म्हजी कूड आवडली ताकाच ही कूड सासणाची ओंप्पाचें थारायलां. म्हाका खबर आसा, तुका घडये वायट

दिसतलें. घडये आमचें हें निमणें चॅटींक आसूं येत. तुज्या तायूक जम
जाल्यार माफ कर. फकत त्या माणकुल्या भुरग्यां खातीर. (सॅण्ड)...

**ड्राफ्ट ...**

तायू, एक सांगूं, मात्शें वायट दिसलें, पूण तुजो भावोजी म्हजे कुर्श
बसून स्क्रीन वाचतालो. ताणें एका पेपराचेर बरोवन म्हाका मॅसेज दिल्या,

"Your sister is simply great" (सॅण्ड)...

***



आप्पा (अजय) बुवा

सत्तरी वाठारांतल्या बाळपयच्यान आपल्या अस्तित्वाच्या सोदांत भायर सरिल्लो एक धेयवादी तरणाटो, प्रतिकूल परिस्थितीचेर मात करून पत्रकारिता, साहित्य, गायन, संगीत, राजकारण, संपादन, उद्येग-वेवसाय आश्या विंगड विंगड मळांचेर जैत जोडपी प्रतिभावंत तशेंच जेशी, लायन्स क्लब, रोटरी क्लब सारक्या बावट्याखाला सामाजीक आनी सांस्कृतीक जाणविकायेंतल्यान वावुरपी एक सर्वसामान्य कार्यकर्तो अशी वळख आशिल्लो आप्पा (अजय) बुवा म्हळ्यार खऱ्यानीच एक वेगळेंच रसायन.

महाविद्यालयीन शिक्षण घेतना, गोंय विद्यापिठांत एमएचें शिक्षण घेतना तशेंच शिवाजी विद्यापिठांत पत्रकारितेचें शिक्षण घेतना तो घडत गेलो. खासा करून सामाजीक, सांस्कृतीक आनी राजकीय मळार ताणें नांव जोडलें. कविता, कथा, एकांकी, एकपात्री, पथनाट्य, बालनाट्य अशे विंगड विंगड साहित्य प्रकार ताणें कुशळटायेन केळयल्यात. ताणें बरयिल्लीं नाट्य-समिक्षणां जाल्यार एक उत्कृश्ट समिक्षणात्मक साहित्य अविश्कार. सखोल वाचन, सुक्ष्म निरिक्षण, प्रगल्ब चिंतन, प्रसन्न उलोवप, निर्मळ वागप आनी परोपकारी वृत्ती हें ताच्या व्यक्तिमत्वाचें खाशेलेपण.

एसएमएस हो कथाझेलो तांच्या कथनात्मक आभिव्यक्तीचो मनभुलयणो आविश्कार. 21 व्या शेंकड्यांतल्या मानवी मनाचे हावेस आनी उत्फर्के अतिशय वास्तविकतायेन ताणें शब्दबद्ध केल्यात. खासा करून आय-टी युगांतल्या जुवान काळजाचीं सगलीं बरीं वायट स्पंदनां ताच्या कथेचे विशय जाल्यात. वास्तवीक कथानक, व्हांवतें निवेदन, परिपक्व पात्रचित्रण, समर्पक संवाद रचना, जिवंत वातावरण, उत्कंटावर्धक संघर्श आनी कलात्मक अभिव्यक्ती हे तांच्या कथेचे स्थायिभाव जावन आसात.

-प्रा. हनुमंत चोपडेकार

